

# थिका






नम्रता शैलेश सालेलकार

# थिकां



नम्रता शैलेश सालेलकार






गोवा कोंकणी अकादेमी

# थिकां

(कथा संग्रह)

लेखक :
नम्रता शैलेश सालेलकार

प्रकाशन क्र.:४८



उजवाडावपी :
नारायण श्री. नावती
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी
बोरी, फोंडें, गोंय.

छापपी :
स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स
माशेल, गोंय.

मुखचित्र :
सुरज सदानंद नाडकर्णी

पयली आवृत्ती :
२००३

मोल : रू. ६०/-

# THINKAM

(Short Stories)

WRITER :
Namrata Sailesh Salelkar

PUBLICATION NO.: 48



PUBLISHER
Narayan S. Navti
Secretary,
Goa Konkani Akademi
Borim, Ponda - Goa.

PRINTER :
Swarnamudra Prints,
Marcela, Goa

COVER :
Suraj Sadanand Nadkarni

FIRST EDITION :
2003



PRICE: Rs. 60/-

*हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर अनुदान येवजणेखाला छापला.*

‘‘म्हज्या मुदयेच्या थिकाक,

म्हजे धुवेक,

बाय शांभवीक’’

- सौ. नम्रता शैलेश सालेलकार

# साहित्यिक यात्रेक सदिच्छा

साहित्याच्या तमाम प्रकारांमदीं कथा हो चड लोकप्रीय वाङ्.मय प्रकार म्हणून मान्यताय पावला. तशें पळोवंक गेल्यार आज ज्या वाङ्.मय प्रकाराक 'कथा' म्हणटात तो विसाव्या शेकड्यांतच रुजलो आनी वाडूंक पावलो. तेआदीं कथा हो प्रकारच नाशिल्लो अशें न्हय. महाभारत आनी रामायण, पंचतंत्र आनी इसापनिती ह्या सारकिल्ल्या साहित्यांत तरेकवार कथा वाचूंक मेळटात. पूण त्यो पुराय अर्थान आयची कथा म्हणूंक जावचें ना. तरी आयचे कथेचें मूळ ह्या प्राचीन साहित्यांत आसा हें तितलेंच खरें. कोंकणी कथेविशीं सांगतलो जाल्यार शणै गोंयबाबांची 'म्हजी बा खंय गेली?' ही तंत्राचे नदरेन कथेक खूब लागीं आसली तरी खरेल्या अर्थान कोंकणी कथेक आकार आनी दिशा मेळ्ळी ती विसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्थाच्या आरंभाक. तातूंतय जेन्ना गोंय स्वतंत्र जालें, तेन्ना एकाद्रें झाड पानाकणकणीं फुलचें तशें कथा लेखन करपी नवे नवे तरनाटे फुडें येवंक लागले. सगल्यांचेंच साहित्य उंचेल्या दर्ज्याचें नाशिल्लें तरी आपआपले प्रतिभेचें दर्शन तांणी कांय वेंचीक कथांनी घडयलां देखूनच नव्या शतकांतय ह्या नवोदितांची प्रतिभा पुराय तेजान चकचकतली असो भरवंसो दिसूंक लागला.

ह्या बदलिल्ल्या वातावरणांत आपलो पयलोच कथासंग्रह 'थिकां' घेवन सौ. नम्रता शैलेश सालेलकार कोंकणी सरस्वतीच्या प्रांगणांत येतात. तांकां येवकार. आपल्या मनांतल्या उमाळ्यांक आनी विषादांक कथेच्या माध्यमांतल्यान वाचा फोडपाच्या हावेसान बरयिल्ल्यो ह्यो कथा. कथा ह्या साहित्य प्रकाराची व्याख्या करून एके फास्केंत कथा बसोवपाचो यत्न आतां कालबाह्य जाला. देखूनच एखाद्रो समर्थ कथाकार तंत्राची फास्की मोडून आपले कथेक नवें रूप, नवो आकार आनी नवी दिशा दिवंक पावता. सौ नम्रताबायच्या कथांनी ती दिशा पळोवंक मेळटा. आपणांक कितेंतरी सांगपाचें आसा, हाची जाणविकाय मनांत दवरून त्यो आपले कसबेन कोडू वखदाक साखरेचो लेप दिवन आपले उमाळे आनी निर्शेण्यो वाचप्यांमेरेन पावयतात.

सौ. नम्रता ही एक प्रयोगशील लेखिका. बायलांच्या अंतर्मनाचो ठाव घेवपी अशो तांच्यो कथा. त्यो घडये तंत्राचे फास्केंत बसना आसत,पूण तंत्राचें बंधन तोडून तांणी आपल्या सुटसुटीत कथांच्या आदारान आपल्या मनाचे उत्फर्के

शब्दबद्ध केल्यात. साहित्यांत एकाद्रें उद्दिश्ट नदरेमुखार दवरून निर्माण जाल्लो दर एक साहित्यप्रकार हो परिपूर्ण असोच आसता. नवोदीत लेखकांकडच्यान प्रासादीक भाशेची अपेक्षा नासली तरी ज्या लेखकांमदीं प्रतिभेचो अंश आसता तो तांच्या बरपांत दिसता. टनांनी माती खणली जाल्यार कणांनी भांगर मेळटा, अशें सांगतात. हो नेम साहित्य साधनेक लागू जाता. ज्या साहित्यांत वाचकांक आपल्या हावेसांचें आनी निर्शेणेचें, आपल्या समाजाचें आनी आदर्शाचें पडबींब पळोवंक मेळटा तें साहित्य तंत्रांत बसलें ना तरी मंत्रांची शक्त कोळोवंक पावता. हालीं साहित्याचें वाचन करपी चड नासले, तरी जो मेरेन मनशाचें मन, मनशाची संवेदना जागी उरतली तो मेरेन साहित्याचो फुडार निर्धोक रावतलो. तेचखातीर नव्या लेखकांची उमेद वाडोवंक जाय आनी तांकां सातत्यान बरोवपाची प्रेरणा दिवंक जाय. पयलें पुस्तक उजवाडा येतकच सर्गाक हात तेंकयल्याचे भावनेन जे वागतात, साहित्य स्वाध्याय आनी साधना सोडून दितात, तांकां फुडार नासता. हो संग्रह उजवाडाक येतकच लेगीत सौ नम्रतावाय ही साहित्य यात्रा चालू दवरतल्यो असो म्हाका भरवंसो आसा. ल्हान भुरगें आपल्या पांयांनी चलूंक शिकचेआदीं चलता, पडटा आनी परत उबें रावून चलूंक लागता. जाण्टेल्यांक हें पळयतना लक्तुवाय दिसता. जें भुरगें पडटा, तें आदीं चलूंक लागता. निसर्गाचो हो नेम मातृत्वाचे नदरेन सुखदिणो आसता. सौ. नम्रता सालेलकार हांचे बावतींत तशेंच घडूं अशी सदिच्छा उक्तावन हांव तांचें अभिनंदन करतां.

मडगांव, गोंय.

– चंद्रकांत केणीं

# पिकचे आर्दीचें अमुरपिकें . . .

म्हजो कुळदेव श्री मंगेश महारूद्राक नमन करून हांव हें धड पिकिल्लेंय न्हय आनी धड तरणेंय न्हय अशा अमुरपिक्या बरपाविशीं दोन उतरां बरोवंक सोदतां.

कोंकणींतल्यान बरोवप म्हाका खूब आवडटा, कित्याक तर वाचप्यांकडेन मनांतल्यान उलयिल्लेवरी दिसता. कोणूय म्हणत, हॅ! . . कोंकणींतल्यान बरोवप सामकें सोपें. उलयतात तशेंच बरोवप म्हणटात तितलें सोपें न्हय. तें भोव कठीण काम. म्हाका तर एक एक उतर विणपाक खूब त्रास जाताले, अशा वेळार म्हज्या घरकारान 'श्री शैलेश सालेलकार' हांणी म्हजीं बरपां वाचून तांतलीं उतरां आनी तांचो अर्थय सांगून म्हाका खूब मदत केली. तशेंच म्हजो बापूय, 'श्री सदानंद नाडकर्णी' हांणीय म्हाका कथा, कविता बरोवपाक प्रोत्साहन दिलें.

हे बरपावळींतल्यो कांय कथा हांवें स्वता अणभवल्यात. ज्यो व्यक्तिरेखा बरयल्यात, त्योय म्हज्या सरभोंवतणच्योच. त्यो हांवें दोळ्यांनी पळयिल्लो अशो आसात.

ही बरपावळ पयलो चंवर येवजणेखाला उजवाडायल्या देखून हांव पयले सुवातेर गोवा कोंकणी अकादेमीचे उपकार आठयतां. प्रस्तावनेखातीर भौ. चंद्रकांतबाव केणी हांचे उपकार आठयतां. भौ. उदयबाव भेंब्रे आनी भौ. दिनेशबाव मणेरकार हांणी म्हाका बरपाविशीं कितेंय विचारल्यार केन्नाच ना म्हळें ना, खूब मदत केली देखून हांव तांचेंय उपकारी आसां. तशेंच भौ. सत्यवानबाव कोसंबे हांणी म्हजीं दिसाळ्यांतलीं बरपां वाचून तोखणाय करून उमेद वाडयली. हांव तांचेंय उपकारी आसां. जांणी जांणी ह्या पुस्तकाखातीर त्रास घेतल्यात तांचें सगळ्यांचें हांव भोव उपकारी आसां. आनी निमाणें, वाचतल्यांक तें आवडटलेंच अशें समजून तांचेय उपकार आठयतां.

बरें तर, हें 'अमुरपिकें' कितलें गोड लागता तें पळयात.

तुमकां सगळ्यांक देव बरें करूं.

सांगें, गोंय. — सौ. नम्रता शैलेश सालेलकार



# मांडावळ


१. आमोरी ........................ ९

२. दिव्य ........................ २३

३. कुसांकीड ........................ ४१

४. सुटका ........................ ४६

५. दादा ........................ ५३

६. जाय एक काणी ........................ ५८

७. आनी ती मुक्त जाली ........................ ६0

८. भरोसा ........................ ६३

९. गुलावें ........................ ६८

१0. देख ........................ ७१

११. दिश्ट ........................ ७३

१२. उमाशेची रात ........................ ७६

१३. अशेंय एक लग्न ........................ ७९

१४. वादळ ........................ ८३

१५. शांता ........................ ८६

१६. दादामामा ........................ ८९

१७. म्हजी वा ........................ ९२

# १. आमोरी

आलार्म जालो. फांतोडेर्चीं चार वरां जाल्लीं. आलार्माचो तो आवाज आयकून अनुपाक सामकी तिडक मारिल्ली. तो माग्ब्रग्झोपेंतसो आशिल्लो, पूण उपाय नाशिल्लो. कित्याक तर गतचें न्हिदतना ताणेंच आपल्याक वेगीन उठपाक जाय म्हुणून आलार्म लायिल्लो. ताका ताच्या बॉसान तयार जावन यो म्हुणून सांगिल्लें. अनुप उठलो, ताणें तोंड धुलें आनी कपडे करून तो वेगीवेगीन वचपाक भायर सरलो.

अनुपान बॉसाक केन्नाच पळयल्लो नाशिल्लो, पूण बॉसान ताका कालच फोन करून खंयच्या जाग्यार मेळपाक यो तें सांगिल्लें. अनुपाची फियाट एके ल्हानशे खोपींकडेन येवन थांवली. तो गाडयेंतल्यान देंवलो आनी खोपींभितर गेलो. ती खोप एका अटंग्य रानांत कोण मनीसजात ना अशा जाग्यार आशिल्ली. अनुपाची आनी ताच्या साथिदारांची फुडली कार्यावळ थारोवपाची मिर्टींग हेच खोपींत जातार्ली. अनुपान आपल्या हातावेल्या घड्याळीचेर पळयलें. सारकीं पांच वरां जाल्लीं. इतल्यांत भायर ताका गाडयेचो आवाज आयलो. ताचो बॉस गाडयेंतल्यान देंवतालो. तो सुटबूट घालून आयिल्लो. ताच्या तोंडाक पळयतनाच अनुपाक सामको थरथरो भरलो. इतलें ताचें तोंड भयानक आशिल्लें.

ताचें आंग काळें कुळकुळीत आशिल्लें. तोंडार देवींच्यो मावो आशिल्ल्यो. मिश्यो पिळून पिळून कुल्ल्यांच्या दोळ्यांभशेन केल्ल्यो. धोणवाभशेन भुंवयो आशिल्ल्यो, दोळे पिकिल्ल्या तेंडल्याभशेन तांवडे गूंज आशिल्ले, तेभायर एक दोळ्यांत फूल पडिल्लें. लांबटकान आशिल्ले, ताचें तोंड सिगार ओडून ओडून काळेंकिट्ट जाल्लें. हें सगळें कमी म्हुणून ताच्या फेंचिल्ल्या नाकाचे कुशीक एक व्हडली खांच आशिल्ली. सांगपाचें म्हळ्यार, बरो दिसता अशी एकय खूण देवान ताच्या तोंडार दवरूं नाशिल्ली.

अनुपाम्हऱ्यांत पावतकीर ताणें म्हळें, “तूंच अनुप?” अनुपान म्हळें, “हय बॉस! पूण बॉस, तुमी म्हाका इतल्या सकाळीं कित्याक आपयलो?” बॉस हांसलो. ताणें म्हळें, “ म्हजें नांव गोगा. ‘गोगागंग’ हे नांव आयकतकर सगळे लोक भिवन कडकडटात, हें तुका सांगपाची गरज ना. पूण सगळ्यापयलीं हांवें तुका इतले सकाळीं कित्याक आपयला हें आयकुपाक तुका खूब उमेद जातली तर आयक, हांव तुका जें काम करपाक सांगतलों न्ही, तसलीं कामां म्हज्या साथिदारांनी खूब फावटी केल्लीं आसात. हें काम कोणाक दिवपाचें अशें हांव सदाच चिंतत आशिल्लों. आनी कालच म्हाका दाऊदान तुजें

नांव सांगलें. म्हाकाय दिसलें, असलीं कामां हांवें तुका केन्नाच करपाक दिलीं नात. हे फावटी तुका एक चान्स दिवया अशें हांवें थारायलें. म्हुणून काल गतचें तुका फोन करून हांगा यो म्हुणून सांगिल्लें. कित्याक तर, हें काम तुवें फाल्यां वारांपयलीं करपाक जाय. सद्याक म्हाका आतां सातांक एका व्हडल्या कामाक वचपाक जाय. हांव फाल्यां वारांपयलीं हांगा हेच खोपींत म्हज्या साथिदारांवरोवर येतलों. तेन्ना तूं हें म्हजें काम करून फाल्यां हांगाच यो. कोणाकच कांय कळपाक जायना. समजलें?" अनुपान म्हळें, "पूण वॉस, कसलें काम तें तरी सांगात न्ही. तुमचें काम करपाक हांव एका पांयार तयार आसां."

वॉसान सांगिल्लें काम आयकून अनुपाच्या हातापांयांक शक्त नाशिल्लेवरी जाली. ताका शेळो घाम सुटलो. वॉसान ताका धनगज शेटीलो खून करपाक सांगिल्लें. कित्याक काय म्हळ्यार, शेटीकडेन गोगाच्या वायट कर्तुवांचे कांय पुरावे आशिल्ले. अनुपान गोगाक म्हळें, "ना वॉस, हें काम हांव कशेंच करूंक शकना. हांव ताची तिजोरी फोडपाक शकतां, पूण ताचो खून . . . ना! हांव ताचो खून करपाक शकना!"

अनुपाचीं हीं उतरां आयकून गोगाक सामको राग आयलो. ताणें म्हळें, " हें काम तूं करिना जाल्यार म्हज्या साथिदारांपैकीं कोणूय तरी करतलोच. पूण तुका म्हज्या गेंगींतल्यान हांव काडटलों. तुजो वंगलो, तुजी गाडी, तुजेकडेन जें जें म्हुणून हांवें दिल्लें आसा, त्या सगल्याचो तुका केन्नाच वापर करपाक मेळपाचो ना. तुका मार्गार कुत्रो लेगींत विचारचो ना. याद कर, म्हज्याम्हऱ्यांत येवचे पयलीं कितल्या ऑफिसांनी सर्वीस मेळटली म्हुणून भोंविल्लो तूं. वीख खातलो म्हळ्यार लेगींत पयशे नाशिल्ले तुजेकडेन. तेन्ना तुका दाऊदान पळयलो आनी ह्या कामाक लायलो. आनी आतां तू म्हाका परतें सांगता. तरी लेगींत हांव तुका आयचो एक दीस दितां. हांव तुका थंयच्यान मदीं केन्नाय फोन करतलों. सारको विचार कर. मार्गार तुका पश्चताप करचो पडटलो."
इतलें म्हुणून टकटक वूट वाजयत गोगा थंयच्यान गेलो.

हेवटेन अनुपाच्या दोळ्यांमुखार काळोख आयिल्लो. सोरो पिल्लेभशेन लंवणत लंवणत तो गाडयेम्हऱ्यांत पावलो. गाडी स्टार्ट करपाक लेगींत ताच्या आंगांत त्राण नाशिल्लें. तेच मनस्थितींत तो घरा पावलो. ताचे तकलेंत नाना तरेचे विचार येताले. तकली सामकी चक्राभशेन घुंवताली. घराकडेन ताचो नोकर विठू सायवाली वाट पळयतालो. च्या पिवचेपयलींच सायव खंय गेलो काय हाचोच तो विचार करतालो. अनुपाची गाडी पळयतकीर तो वेगींवेगीन भायर आयलो. अनुप निट्ट उठून वेडरुमांत गेलो. वतना

ताणें विठूक ऑर्डर सोडली, " विठू, बेगीन व्हिस्की आनी सोडा हाड". सकाळफुडें सायबाक कित्याक पिवचें दिसलें काय, हाचेर विचार करीत विठू व्हिस्कीची बाटली आनी सोडा घेवन भितर गेलो. सायब आनी कितेंय हाडपाक सांगत म्हूण विठू थंयच रावलो. तें पळोवन अनुप तापलो, "तूं आनी हांगा कित्याक रावला म्हाका सतावपाक? गेट आऊट फ्रॉम हियर!" विठूक अजाप दिसलें. सायब आपल्याचेर केन्नाच तापलोना आनी आयजच कितें जालें काय? तो जड पावलांनी भायर सरलो.

अनुप मानेचेर देवचार बशिल्लेवरी पीत आशिल्लो. इतल्यांत ताच्या कानार एक आवाज आयलो. 'दादल्यांचें एक बरें न्ही? तकली पिकार जाली जाल्यार एकडेंच पिवपाक बसपाचें.' अनुपाच्या तोंडातल्यान एकदम 'सोनू' अशीं उतरां भायर सरलीं. आतां ताका ग्लासाभितर सोनमाचें तोंड दिसपाक लागलें.

जेन्ना ताची आवय - बापूय मेल्लीं तेन्ना ताच्या मामान ताका आपल्यागेर व्हेल्लो. मामाक दोगूय चलयोच आशिल्यो. मामा आपल्याक चलो ना देखून ताची खूब अपुरबाय करतालो. पूण मामी सामकी झगडाळ आशिल्ली. ती आपल्या चलयांक बरें करताली. ताका सामकी कस्पटाभशेन लेखताली. अनुप आतां कॉलेजाक वचपाक लागिल्लो. मामाली व्हडली चली पूनम बी.ए. करतालें तर हो बी. कॉम करतालो. ताचो पुनमाचेर खूब मोग आशिल्लो. पूण पुनमाच्या मनांत ताचेबद्दल कांयच नाशिल्लें. तें एका मोठ्या गिरेस्ताल्या चल्याचेर मोग करतालें. पूनम अनुपाक जाप लेगीत दिना आशिल्लें. मामाली धाकली चली सोनम, अनुपाचेर सामकें मरतालें. ताका अनुपाचो, दिर्दीचेर आशिल्लो मोग कळटालो पूण तें आपले दिर्दीक कितेंय सांगपाक भितालें.

एका दिसा कॉलेजांत पुनमाचो मोगी, मिनेशान क्लासाभितर पुनमाक कुरू करून आपोवन व्हेलें. तें भायर येतगीर ताका घेवन तो आपल्या घराकडेन वचपाक लागलो तो ताका वाटेर सांगत आशिल्लो. "म्हज्या घरांत मम्मी, डॅडी कोण ना, तेन्ना आमी खूब मजा मारूंया. पुनमूय ताचेबगेबर खोशयेन वतालें. हेबटेन अनुपाच्या एका इश्टाक जोर येतालो म्हण तो इश्ट कॉलेजाक येनाशिल्लो. ताचे खबरेक म्हुणून अनुप आनी ताचे बरोबरचे वांगडी पिरियड ऑफ आशिल्लो म्हुणून तागेर गेल्ले. लास्ट पिरियड आशिल्ल्यान ते सगले भायले भायर घरा वचपाचे आशिल्ले. खबर घेवन ते परत येताले, इतल्यांत अनुपान, पूनम आनी मिनेश हातांत हात घालून येतात तें पळयलें. ताची तिडक मस्तकाक पावली. ताणें धांवत येवन पुनमाच्या सोणकुटार एक पालयलें. तें पळोवन मिनेशाक राग आयलो. दोगांयचींय खूब झगडीं जालीं. अनुपाच्या इश्टांनी तांका सोडयले.

पूनम सामकें गगान तांवडें जाल्लें . "एके चलयेचेर हात उवारतना तुका कांयच कः दिसलेंना . हांव मिनेशावरोवर गेल्लें तुज्यान पळोवंक जायना जालें? कित्याक तर तुक दिसता हांवें तुज्या असल्या भिकाड्यावगेवर भोवचें ." पूण हांव तुज्या असल्या कुत्र्याकडेन दोळे वयर करून पळयना सुध्दां . थूऽ तुजेर ! चल मिनेश, या आमी . " अशें म्हणत पूनम मिनेशाक घेवन थंयच्यान गेलें .

अनुपाक आपल्या इश्टांमुखार जाल्ली शी थू पळोवन सामकी लज जाली . तो थंयच्यान निट्ट घरा आयलो . सोनमाक सुटी आशिल्ल्यान तें घराच आशिल्लें . ताणें अनुप येता तो पळयलो . ताका ताचें तोंड सामकें निर्शेल्लेभशेन दिसलें . ताणें म्हळें "अनुप, आज तुका कितें जालां ? दोळे तांवडे कित्याक जाल्यात?"अनुपान म्हळें, "ना सोनी, म्हाका कांयच जावंक ना" . इतलें म्हुणून तो आपले कुडींत गेलो आनी हुडक्याहुडक्यांनी रडपाक लागलो . सोनमान तें पळयलें . पूण ताणें ताका थांवयलो ना . तें आपलो अभ्यास करपाक लागलें . ताचें हें धावेचें वर्स आशिल्ल्यान तें ख्रूब अभ्यास करतालें . पूण आयज ताचें मन अभ्यासांत लागनाशिल्लें . ताच्या दोळ्यांमुखार अनुपाचे ते तांवडे दोळेच दिसताले .

सांज वेळ जाली. तरी पुनम यवुंना म्हुणून मामा हस्को करतालो . ख्रूब वेळान पूनम आयलें . ताणें येनाफुडें आवयक म्हळें, "आई, हेफुडें एकतर अनुप ह्या घरांत रावतलो नाजाल्यार हांव तरी!" आवयन म्हळें, "हांवय अनुपाक भायर काडपाक चिततालेंच, आयजच हांका सांगून हांव ताका ह्या घरांतलो भायर काडटां ." हें सगलें आयकतगीर सोनमान म्हळें, "पूण आई, दिदीचें आनी अनुपाचें कितें जालें तें तरी पळय न्हीं . एख्राद्री दिदीचीय चूक आसूं येता, तूं विचार करनासतना कित्याय कितें उलोवं नाका ." सांजवेळ जाल्ल्यान मामा घरा आयिल्लो . ताणें विचारलें, "कसलो वोवाळ चल्ला?" पुनमान घडिल्ली खबर तिखट – मीठ लावन सांगली . वापायक ती ख्ररी दिसली ना . ताणें अनुपाक उलो मारलो आनी म्हळें. "अनुप. कितें जालें तें सारकें सांग पळोवया ." अनुपान सगळें ख्ररें तें सांगलें . तें आयकून मामान म्हळें. "म्हजे चलयेन केलें तें योग्यच केलें . ताणें मिनेशाकडेनच लग्न जावपाचें . तुजकडेन लग्न जाल्यार ताका दोन घांस तरी तुज्यान दिवपाक जातले ? तूं आताच घरांतल्यान भायर सर ." पूण मामान मामीक तापयलें आनी अनुपाक म्हळें. "हें तुजें निमाणाचें वर्स तरी जावूं दी . तूं वी . काम जातकर. नोकरी मेळटकर हें घर सोडल्यार जाता . पूण आतां कसलोच विचार मनांत हाडूं नाका . तुका म्हजो सांपूत आसा . तुजे आवयन मरतना तुका म्हजेलागीं

सोपयिल्लो. तू तुज्या पांयार उबो रावित्लो पळयतकर म्हज्या देवाघरा गेल्ले भयणीक ख्रूब खोशी जातली." इतलें म्हुणून जातकर मामाच्या दोळ्यांत दुकां भरलीं. मामाचीं उतरां आयकून अनुप तागेर रावलो. सोनमाकय बरें दिसलें.

अनुपान पुनमाचो नाद सोडिल्लो. तो ख्रूब अभ्यास करतालो. ताका दिसतालें सोनम आपल्याक कितलें बरें करता. आपूण पुनमाचेर मोग करतालों, हें ख्रबर आसून-लेगीत तें आपल्याचेर मोग करता, हें पळोवन ल्हवू ल्हवू ताचें मन आतां सोनमाचेर बशिल्लें. केन्ना केन्नाय तीं दोगांय गार्डनांत वचून मोगाच्यो ख्रबरी करतालीं. तो सोनमाक सदांच म्हणटालो, "सोनू, हांव तुका जगांतलीं सगळीं सुखां दितलों. तुका ख्रूब खोशी दवरतलों." अनुपाचीं हीं उतरां आयकून सोनम सामकें पिशें जातालें.

ह्या दिसांनी एक व्हडली गजाल घडली. पुनम ताचेम्हन्यांत ताचे कुडींत येतालें, ताका लाडीगोडी लायतालें, ताचेकडेन उलोवपाक सोदतालें, एक एक शव्द मोगाचोय उलयतालें. पूण अनुपाक पुनमाच्या शव्दांची किळस येताली. ताका सोनमाचो शब्द, स्पर्श सुखद दिसतालो. पुनम आपलेकडेन इतलें कशें उलयता हें पळोवन ताका अजाप दिसतालें, पूण पुनमाचें अशें जावपाचें कारण एका दिसा ताका कळ्ळें. ताची मामी आनी पुनम उलयतासतना ताणें आयकलें. पुनम आवयक सांगतालें, "आई, हांवें कितलो यत्न केलो अनुपाकडेन उलोवपाचो पूण तो म्हजेलागीं उलयच ना." आवयन म्हळें, "आगो, ह्या तीन म्हयन्यांभितर कशेंय करून तूं ताका आपलो करून घे. मागीर तुका चवथो म्हयनो लागतकीर आमकां आनीक तोंड दाखोवपाक जागो उरचो ना. तुका खंय तरी तोंड काळें करचें पडटलें." हें आयकून पुनम रडपाक लागलें, ताणें म्हळें "आई, हांवें पयलींच अनुपाक वायट वायट उतरां उलयल्लीं नाशिल्लीं जाल्यार म्हजेर हो दीस येवचोनाशिल्लो. तो मिनेश हांव आवय जावपाचें आसा हें सांगतकर, म्हाका म्हणपाक लागलो, 'तूं आवय जावपाचें आसल्यार म्हाका कितें कर म्हणटा. हांव तुजेकडेन लग्न जावपाक शकना. तें भुरगें म्हजें न्हय, आनी कोणायचेंय आसत. म्हाका जायत्यो चलयो मेळटात. हांव श्रीमंत आसा म्हणून तूं म्हाका भुलोवपाक सोदता. अशें आनी ख्रूब कितेंतरी म्हणून तो चलपाक लागलो. आतां हांव कितें करूं आई? आज एक म्हयनो जालो हांव कॉलेजांत वचूं ना"

हें आयकून अनुपाक, मिनेशाचो ख्रूब राग आयलो. तो तसोच घरांतल्यान भायर सरलो आनी मिनेशागेर गेलो. मिनेशाचीं आवय -- बापूय बरीं मनशां आशिल्लीं. अनुपान तांकां सगळी ख्रबर सांगली. तांणी मिनेशाक समजावन ताचें लग्न पुनमालागीं

केलें. तेन्ना पुनमाचे दोळे भरून आयले. ताणें अनुपाकडेन चूक मागली. सोनम अनुपाचें हें मोटेंपण पळोवन खूब खोशी जालें.

थोडयाच दिसांनी अनुपाचो आनी सोनमाचो रिझल्ट लागलो. तीं दोगांय फर्स्ट क्लासांत पास जाल्लीं. सोनम कॉलेजाक वचपाक लागिल्लें आनी अनुप नोकरी सोदपाक भोंवतालो. ताका एकूय जाग्यार सर्वीस मेळनाशिल्ली. मामी ताका सदांच "आयतो गिळटा, काम कांयच करिना" अशें म्हणत रावतालीं. अनुपाक घर सोडून वचचें शें दिसतालें पूण मामान घाल्ल्या सोपुदाक लागून तो रावतालो.

मिनेश सदांच सोर्‍यांभितरच आसतालो. तो रात रात भर घरांत आसनाशिल्लो. पुनमान कितेंय विचारल्यार तो ताका मारतालो. एक दीस मिनेश भायर वतासताना पुनमान ताका आडायलो. वचूं नाका म्हणून सांगलें. ताणें आपल्या जावपाच्या आसा त्या भुरग्याचो सोपूद घालो. मिनेशान तें भुरगें आपलें न्हीं म्हळें. ताणें पुनमाक खोट मारून सकयल उडयलें. पुनमाच्या पोटांत कळ आयली. तरीपूण ताणें दांतांभितर ओठ दामून धरलो आनी मिनेशाले पांय घट्ट धरले. ओठांतल्यान रगत व्हांवतालें. मिनेश पिऊन तर्र जाल्ल्यान ताका वेळेचें भान उरलें ना. ताणें पुनमाक भरभरीत खाटीचेर धुकलून दिलें आनी म्हळें, "हाचेफुडें तूं म्हाका वतना आडयल्यार हांव तुजो जीवच घेतलों. पुनमान ताका सांगलें, हाचेफुडें म्हज्या जिवांत जीव आसा म्हणसर हांव तुका केन्नाय भायर वचपाक दिवचेंना. मिनेशाक सामकी भिरभिरी मारली. ताणें रागाभितर पुनमाचो गळो आंवुळ्ळो. पुनमान एकच व्हडली किळांच मारली. त्या आवाजान सगळें घर हालले. मिनेशाचीं मम्मी – डॅडी धांवत आयलीं. मिनेशाक पळून वचपाक चान्सच मेळ्ळोना. ताच्या डॅडीन ताका पळत म्हणून घट्ट धरिल्लो. पुनम मान वांकडी करून पडिल्लें. मिनेशान ताचो खून केल्लो. मिनेशाचे मम्मीन ताच्या मुस्कटाचेर हात दुखम्हणसर थापटां मारलीं. केसांक धरून विचारलें, "आरे, दळिद्रया, तुका तुज्या भुरग्याचो आनी पुनमाचो खून करून कितें मेळ्ळें? आमी कसलें पाप केल्लें म्हणून देवान तुज्याअसलो भुरगो आमच्या पदरांत घालो." अशें म्हणून ती रडपाक लागली. मिनेशाच्या डॅडीन पोलिसांक फोन केलो. पोलीस आयले आनी तांणीं मिनेशाक बेडयो घालून व्हेलो.

पुनमाचीं आवय, वापूय, भयण आनी अनुप सगळीं जाणां आयिल्लीं. अनुप पुनमाक पळोवंक गेलो ... इतल्यांत हेवटेन अनुपान व्हिस्की पितां पितां एक व्हडली किळांच मारली आनी ग्लास शेवटून दिलो. तें आयकून विट्ठ धांवत आयलो. ताणें अनुपाक पळयलें. अनुप सामको घामान न्हाल्लो. ते बाटलेंतली अर्दी व्हिस्की सोपिल्ली

. विठून विचारलें "सायब किते जालें?" अनुप कांयच उलयना जालो. आपल्याचेर वाटली वी शेवटून मारत म्हणून विठून भीत भीत विचारलें, "सायब, दोन वरां जायत आयलीं, तुमकां जेवण हाडूं? " अनुपान म्हळें, "म्हाका भूक ना. तूं जेवन घे." विठू भायर गेलो.

खऱ्यांनीच अनुपाक आज भूक नाशिल्ली. व्हिस्कीन आपलो प्रभाव दाखोवपाक सुरवात केली. ताच्या दोळ्यांर न्हीद येताली. आड पडिल्लेकडेन ताका वरी न्हीद लागली. सारको पांचाक विठून ताका उठयलो. ताणें विठूक तारटिल्ल्या दोळ्यांनी पळयलो. विठून एका श्वासांत, "सायब, तुमचो फोन..." इतलें म्हळें आनी तो धांवत भायर गेलो. अनुपान फोन घेतलो " हॅलो, कोण उलयता? हांव अनुप." थंयच्यान गोगाच्या भुताचो आवाज आयलो. "हॅलो अनुप, हांव गोगा. आतां किते करपाचें थारायलां तुवें?" अनुपान म्हळें, " आतां हांवें कांयच थारावंकना, तुमकां मागीर रातचें किते तें कळयतां," इतलें म्हणून ताणें फोन वंद केलो.

विठून ताका च्या हाडून दिली. भूक लागिल्ल्यान ताणें थोडेशें खावन घेतलें. आज अनुपाचें मन कित्यांतच लागनाशिल्लें. निमाणें ताणें आपली स्कुटर भायर काडली आनी गार्डनांत वचपाक भायर सरलो. तो एका सोप्यार वचून वसलो. थंय कांय भुरगीं खेळटालीं. ताका ल्हान भुरगीं खूब आवडटालीं. ताच्या मनाक दिसलें, आपलें लग्न जाल्लें जाल्यार म्हाकाय अशींच भुरगीं जातलीं आसलीं. ताणें एक व्हडलो सुस्कार सोडलो. आपल्या पयशांनी त्या सगल्या भुरग्यांक आयस्क्रीम घेवन दिली.

गार्डनांतलीं फुलां पळोवन ताची तकली निवळत आशिल्ली. इतल्यांत ताची नदर एका जोडप्याचेर पडली. त्या जोडप्याभितरल्या दादल्यान आपलो काळोकिट्ट हात ते बायलेच्या गोऱ्या कमराचेर दवरिल्लो. दुसऱ्या हातान ताणें तिका घट्ट वेंग मारिल्ली. ताका दिसताले जावंये, आपले हे सुंदर वायलेक कोणूय उखलून व्हरत म्हुणून. ती वायल लेगीत लज सोडून थंय भुरगीं आसात तें पळयनासतना ताका सामकी जळू कशी चिकटल्ली. अनुपाची नदर ते वायलेच्या तोंडाचेर गेली. ताका तिच्याजाग्यार सोनमाचो मुखावळो दिसलो. ताच्या आंगार एक सुखद आनंदाचो कांटो फुललो. तो आतां मनांतल्यान सोनमाम्हऱ्यांत पाविल्लो.

जेन्ना पूनम ताका सोडून गेल्लें, ताणें हे जग सोडिल्लें तेन्ना सावन मामी ताका अशे नजरेन पळयताली की जणू काय पूनमाक मिनेशान न्हय तर अनुपानच मारलां. ती म्हणटाली, " अनुपान पुनमाचें लग्न मिनेशाकडेन केल्ल्यानच तें मेलें." पूण सोनम

आवयक ख्रूब समजायतालें, एक वर्स जालें तरी अनुपाक नोकरी मेळूंनाशिल्ली . मामीन, मामाक सांगून ताका पयशे दिवपाचें बंद केल्लें . ज्या दिसा अनुप आनी सोनुच्या मोगाची खबर तिका कळ्ळी तेन्ना तिज्या आंगाक सामको उजो पेटलो . तिणें त्या दिसा मामामुखार अनुपाक नाना तरेचीं उतरां उलयलीं . पयलीं म्हजे व्हडले चलयेक खालें आनी आतां सोनमाच्या फाटल्यान लागला . सामको लज नाशिल्लो . जोडपाची अक्कल ना आनी मोग करता, मोगाचीं सपनां पळयता . जल्म दितले आवयक खाली आनी आतां मामाच्या संवसाराची वाट लायता . आतांच्या आतां तूं घरांतल्यान भायर सर . आनी जेमेरेन जोडपाक लागना, तेमेरेन ह्या घरांत पाय दवरूं नाका ." अशें म्हणून तिणें खुंट्याळ्याक लायिल्लो मामालो पटो काडलो आनी ती त्या पट्यान अनुपाक मारपाक लागली . अनुपान तिका परतें उतर दिलें ना . तो मार खायत रावलो . कॉलेजांतल्यान सोनम आयिल्लें . ताणें तें पळयलें . ताका आवयचो खूब राग आयलो . ताणें धांवत वचून आवयच्या हातांतलो पटो काडलो . आनी बापयक म्हळें "बाबा, तुमी सुद्दां हें सगळें पळोवन बोगी कित्याक रावल्यात?" मामाकय आज संताप आयिल्लो . ताणें म्हळें, "मामा जालो म्हणून कितें जालें ? हाणें मामाले चलयेबरोबर भोंवप? हाका धड सर्वीस ना, रावपाक घर ना आनी तूं हाचेकडेन लग्न जातलें सोनम? ना, हांव ताका आतांच घरांतलो भायर धांवडायतां ." सोनमान बापायक विचारलें, "बाबा, आतां तुकां भयणीच्या उतरांची याद जायना? बाकी खरेंच तें . जगाची रीतच ती, निमणेकडेन माकडिणीन सुद्दां आपल्या नाकातोंडांत उदक पावतकीर पिलाक पांयांपोंदा घाल्लें . थंय तुमी कितें करतले? चल अनुप , आमकां आनी हांगा रावपाचें ना . आमी या हांगासल्ल्यान ." पूण मामीन ताका वचपाक दिलेंना . हाताक धरून ओडीत व्हरत कुडींत बंद केलें . सोनम हुंडक्या – हुंडक्यांनी रडटालें . अनुपाच्यान मामालीं उतरां कशींच सोंसपाक जायना जालीं . आजमेरेन तो मामाक लागून घरांत राविल्लो . ताणें मामाक म्हळें, " मामा, हांव खूब जोडटलों आनी सोनमाकडेनं लग्न जावन दाखयतलों ." इतलें म्हणून तो घराभायर सरलो .

ताचेलागीं वीख खातलो म्हळ्यार लेगीत पयशे नाशिल्ले . एकेवटेन मारान ताची फाट सामकी दुखताली . चलत रावन पांय दुखिल्ल्यान तो एका पिंपळाच्या पेडार वचून बसलो . त्या पेडाक तेकुनच एक बांय आशिल्ली . केन्ना केन्ना अनुप सोनमाक घेवन त्या पेडार बसतालो . तेन्ना सोनम म्हणटालें, "म्हजें लग्न तुजेकडेन जालें ना जाल्यार हांव हे बांयंत जीव दितलें ." हीं उतरां अनुपाक आतां याद जालीं . ते घुंवळेभितर तो थंयच आड पडलो . ताका न्हीद लागली . खूब वेळान ताका कसलो आवाज आयलो . दोळे

उगडून पळयन जाल्यार . बांयचेकडेन सोनम उबें आशिल्लें . तो धांवत ताचेल्यागीं गेलो आनी ताणें म्हळें, "सोनू , तूं आनी हांगा"! ताका पळोवन सोनमाक खूब खोशी जाली . ताणें म्हळें " अनु, म्हाका जेवपाखातीर दार उगडतगीर, रातचें ल्हवूच हांव म्हजी पैशांची पर्स आनी तुजीं सर्टीफिकेटस् घेवन भायर सरलें . तूं म्हाका खंयच मेळ्ळो ना , तेन्ना म्हाका ह्या जिवाचो वीट आयलो . म्हजे दिर्दाभशेन ह्या त्रासांतल्यान सुट्टलें अशें हांवें थारायलें आनी तुका सांगिल्लेप्रमाण हे वांयकडेन जीव दिवपाक आयिल्लें . पूण आतां तूं म्हाका मेळ्ळो . चल, आमी , खंय तरी दुसरेकडेन या ." तें आयकून अनुपाचे दोळे भरून आयले . ताणें म्हळें, "ना सोनी, हांव तुका पळोवन व्हरून तुजेकडेन लग्न जावचों ना . हांव खूब कमयतलों . आनी मामा मामीच्या आशिर्वादान तुजेलागीं लग्न जातलों . आतां तूं घरा चल . मामी तुजी वाट पळयतली ." तरीलेगीत सोनम उठलेंना . मागीर अनुपान म्हळें "सोनू, तूं जर म्हजेर खरो मोग करता तर आतां घरा चल . हांव तुका ह्या चंद्रिमा मुखार वचन दितां, हांव तुजेशिवाय आनी खंयचेय चलयेकडेन लग्न जावचों ना ." अशें म्हणून ताणें सोनमाचे दोळे पुसले . सोनमान म्हळें, " फक्त ह्या तुज्या मोगाच्या सोपुदाक लागूनच हांव घरा वतां . पूण म्हजी याद म्हूण ही पर्स तूं व्हर . तातूंत थोडे पयशे आसात . तुका उपेगाक पडटले ." सोनमान अशें म्हणतगीर अनुपान ताका घट्ट वेंग मारली आनी म्हळें, " पळय सोनी, धरतरेवयली आमची दोगांचीय ताटातूट पळोवन चंद्रीम लेगीत निर्शेल्लेवरी जाला पळय . सोनू, म्हाका केन्नाच विसरनाका . हांव रोकडोच तुजेकडेन लग्न जातलों ." मागीर अनुपान ताका घरा पावयलें . ताचीं पावलां जड जालीं . सोनून घरांत भितर सरतना "वरें अनु, येतां हांव म्हणलें ." आतां अनुपाक तें गार्डनांत येवन सोनमान म्हळें काय दिसलें . ताणें हेवटेन तेवटेन पळयलें . तें जोडपें अजुनय थंयच वशिल्लें . चंद्रीम तांकां पळोवन हांसता अशें अनुपाक दिसलें . ताका तांचो दुस्वास दिसपाक लागलो . ताणें घड्याळीचेर पळयलें . रातचीं आठ वरां जाल्लीं . तो थंयच्यान उठून घरा आयलो .

जेवन जातगीर विठून अनुपाक आपल्याक आयिल्लें पत्र दाखयलें . तातूंत ताची वायल वरी ना अशें वरयिल्लें . विठून म्हळें, " सायब, हांव फाल्यां वायलेक पळोवंक वतलों तेन्ना म्हाका थोडे पयशे जाय ." अनुपान ताका वरें म्हळें आनी तो तिजोरे म्हऱ्यांत गेलो . तिजोरेंत दवरिल्ली सोनमाची पर्स ताका दिसली . ताणें अजूनमेरेन ती सांवाळून दवरिल्ली . ताणें विठूक पयशे दिले . विठू वतगीर ताका परती सोनमाची याद आयली . . .

जेन्ना ताणें सोनमाचो निरोप घेतिल्लो तेन्ना ताचें मन भितरल्यान ख्रूब रडटालें. ताणें दिल्ली पर्स आनी सर्टीफिकेट्स सांवाळत तो चलत गविल्लो. चलत चलत तो रेल्वे स्टेशनार पावलो. ताका खूब पुरो जाल्लें. तो थंयच एका सोप्यार आड पडलो. एकाच दिसान तो वेवारशी जाल्लो.

दुसऱ्या दिसा तो दुसऱ्या शारांत गेलो आनी थंय नोकरी सोदपाक लागलो. खंयच्याच ऑफिसांनी नोकरी मेळना जातकीर मागीर दुकानांनी आपल्याक कितेंय काम मेळत काय म्हणून विचारपाक लागलो. दुकानदारांनी ताका हिशोव सोडूच पूण पुडयो बांदपाचें लेगीत काम दिलेंना. फावर आसलेवगर कसलेंच काम जावचेंना हें ताका कळून आयिल्लें. रस्त्यार बशिल्ल्या बुटपॉलिश करपी भुरग्यांक पळोवन ताका दिसतालें, हांच्या बरोबर रावन जर कितेंय काम करपाक मेळिल्लें जाल्यार कितलें बरें जातलें आशिल्लें. पूण तो धंदो करतलो म्हळ्यार लेगीत ताचेकडेन पयशे नाशिल्ले. ल्हवू ल्हवू ताचें एकवेळचें जेवण बंद जावन उपाशी रावपाची पाळी आयली. रेल्वेस्टेशनाच्या सोप्याचेर तो न्हिदतालो. खूब दीस न्हालो नाशिल्ल्यान ताका न्हिदय पडनाशिल्ली. ताचो भेस पळयल्यार हो बी.कॉम जाल्लो भुरगो सो दिसनाशिल्लो.

एके राती खूब गरम जाता म्हणून अनुप भायर आयिल्लो. स्टेशनाक तेंकूनच आशिल्ले बिल्डींगेंतल्यान एकटो पायपाक धरून देंवता अशें ताका दिसलें. त्या चोराक पळोवन अनुपान ताका पांयांक धरून भरभरीत ओडलो. तो सकल पडतकीर ताच्या नाकार एक मूठ मारली. त्या मनशाच्या नाकांतल्यान रगत व्हांवपाक लागलें. ताची शक्त पळोवन त्या मनशान अनुपाची चूक मागली. आनी म्हळें. "हांव तुका हे सगळे पयशे दितां पूण म्हाका सोड." पयशे म्हणतकीर अनुपाच्या तोंडाक उदोक सुटलें. ताणें बेगींबेगीन ते पयशे घेतले आनी म्हळें "तुमी असलो धंदो करून पयशे मेळयतात जाल्यार तूं म्हाकाय तुजेबरोबर व्हर" त्या मनशाकय असलोच तरनाटो जाय आशिल्लो. ताणें ताका आपलेबरोबर व्हेलो.

दुसऱ्या दिसा खावन-पिवून, न्हावन जातकीर त्या मनशान ताका ते ख्रोपींत व्हेलो. थंय ताचे सगळे इश्ट आशिल्ले. तांणी हाका तापोवन काडलो. "आरे दाऊद, ह्या भुरग्याक तुवें हांगा कित्याक हाडला? हाणें पोलिसांक मेळून आमचो पत्तो सांगल्यार बॉस तुका दवरचो ना." दाऊदान म्हळें. "हें पळयात, म्हाका सगळें ख्रबर आसा. आरे, हांव बॉसालो उजवो हात कसो आनी ताका फटयतलो अशें दिसता तुमकां? हांवें ह्या भुरग्याक सारको पारखिला. हाच एकेंच मुटीन हांव खुशाल जालो. हांव हाका हांगा

कित्याक हाडला जाणा, येतना हांवें हाची सगळी खबर आयकली. आनी थोडेच दीस जर हो थंय गविल्लो जाल्यार - हाका हमाली करची पडटाशिल्ली . इतलो शिकिल्लो भुरगो आनी हमाली करप म्हळ्यार कितली लज. म्हणून ताका एक मोटो मनीस करचेंशें म्हाका दिसलें. पूण सध्याक म्हाका बॉसाक फोन करून हाचेविशीं विचारपाक जाय. जर ताणें हाका दवर म्हळ्यारच हांव दवरतलों." अशें सांगून दाऊद अनुपाक घेवन घरा आयलो. ताणें बॉसाक फोन केलो. गोगान ताका दवरूनच घे अशें दाऊदाक सांगलें.

जालें, दुसऱ्या दिसाच्यान अनुप "गोगागेंगी" चो एक मेंबर जालो. आपल्या साथिदाराबरोवर वचून गिरेस्तांच्या घराचेर धाड घालून, घरांतलें सगळें लुटून व्हरतालो. बँक लुटपाक तर ते सामके मुरिल्ले. त्या शारांतले लोक गोगागेंग म्हळ्यार सामके थरथरताले. पेपराचेर दिसानदीस 'गोगागेंग' चे नांव आसतालेंच. पोलीस कांयच करूक शकनाशिल्ले.

अनुप सत्याचो रस्तो सोडून चोरयेच्या मार्गान वतालो. केन्ना केन्नाय आपूण कितें करता अशें ताका चिंतून येतालें. पूण तरी ताका दिसतालें, आपूण त्या चिखलांत राविल्लों जाल्यार आपल्याक हो पयशांचो स्वर्ग दिसचो नाशिल्लो. आतां ताचेकडेन सगळें आशिल्लें, बॉसान ताका कांयच फाल्त केलें ना. सदांच ताका सोनमाची याद जाताली. ताका मेळपाक वचप म्हळ्यार अनुपाक लज दिसताली. ताचें मन एकेवटेन ताका खातालें. आपूण एक गुन्यांवकारी, आपलेकडेन सोनू कशें लग्न जातलें? आपूण गिरेस्त जालों खरो पूण त्या गिरेस्तपणाक कांयच अर्थ ना.

तीन वर्सां अशींच पासार जालीं. एक दीस मनाचो निश्चय करून तो मामागेर वचपाक भायर सरलो. फियाटींत बसून तो खूब वर्सांनी सोनीक मेळणक वतालो. तो मामाच्या घराकडेन पावलो. गाडयेंतल्यान देंवन भितर गेलो. दार वाजयतकीर एक अनवळखी मनशान दार काडलें. ताणें म्हळें , "तुमी कोणाक मेळूंक आयल्यात?" अनुपान म्हळें, "दोंवळोवाव बुडकुलो हांगाच रावतालो न्हय? हांव ताकाच मेळूंक आयिल्लों." हें आयकनाफुडें त्या मनशान म्हळें "तुमकां खबर ना, दोंवळेवावान गळ्याक फांस लावन जीव दिल्यार आयज तीन वर्सां जालीं."

"कितें . . ." अशें म्हणून अनुप एका कदेलाचेर धप्प करून बसलो. तो मनीस सांगतालो, "दोंवळेवावान खंय आपले भयणीच्या चल्याक सांबाळिल्लो. ताणें त्या चल्याक शिकयलो, सवरलो पूण तो मागीर ताचे चलयेकडेन मोग करपाक लागलो खंय.

म्हणून त्या चल्याक ताणें धांवडायलो. थोड्याच दिसांनी आपणें भयर्णीक दिल
उतर पाळलें ना हाची ताका खंत भोगताली. तो मागीर भाच्याक मोदपाक भोंवपा
लागलो. मरतना ताचे भयर्णीन ताका आपल्या चल्याक ताच्या पायांर उबो क
असो सोपूद घाल्लो. घर सोडून गेल्लो तो चलो ताका खंयच मेळ्ळोना. आप
ताका धांवडायलो म्हणून ताका खूब पश्चताप जालो. आनी म्हयन्याभितर ता
गळ्याक फांस लावन जीव दिलो."

अनुपान हें सगळें आयकलें. ताच्या दोळ्यांमुखार मोगाळ मामाचो मुखावळ
उबो रावलो. सदांच मार्मीन कितेंय म्हळ्यार अनुपावटेन येवपी मामाची ताका या
जाली. ताच्या दोळ्यांत दुकां भरलीं. ताणें त्या मनशाक विचारलें, "दोंवळेवावा
बायलेचें आनी चलयेचें कितें जालें"? ताणें म्हळें "दोन वर्सांमेरेन ते बायले
आपलो भाचो येतलो काय म्हूण वाट पळयली. निमाणें आपले चलयेचें लग
केलें. ती चली लग्नाक तयार नाशिल्ली. आवयन तिका तूं लग्न जायना त
आपूण मरतली असो सोपूद घालून तिचें लग्न केलें. तिका लग्न करतकीर, दोंवळ्याचे
बायलेन हें घर आमकां विकलें आनी कुळारा रावपाक गेली. थंय ती वरी ना जाली
आनी थोड्याच दिसांनी तीय दोंवळेवावासरीं गेली."

सोनमाचें लग्न जालें हें आयकून अनुपाक इतलो शाक वसलो की ताच्यान
थंय रावूं नज जालें. सगळें आयकून तो उठलो. त्या मनशान ताका विचारलें "तुमी
ताचे कोण?" "हांव तांचो कोण न्हय, वेश्टोच खबर घेवपाक आयिल्लों हांव."
अशें सांगून तो मनीस आपले भिजिल्ले दोळे पळयत म्हणून अनुप वेगींवेगीन येवन
गाडयेंत वसलो. घराकडेन पावतकीर ताच्या मनाचो बांद फुटलो. कपडे काडिनासतना
ताणें खाटीचेर घालून घेतलें आनी तो भितरल्या भितर रडपाक लागलो.

सोनम आतां दुसऱ्याचें जाल्लें. चंद्रिमामुखार घेतिल्ल्या वचनाची ताका याद
जाली. सोनम ताका सदांच म्हणटालें. हांव तुका केन्नाच विसरचेंना म्हुणून पूण तेंच
सोनम आयज सगळें विसरलें. ताणेंय म्हणून कितें करप ? तीन वर्सां जालीं तरी हांव
येवूं ना म्हणून ताणेंय आशा सांडली दिसता, म्हणून तें लग्न जालें आसतलें. अशेंच
अनुप चित्तालो. अनुपान त्या मनश्याकडेन सोनमाचो पत्तो लेगीत घेतलो ना.
कित्याक तर ताका सोनीच्या संवसारांत वीख कालोवपाचें नाशिल्लें. अनुपान
मनांत विचार केलो. जालें तें बरें जालें. म्हजी खबर आयकून सोनू म्हज्या
असल्या चांगकडेन लग्न जावचेंच नाशिल्लें. आनी आज तर एकदम खून...

खून म्हणतकीर तो आपल्या विचारांचे तंद्रींतल्यान जाग्यार आयलो. ताणें ती पर्स परत तिजोरेंत दवरली आनी मनांत कितें तरी विचार करीत गेलो. कदेलार बसून मेजार पॅड दवरून बरोवपाक लागलो. वऱ्या वेळान विठू दूद घेवन आयलो. ग्लास अनुपाम्हऱ्यांत दवरून विठू भायर गेलो. अनुप विठून हाडिल्लें दूद पिलो. ताका एकदम गळ्याकडेंन जळजळपाक लागलें तरी लेगीत ताणें बोवाळ केलो ना. विठूक आफयलोना. बोगीच वचून ख्वार्टीर न्हिदलो. मनांत म्हळें, सोनू ना तें ना निदान म्हजें पुनम तरी म्हाका मेळटलें.

हेवटेन विठूय आपले कुडींत वचून न्हिदलो. विठूक न्हिदच येनाशिल्ली. ताका आयज सायबाचें तोंड सामकें देंविल्लेभशेन दिसतालें. सायबाक ताणें केन्नाच खोशी आशिल्लो पळोवंक नाशिल्लो. सदांच ताचो सायब दुखेस्त आसतालो. पूण आज ताच्यान सायबाचें तोंड पळोवंक नज जालें. कितें जालां काय विचारपाक विठू भितालो. फोनाची रींग वाजिल्ल्यान विठू उठलो. कोण उलयता काय म्हणून विचारलें. तेवटेंतल्यान एका दादल्याचो आवाज आयकूं आयलो. तो म्हणटालो की ताका अनुपाक मेळपाक जाय म्हणून. पूण विठून बंडल मारलें, सायब आतांच भायर सरून कोणाकतरी मेळपाक गेला म्हणून. कित्याक तर ताचो पुरो जाल्लो सायब आतांच न्हिदिल्लो.

दुसरो दीस उजवाडलो. विठू उठलो. ताणें च्या केली, आनी तो अनुपाच्या रुमांत गेलो. ताणें अनुपाक हालयलो. पूण अनुप कसोच दोळे उगडना जालो. विठूक दुबाव मारलो. ताका अनुपाचें आंग थंडगार लागलें. ताणें ताची नाडी पळयली. ताका एकदम शॉक बसलो. ताजो सायब ताका सोडून गेल्लो. अनुपाच्या तोंडांतल्यान फेस येतालो. विठून भिजिल्ल्या आवाजांतच पोलिसांक फोन केलो. पोलीस आयले. तांणी अनुपाच्या रूमाची तपासणी केली. मेजार ताका एक चीट मेळ्ळी. ती तांणें उगडून वाचली. तातूंत बरयिल्लें . . .

मोगाळ विठू . . .

म्हाका खबर आसा, तुका म्हज्या मरणाचें गुपीत कशेंच कळचेंना. जेन्ना तूं म्हाका सकाळी च्या दिवपाक येतलो, तेन्ना तुज्या ह्या अभागी सायबाच्या काळजांतली दिवलेची वात पालवल्ली आसतली. हय, हांवें गर्ती तुवें हाडिल्ल्या दुदांत तूं बतगीर बीख घालें आनी हांव तें पिलों. कित्याक तर म्हजी गत बापूय दाखय ना तर श्राध्द बाड अशी जाल्ली.

वॉसान सांगिल्लें काम म्हज्यान कशेंच करपाक जावचेनाशिल्लें आनी तें काम केलें ना जाल्यार बॉस म्हजेकडेन जें कितें आसा तें व्हरून म्हका रस्त्यार हाडटलो आशिल्लो . म्हाका सर्वीस लेगीत नाशिल्ली . मागीर हांव ह्या व्हडल्या संवसारांत रावून कितें करतलो आशिल्लों .

हांव मेलों तें पळोवन तुका कांयच येवजुचेंना आनी तूं रोकडोच पोलिसांक फोन करतलो . पूण विठू , हांवें अशें कित्याक केलें तें खबर आसा तुका? आजमेरेन हांवें फकत दरोडे घाल्ले . पूण केन्नाच कोणाचो खून केला नाशिल्लो . विठू, विठू, तुका तरी खबर आसतलेंच, हांव कितल्या मोव काळजाचो तो .

विठू, पोलिसांलागीं म्हजी एकच मागणी आसा . ती म्हळ्यार, तांणी हांवें हे चिटयेचे दुसरेवटेन काडिल्ल्या नकाशाचेर पळोवन त्या रानांतले खोपींत वचून गोगाक आनी ताज्या गेंगीक धरचें . ते थंय बारा वरांचेर येतले . तांकां कळनासतना तांणी लिपून वसचें आनी तांका घेराव घालून तांकां धरचें . ना जाल्यार हांव आयलोंना तें पळोवन रातचो वचून धनराज शेटीलो खून करतलो तो गोगा . हाचो तरी खून करचेपयलीं ताका धरात अशें पोलिसांक सांग . शेटीक वांचयात .

विठू, म्हाका खबर आसा, फाल्यां पेपराचेर "गोगागेंग " धरली ही वातमी येतली . तातूंत म्हजेंय नांव आसतलें . पूण ती वातमी वाचून ह्या सगळ्या जगाभितर म्हज्या एका मोगाच्या मनशाक खूब खोशी जातली . कित्याक जाणा फकत ताकाच लागून हांवें शेटीचो खून करपावांट्याचो म्हजोच खून केलो, आनी दोळ्यांमुखार दिसतल्या ह्या काळ्याकुट्ट अशा संवसाराचो निरोप घेतलो . म्हज्या मोगाची आमोरी जाल्लीच, आतां म्हज्या जिवनाचीय आमोरी जायत आयल्या .

वरें, वतां हांव,

संवसारातलीं सगलीं दुखां
वांट्यांक आयिल्लो तुजो
दुखेस्त सायव,
*अनुप*



# 2. दिव्य

मांगिशान सांगिल्ली खबर आयकून वृंदाचो हांसो कसोच थांबना जालो. तेन्ना मांगिशान ताका ओगी राव म्हणून तापयलें. तें हांसत हांसत म्हणपाक लागलें,"आरे पिशा,तुजो असल्या ज्योतिश्याचेर विश्वास आसा? कित्यावेल्यान ताणें तुका, तुगेर भुरग्यांच जांवचींना अशें सांगलें?"मांगिशान सांगलें,"वृंदा,हें पळय,तूं अशीं त्या ज्योतिशाचीं फकाणां करूं नाका. ताणें म्हजें नक्षत्र पळोवन हें भविश्य सांगलां. खरें म्हळयार,म्हजोय ज्योतिशशास्त्राचेर विश्वास ना,पूण हो ज्योतिशी खूब गिन्यानी आनी हाचें भविश्य खरें जाताच हें हांव आयकून जाणां."

वृंदान म्हळें. "मांगि॰. तूं कांयच भिवूं नाका पळोवया. आमगेर वर्गं डझनभर भुरग्यां जातलीं आनी तुका तीं नाकापुरे करून सोडटलीं. पूण समज, जालींच नात भुरग्यां जाल्यार कितें हरकत आसा? जगांत कितल्याश्याच जोडप्यांक भुरग्यांच नात म्हणून तीं पोसकीं घेनात? तशेंच आमीय घेवुया."

"पूण वृंदा, आतां तूं अशें म्हणटा. मागीर तुकाच दिसतलें घरांत एकय भुरगें ना जाल्यार घर कितलें खावपाक येता तें; दुसऱ्याल्या भुरग्याक आपलें करप कितलें कठीण आसता तें. बरें, तें सगळें सोड, हांव आवय – बापायलो एकलोच चलो. तातूंत आनी तांकां पसंत ना असले चलयेचेर मोग करतां, जातीक लागून तांचो विरोध. फाल्यां आमी तांचो विरोध मोडूनय लग्न जालीं आनी आमगेर भुरग्यां जालीं नात जाल्यार तेन्ना तीं तुजीच चूक करतलीं. हांवें कितलेंय म्हजेंच भविश्य तशें आशिल्लें अशें सांगुनय तांकां पटचेंना."

"मागीर आमी कितें करचें अशें तुका दिसता?" वृंदान म्हळें. मांगिशान ताका सांगलें, "हें पळय, हाचेर आमी कितेंय तरी विचार करूया. आनीक दोन तीन दिसांनी कितें तें थारावया. आयचो दीस ह्या खबऱ्यांनीच पिड्ड्यार जालो. चल आमी स्वराज्यांत वचून कोल्ड कॉफी पिवया." दोगांय कोल्ड कॉफी चे घोट घेत फुडाराच्यो खबरी करपाक लागलीं.

दुसऱ्या दिसा ऑफिसाक वतना वृंदाक तागेली इश्टीण रमा मेळ्ळें. रमाचें फाटल्याच वर्सा लग्न जाल्लें.

ताचे हळडुवे साडयेचेर काळो मणी उठून दिसतालो. स म्हयन्यांचें ताचें पोट

मातशें मोठेंच दिसतालें . ताचें पोट पळोवन वृंदाक काल मांगिशाकडेन उलयिल्ल्यो गजाली याद जाल्यो . ताणें तें सगळें रमाक सांगलें . कितेंय घडिल्लें गेरवडेंच वृंदा रमाक सांगतालें आनी रमाय आपल्यो खबरो वृंदाक सांगतालें .

वृंदाली खबर आयकून रमान ताका पिशांत काडलें आनी म्हळें, "आगो, तूं इतलें शिकिल्लें सवरिल्लें भुरगें आनी असल्या भविश्याचेर विश्वास दवरता?"

"ना गो रमा, म्हजो विश्वास ना पूण तो ज्योतिर्शी सामको नामनेचो खंय . ताचें भविश्य खरें जाताच ."

"आगो पूण वृंदा, मांगिशाचे पत्रिकेचेर जल्माचो वेळ चुकून एखादें भविश्य फटय जावंक शकता ." रमान म्हळें .

"तें खरें गो रमा, पूण मांगिशाक भुरग्यांची कितली आवड जाणा? म्हजी तर विचार करून करून तकली फुटपाकडेन पावली ." वृंदा उलयलें .

रमान म्हळें, "वृंदा, तूं असले नाकाशिल्ले विचार करूंनाका पळोवया . फाल्यां झगडीं जालींच जाल्यार तुज्यान ताचेंच भविश्य वायट आशिल्लें अशें म्हणूंक येता ."

वृंदाची नदर परत रमाच्या पोटाचेर गेली . ताणें म्हळें, "हांवें पळय म्हजेंच पुराण लायलें . तुजी खबर लेगीत घेतली ना . तूं काल दोतोरागेर वचपाचें आशिल्लें न्हीं? मागीर कितली तारीक दिल्या दोतोरान?"

हे विचारतकीर रमाचें तोंड वाविल्लेभशेन दिसलें . वृंदाक रमान म्हळें, "दोतोर म्हणपाक लागलो गर्भाचें आनी नभाचें कांयच सांगूंक जायना . तरी पूण आमी अंदाजान तारीक दितात . म्हजी केस खंय खूबच गुंतागुंतीची आसा . म्हजी डिलीवरी वेगीनय जावपाक शकता . तेन्ना काळजी घेवंक सांगला . म्हाका हालीं खूबच त्रास जातात गो . सामकें सोंसूंक जायना ."

वृंदान म्हळें, "मागीर लीव्ह घे मुगो . मात्सो रेस्ट घे ."

"ना गो वृंदा," रमान म्हळें, "आतां लिव घेतल्यार फाल्यां वाळंत जातकीर चड दीस लिव घेवपाक मेळचीना ." अशे तरेन खबरी करीत तीं ऑफिसांत पावलीं .

सांजवेळच्या सदांच्या वेळार तांच्या जाग्यार वृंदा मांगिशाली वाट पळयत बसलें . पूण त्या दिसा मांगिश आयलो ना . दुसऱ्या दिसा ना तिसऱ्याय दिसा ना . म्हणटकीर तें सामकें निर्शेलें . चवथ्या दिसा ताणें मांगिशाल्या ऑफिसांत फोन केलो . मांगिश कितलो

वेळ ओगीच रावलो. मागीर ताणें म्हळें, "आज तुका हांव कसोय करून मेळटांच आनी हांवें कितें निर्णय घेतला तोय तुका सांगतां."

वृंदान म्हळें, "निर्णय? कसलो निर्णय?"

"तो तुका हांव सांजवेळां मेळटकीरच सांगतां." अशें म्हणून मांगिशान फोन दवरलो.

ह्या चार दिसांभितर वृंदाक मांगिश दिसलोना म्हणून चुकिल्ले चुकिल्ले भशेन जातालें. केन्ना काय मांगिशाक पळयन शें ताका जाल्लें. पूण आज ताका मांगिश वेगळोच दिसलो. ताचें खाड वोटभर वाडिल्लें, केंस वाडिल्ले, सदांभशेन कपडे निवळ आनी सेंट मारिल्ले नाशिल्ले. म्हज्यांत येवन वसतनाच वस्स करून घामसाण आयली.

वृंदान म्हळें, "मांगिश, तुवें ही जिवाची अशी दशा कित्याक करून घेतल्या रे? तें खाडय काडपाक वेळ मेळ्ळोना?"

"वृंदा, हे चार दीस हांवें कसले मनस्थितींत काडल्यात तें म्हाकाच खबर. विचार करून करून हांवें मनांत एक निर्णय घेतलो. तोच हांव तुका सांगपाक आयलां."

"बरें, सांग तुजो निर्णय." वृंदान म्हळें.

मांगिश सांगूंक लागलो, "आयक, आमच्या लग्नाक म्हज्या घरच्या लोकांचो विरोध आसा. म्हणटकीर ताचोच फायदो हांवें घेवपाचो थारायला. हांव तीं सांगतात ते चलयेकडेन लग्न जातां." वृंदान अजापान ताका पळयलो आनी म्हळें, "मांगिश, हें कितें आयकतां हांव? तुज्यान हें उलोवपाक तरी कशें जालें? म्हजो तुवें मातूय विचार केलो ना?"

मांगिशान ताका थांवयत म्हळें, "आगो वृंदा, पयलींच कित्याक उलयता? आयक मुगो फुडें कितें सांगता तें. तर ते चलयेकडेन हांव लग्न जातलों. म्हज्या भविश्यांतलें हांव घरांत कांयच सांगचोंना. आमकां भुरगीं जावचींनात. तेन्ना हांव म्हज्या मम्मा-पप्पाक सांगूंक शकतलों की तुमचें आयकून हांव हे चलयेकडेन लग्न जालों पूण आमचो वंश हाच्यान चलोवपाक जालो ना, तेन्ना ताका घटस्फोट दिवन हांव वृंदाकडेन दुसरें लग्न जातां. ह्या वेळार तरी तुमी विरोध करूंनाकात."

वृंदान ताका म्हळें, " मांगिश, तूं हें कितें उलयता तें तुका तरी कळटा? अशें करून तूं ते चलयेचेर अन्याय करता शें दिसना तुका?"

'पूण वृंदा म्हजीं मम्मा-पप्पा आमच्या लग्नाक विरोध करतात तो आमचेर अन्याय सो दिसना तुका?"

"वरें तें सोड". वृंदान म्हळें, " लग्न जावन तुजें भविश्य फट जावन ते चलयेव तुजेपसून भुरगें जालें जाल्यार कितें करतलो तूं?"

"ना वृंदा, म्हजें हें भविश्य फट जावंकच शकना. आनी म्हजो तुजेर मोग आसतना हांव ताचे म्हर्‍यांत वचत शें दिसता तुका?"

"कोण जाणा?" वृंदान म्हळें. "एखाद्र्या तसल्याच कसल्याय प्रसंगाक लागून तुमी एकामेकां म्हर्‍यांत येत जाल्यार? ना! मांगिश, ना, हें म्हज्यान कशेंच सोसूंक जावचे ना. म्हजो मोगी दुसरे चलयेकडेन लग्न जातलो, हें म्हज्यान आयकूंक लेगीत जायना. "अशें म्हणत तें हुंडक्या हुंडक्यांनी रडूंक लागलें.

मांगिशान ताका म्हर्‍यांत घेवन समजायलें, "वृंदा, हें पळय, अशें रडूं नाका. आमच्या सुखाखातीरच हांव हें करता न्हीं? तुजो म्हजेर विश्वास ना?'

"आसा रे. पूण म्हजोच म्हजेर विश्वास ना. कितें करचें तें कांयच समजना." दोळे पुसत वृंदान म्हळें.

"वृंदा, तूंच हाचेर विचार करून पळय. तुकाय म्हजें म्हणणें पट्टलें."

"वरें, तूं तुका जाय तशें कर. पूण म्हाका मात विसरनाका."

"ना वृंदा ना. हांव तुका कसो विसरतलों? तुजेखातीरच तर हांव हें सगळें करतां. पूण एक. आमी आयच्यान एकामेकांक मेळप ना. कित्याक जाणा, हांव सदद्दां वेळान येतां हाचें कारण घरांत खबर आसा कीं हांव तुका मेळूनच येतां म्हणून. तेन्ना तांचें सांगणेप्रमाण करतलों जाल्यार. तांकां आमचो संशय येवपाक जायना. आमी एकामेकांक फोनय करप ना. कित्याक जाणा? फोनाचेर उलयतकीर आमकां मेळचेंशें दिसतलें." मांगिशान सांगलें.

वृंदान दुकां भरिल्ल्या दोळ्यांनी म्हळें. "तुज्यान रावपाक जातलें म्हाका मेळनासतना?"

"ना. म्हज्यान तुका मेळ्ळेशिवाय रावपाक जायना. पूण आमच्या मोगाखातीर आमकां हो त्याग करपाक जाय. कित्याक जाणा. म्हज्या मम्मा-पप्पाचो विरोध पत्करून आमी वेगळीं रावपाक शकनात." मांगिशान म्हळें.

"तुका उलोवपाक कितें जालां त्याग करुंया म्हण? दुसरी चली मेळटकीर तुका ह्जी याद लेगीत जावची ना." वृंदान म्हळें.

"वृंदा, अशें म्हणूं नाका तुका हांव वचन दितां, लग्न जावन लेगीत हांव ब्रम्हचारीच ावतलों."

हीं मांगिशालीं उतरां आयकून वृंदान ताका घट्ट वेंग मारली. ताणें परत म्हळें 'पूण वृंदा, तूं मात म्हजी वाट पळयतलें मुगो?"

"मांगिश, हांवें तुजेशिवाय आनीक कोणाचोच विचार केलो ना आनी करचेंय ा. सदांच तूं सांगता तशेंच वागलां, आतांय तशेंच वागतलें." अशें म्हणून फाट परतून ों चलूंक लागलें. मांगिशान ताका आडायलेंना. तो जड पावलांनी आपल्या घरा गेलो.

घरांत पावतकीर आवयक पळोवन तिका वेंग मारून वृंदा रडपाक लागलें. आवयक कांयच कळ्ळेंना. तिणें विचारलें, "वृंदा, कितें जालें गो? मांगिशाकडेन झगडलें काय कितें गो?" वृंदाचे आवयक ग्वबर आशिल्लें की वृंदाचो मांगिशाचेर मोग आसा आनी ताच्या घरचीं जातीक लागून विरोध करतात म्हणून.

वृंदान आवयक घडिल्ली सगळी ग्वबर सांगली. आयकून तिका खूब वायट देसलें. तिणें म्हळें, "तुका हें सगळें मान्य आसा? तुका दिसता मांगिश लग्न जातकीर तुजी याद धरतलो म्हणून? ताचेखातीर तूं तुजें जिवन कित्याक वगडायता? तुजी अशी बाविल्ल्या फुलाभशेन जाल्ली दशा म्हज्यान पळोवंक जातली? तुज्या आवाच्या फाटल्यान हांवें तुका कसलेंच दुख्ख पळोवक दिनासतना वाडयलें आनी तुका अशें निर्शेल्लें म्हज्यान पळोंवक जातलें? वृंदा, ह्या जगांत एकच मांगिश ना. तुका कितलेशेच वरे वरे चले मेळटले. शिवाय तूं नोकरीय करता. तूं लग्न जा आनी तुजो संवसार फुलय."

"आई, तुका ग्वबर ना, म्हजो मांगिशाचेर कितलो जीव आसा तो? आनी ताका सोडून हांव दुसरें लग्न जावूं?" अशें म्हणत तें भितर गेलें आनी खाटीर न्हिदून भितरले भितर रडपाक लागलें. आवयन ताका आडयलें ना. ताचोच विचार तकलेंत घोळयत ती गंदचेकुडींत गेली.

एका म्हयन्याभितर वृंदाक आयकूंक आयलें, मांगिशालें लग्न जालें. ते रातीकडेन ताका जेवण चललेंना आनी न्हिदय पडलीना. जागरण करून ताणें आपलें मन घट्ट केलें.

दुसऱ्या दिसाच्यान कांयच घडलें ना अशे तरेन तें ऑफिसांत वचपाक लागलें. आवय तें पळोवन ख्रोशी जाली. "जांव, पोर सुदारलें," अशें म्हणून तिणें सुस्कार सोडलो.

रमाक सगळ्यो खबरो कळिल्ल्यो. ताणें वृंदाकच दोश दिलो. वृंदान मांगिशाक सामको फोर्स केल्लो जाल्यार अशें घडचें नाशिल्लें अशें रमा म्हणटालें. वृंदान तें व्हडलेशें मनार घेतलें ना. ताणें आतां सगळेंच सोडून दिल्लें. मांगिशाल्या आवय-बापायक मान्य ना जाल्यार आपूण तरी मज घेवन कित्याक तांचेकडेन नाक रगडचें? अशेंच ताका दिसतालें.

ह्याच दिसांनी रमाचेर एक व्हडलो आघात जालो. तो म्हळ्यार ताचो घोव कामाखातीर मुंबय वतना ताचे वशीक अपघात जावन तो तातूंत सोंपलो आनी रमाचें दुख्ख वृंदाच्यान कशेंच सोसूंक जायना जालें. ताचे जिवाभावाचे इश्टिणीची दशा तें कशें पळयतलें? आनी रमाक तर चडच त्रास जातालें. तकलेचेर परिणाम जाल्लेवरी तें कित्याकितेंय बडबडटालें.

बाळंतपणांत आपूण वाचचेंच ना अशेंच ताका दिसतालें. तें सदांच वृंदाकडेन उलोवन दाखयतालें. "वृंदा, हें पळय, हांव आनी ह्या भुरग्याचें कितेंच करतलें अशें म्हाका दिसना. म्हजेबरोबर म्हजें भुरगेंय वचतशें म्हाका दिसना. पूण म्हाका कितेंय जांव म्हजें भुरगें बरें उरत जाल्यार तूं ताचो सांबाळ कर. म्हाका आनीक कोणूच ना. म्हाका खबर आसा तुज्या लग्नाआड म्हजें भुरगे येतलें म्हणून पूण वृंदा माया तुटना गो.'

"रमा, नाका गो अशें उलोवंक. म्हाका म्हजी आई, मांगिश आनी तुजेशिवाय मोगाचो दुसरो कोणूच ना. आईचें जाण्टेपण, मांगिश तर दुसऱ्याचो जालो आनी तुवेंय अशें म्हळ्यार हांवें करप तरी कितें?" वृंदान म्हळें.

"हें पळय वृंदा, हालीं तुजो हांसो सामको शेणला. पूण म्हज्या भुरग्याक पळयतकीर तुजो हांसो फुलतलो. वृंदा, म्हाका भास दी तूं ताका आवयची माया कमी पडूंक दिवचें ना म्हणून."

"रमा, फकत तुजे मागणेक लागून हांव तुका भास दितां, हांव ताका म्हजेंच कशें सांबाळटलें. पूण तूं अशें कळवळून जिवाक त्रास करून घेवंनाका गो. तू बरें जातलें."

रमालें उतर खरें जातलें हें ताणें सपनांत लेगीत चिंतूंक नाशिल्लें. रमाक आठव्या म्हयन्याच्च त्रास जावपाक लागले. शेजाऱ्यांनी रमाक हॉस्पिटलांत व्हेलें. वृंदाक कळटकीर

ं रोग्वडेंच थंय गेलें. रमा सामकें तळमळटालें. तें ताच्यान कशेंच पळोवंक नज जालें. माचो हात आपल्या हातांत घेवन वृंदा ताका धीर दितालें. पूण रमाक पळोवन ताचोच धीर सुटिल्लो. रमा परत परत आपल्या भुरग्याक सांवाळ अशें ताका तळमळीन सांगतालें. ताका आवयची कमतरता भासूंक दिवनाका अशेंच तें सांगतालें. घोव गेल्लो या धक्क्यांतल्यान तें सांवरूंकूच शकलेंना. तातूंतच ते एके चलयेक जल्म दिवन ताका पळोवचेपयलींच ह्या संवसाराक अंतरलें.

त्या भुरग्याक आठव्या म्हयन्याचेर जाल्ल्या कारणान इन्क्युबेटरांत दवरून दोतोरांनी सगळे तरेचे प्रयत्न करून मरणाच्या दारांतल्यान परत हाडलें. वृंदा देवाकडेन ह्या भुरग्याच्या तरी आयुष्याची दोरी कापूं नाका अशें कळवळून मागतालें. देवान ताची ही एक मागणी पूर्ण केली.

रमाचें भुरगें बरें जातकीर वृंदान तर दोतोराचे पांयच धरले आनी रडूंक लागलें. दोतोरान म्हळें, "आगो, मनीसजिवाक कशेंय करून वांचोवप हो आमचो धर्मच. तातूंत उपकार कसले मानता तूं?"

"ना दोतोर." वृंदान म्हळें, "तुमी नकळो हें भुरगें म्हळ्यार म्हजे जिवाभावाचे इश्टिणीली ठेव. ताका म्हज्या जिवापरस चड सांवाळपाक जाय म्हाका."

वृंदा आनी ताची आवय त्या भुरग्याक घेवन घरा आयलीं. त्या भुरग्याखातीर एक म्हयनो रजा घेतिल्ली ताणें. ताचीं सगळीं कामां तेंच करतालें. वोमान दूद पिवोवप, लंगोट्यो वदलप, आवयचे मदतीन न्हाणोवप, ताका न्हिदोवप. हें करपाक ताका दीस पावनाशिल्लो. पोर म्हुणून आवयवरीच सुंदर जाल्लें. वृंदाच आवय जाल्लेवरी ताचे कुशींत तें सुस्त न्हिदतालें. ताचें मुखामळ पळोवन वृंदाक रमाचे यादीन भडभडून येतालें. रजेचे पंदरा दीस कशे सोंपले तें ताका कळ्ळेंच ना.

चलीं मातशें गुटगुटीत जातकीर वारशाचो चड व्हडलो थाट करिनासतना शेजारच्याच चार लोकांक आपोवन त्या भुरग्याचें नांव 'शर्व्री' दवरलें. तरी पूण त्या दिसा थोड्या वायलांनी वृंदाक समजायलें, "आगो वृंदा, हें पळय, तुवें हें नस्तें ओडप आंगार कित्याक घेतलां? तातूंत आनी तूं आंकवार. फाल्यां लग्न जावपाक कुस्तार वतलें. आनी कोणूय जालोच जाल्यार त्या भुरग्याची जापसालदारकी घेवपाक तयार जावचोना. तेन्ना तूं ताका ख्रेंयच्याय अनाथाश्रमांत दवर."

वृंदाक तें आयकून खूब राग आयलो. आपल्या प्रस्नांत तुमी कित्याक पडटात

अशें विचारचशें दिसलें ताका. पूण तशें म्हणप बरें दिसचेंना अशें समजून तें ओगीच गवलें. ते गर्तीकडेन ताका न्हीद पडलीना. त्या वायलांनी उलयिल्लीं उतरां कानांत घुमतालीं. रमाच्याय उतरांची याद जातालीं. आपल्या भुरग्याक आवयची उणीव भासूंक दिवंनाका.

त्या खबरांनी वृंदाची तकली सामकी उसळूंक लागली. म्हच्यांत न्हिदिल्ल्या शर्व्रीचेर पांघरूण सारकें घालून तें उठून कुडींत पासयो मारपाक लागलें. ताचे आवयक गाढ न्हीद लागिल्ली. आवयन ताका एका शब्दान लेगीत कांयच म्हणलें नाशिल्लें. तिका वृंदाली आनी रमाली इश्टागत कितली घट्ट आशिल्ली ती खबर आशिल्ली. देखूनच ती वृंदा सांगता तें मोन्यांनी आयकतालीं.

विचार करून करून वृंदा सामकें थकलें. आपूण मांगिशावगर आनी कोणाचोच विचार करपाक शकना हें ताका खबर आशिल्लें. लग्न जाल्यार फकत मांगिशाकडेनच पूण तेंय वी दुसरेपणांत. हें शक्य आसा फक्त ताचे पयले वायलेक भुरगें जालें ना जाल्यार. पूण तिका भुरगें जालें जाल्यार . . जाल्यार मांगिश आपल्याक सामको विसरूनच वतलो. मागीर हांव कितें करूं? ना . . . हांव अशें रडत बसचेंना. हांव ह्या शर्व्रीक ल्हानाचें व्हड करपांतूच म्हजें सूख मानतलें.

इतलोच विचार केल्लो जाल्यार ताची तकली थांवतली आशिल्ली. पूण ताचें दुसरें मन दुसरेंच चिंततालें. तें म्हळ्यार . . मांगिशाचे पयले वायलेक भुरगें जालें ना आनी मांगिश वृंदाकडेन परत लग्न जालो. वृंदाचें जर भविश्य बरें आसून मांगिशालें भविश्य फट थारून वृंदाक भुरगें जालें जाल्यार आनी ह्या शर्व्रीक सावत्रपणाचो जाच सोसूंक पडल्यार, रमाचो आत्मो कितें म्हणटलो? आपल्या भुरग्यामुखार दुसऱ्याल्या भुरग्याचें व्हडलेशें पडून वचना. वृंदा एकदम भानार आयलें. ना . . हांव शर्व्रीक तशें वागोवचेंच ना. पूण मांगिशान ताचो दुस्वास केलो जाल्यार? हांव शर्व्रीक आवयवरीच सांबाळटलें अशें रमाक दिल्ल्या वचनाचें कितें जातलें ? तशें जातलें जाल्यार हांवें म्हाकाच भुरगें जावपाक दिलेंना जाल्यार? हो विचार मनांत येतकीर ताका खूब धीर आयलो. त्या विचाराभरशीं ताणें एक उपाय करपाचो थारायलें, आनी त्या निर्णयासरशीं ताका हांतुरणार पडटकीर सुस्त न्हीद लागली.

पूर्वीक समजनाशिल्लें की मांगिश आपलेपासून पयस पयस कित्याक गवता. लग्नाक पांच म्हयने जाले. अजून ताणें आपल्याक म्हच्यांत कित्याक घेतलेंना? गत गत भर तो बेडरुमांतल्या कदेलार बसून सिगरेटी ओडीत न्हिदतालो आनी खाटीर तें

एकटेंच, न्हीद लागमगेन दोळे टक्क उगडे दवरून. पूण ताणें मांय-मांवाक हे विशीं कांयच सांगलेना. कित्याक तर तीं दीस-गत मांगिशाले गूण गायत रावतालीं. आमचो पूत असो वरो आनी तसो वरो. आमी मांगता ते चलयेकडेन दोळे धांपून लग्न जालो. दोळे उक्ते दवरून जाल्लो तर हांव आवडलेंना जाल्यार ना म्हणून सांगचें आशिल्लें. ओगीच हो खेळ कित्याक? पूण तें कांयच म्हणनाशिल्लें.

मांगिशाक मात ताचेवेलो अन्याय दिसनाशिल्लो. तो फक्त वृंदालोच विचार करतालो. आपूण लग्न जालां, आपल्याक बायल आसा आनी तिच्योय कांय इत्सा आसात हें ताच्या केन्ना मनांतच येनाशिल्लें.

पूर्वान लागींच्याच लायब्ररींत आपलें नांव घाल्लें आनी थंयचीं पुस्तकां घराकडेन हाडून वाचत तें आपलो वेळ सारतालें.

त्या दिसा वातावरण सकाळच्यान दमटच आशिल्लें. केन्ना पावस पडत सांगूंक येनाशिल्लो. लग्न जाल्ल्याक हो पयलोच पावस आनी पूर्वाक तर गडगड्याचो सामको भंय दिसतालो. कुळारा आसतना चड मोटो गडगडो आयल्यार ताका रडपाक येतालें. तें मागीर आवयक वेंग मारून न्हिदतालें. हांगा तसो गडगडो आयल्यार कितें करप? मांय तशी अजून नवी, आनी घोव . . . तो तर खऱ्या अर्थान ताचो जाल्लोच नाशिल्लो. दोन दीस पावस पिरींपिरी पडलो. आजून तसो गडगडो येवंनाशिल्लो.

सकाळीं ऑफिसाक वचपाक भायर सरतल्या मांगिशाक पळोवन ताचे आवयन म्हळें, "मांगिश , सकाळींच तुज्या दादाकाकाल्या शेजाऱ्यालो फोन आयिल्लो. ताका अकस्मात हार्ट ॲटॅक येवन हॉस्पिटलांत ॲडमिट करचो पडला आनी काकी खंय एकसारकी रडत आसा, तेन्ना आमकां हाड म्हणून. हांव आनी पप्पा आज थंय वतलीं. रातचीं पावत शीं दिसना. तूं आज वेगींनच घरा यो. पूर्वा एकटेंच आसा म्हणून सांगलें तुका." तिचीं उतरां आयकून मांगिशाक शॉक बसलो. दादाकाका ताचो सामको मोगाचो. ताका भुरगीं नाशिल्ल्यान मांगिशाक तो आपलोच भुरगो कसो मानतालो. ताणें रोखडेंच मम्माक म्हळें, "मम्मा, हांवूय येतां तुमचेबरोवर."

"पूण मांगिश, पूर्वा हांगा एकटेंच आसा न्ही?" मम्मान विचारलें. मांगिशान म्हळें, "तुमी रातचीं रावात थंय. हांव सांज म्हणसर येतां परतो." ताचीं उतरां आयकून, पूर्वाक सांगून तीं तिगांय वचपाक भायर सर्लीं.

हॉस्पिटलांत पावतकीर दादाकाकाक पळोवन मांगिशाक खूब वायट दिसलें.

ताका हो पयलोच ॲटेक आयिल्लो. ताका आय.सी.यूं. त दवरिल्लो. मांगिश
हारशाक नाक लावन दादाकाकाक पळयत रावलो. भायर वसून रडून रडून कार्कीचे
दोळे सुजिल्ले. मम्मा तिका धीर दिताली.

मांगिश भायर येवन कार्कीम्हर्‍यांत वसलो. काकाक अशें कशें जालें, केन्ना जालें
हें विचारून तिच्यो खवरी आयकून काका शुध्दीर येतकीर आपल्याक फोन कर म्हणून
मम्मा-पप्पाक सांगून तो ऑफिसांत वचपाक भायर सरलो.

ताच्या ऑफिसांतल्या एका इश्टाचो त्याच दिसा वाडर्दीस आशिल्लो. तेखातीर
ताणें पार्टी दवरिल्ली. पार्टी सात वरांचेर एका हॉटेलांत आशिल्ली. मांगिशाक दादाकाकाक
लागून वचपाक वरें दिसनाशिल्लें. पूण इश्टान खूबच फोर्स केलो. म्हणून ताका वचचेंच
पडलें. पूर्वाक फोन करपाक मात तो विसरलो.

साडेपांच वरांचेर ऑफिस सुट्टकीर इश्टाक वरें प्रेझेंट घेतलो म्हणून एका दुकानांत
गेलो. भितर सरतनाच ताका वृंदा हातांत एक भुरगें घेवन वावलेचें मोल विचारतना
दिश्टी पडलें. खीणभर ताका दिसलें वृंदा लग्न वी जालें काय?त्याच वेळार वृंदाचीय
नदर ताचेर पडली. दोगांयल्याय नदरांनी उपाट मोग भरिल्लो. कितलोसोच वेळ तीं
एकामेकांक पळयत रावलीं. शर्व्री रडिल्ल्याच्या आवाजान वृंदा भानार आयलें. शर्व्रीन
मुती केल्ली. थंयच्याच एका कदेलार वसून ताणें ताका दुसरे कपडे घाले. ते म्हणसर
मांगिश ताचेम्हर्‍यांत पावलो.

वृंदान तकली वयर काडून ताका म्हळें, "मांगिश, कसो आसा तूं? एक दीस
लेगींत म्हजी खबर घेन शी दिसली ना तुका? तूं लग्न जालो हें लेगींत म्हाक़ा
दुसर्‍याकडल्यान कळप?"

"वृंदा, खरेंच म्हजें खूब चुकलें. म्हाका तुजेम्हर्‍यांत येवचेंशें दिसतालें पूण धीर
जायना जालो." मांगिशाक आनिकय खूब उलोवपाचें आशिल्लें. दुकानांत तें उलोवप
सारकें जावचें ना म्हणून ताणें म्हळें, "चल वृंदा, आमी भायर त्या पार्कांत वचून
उलोवया. पूण पयलीं आमकां कितें घेवपाक जाय तें घेवया."

"मांगिश, म्हाका म्हजे शर्व्रीखातीर एक वावली घेवंक जाय."

मांगिशान म्हळें, "तुजें शर्व्री?"

वृंदान ताका सांगलें. "हें हांव तुका सगळें मागीर सांगतां." मांगिशान इश्टाखातीर

एक सेंटाची वाटली घेतली आनी तो वावलेचे पयशे दिवपाक लागलो.

"ना मांगिश, हे वावलेचे पयशे हावूंच दितलें. शर्व्रीखातीर दुसऱ्यान पयशे खर्च केल्ले म्हाका आवडचेना."

"दुसरो" हो शब्द आयकून मांगिशाक खूब वायट दिसलें. पूण तो ओगीच रावलो. पयशे दिवन तीं त्या दुकानांतल्यान भायर सरलीं आनी पार्कांत वचून बसलीं. बरोच वेळ तीं ओगीच रावलीं. मांगिशानच पयलीं तोंड उगडलें. "वृंदा, एक विचारता म्हूण रागार जावंनाका. पूण विचारलेवगर रावूं नज. हें भुरगें कोणालें?"

वृंदान हांसून म्हळें, "कोणालें म्हळ्यार? म्हगेलेंच." मागीर मांगिशालें तोंड पळोवन ताणें ताका चड अजापांत दवरलोना. ताणें सांगलें, "आरे मांगिश, तुजें लग्न जावन पांच स म्हयनेच जाल्यात आसतले. तेन्ना काय म्हजें लग्न जावंक नाशिल्लें. मागीर इतले वेगीन म्हजें लग्न जावन म्हाका भुरगें कशें जातलें?" अशें म्हणून ताणें शर्व्रीची सगळी खबर ताका सांगली. ऑफिसांत आपल्याक सगळीं 'कुँवारा बाप' सिनेमाभशेन 'कुँवारी माँ' म्हणटात अशें म्हणून तें मायेन शर्व्रीक तोखेवपाक लागलें. मांगिशाक तें पळोवन खूब समाधान जालें. ताणें म्हळें, "जावूं, तुका ह्या भुरग्याची माया तरी मेळ्ळी. पूण हांव..." तें आयकून वृंदान म्हळें, "मांगिश, तूं सुखी आसा मरे?"

"वृंदा, तूं कुँवारी माँ आनी हांव लग्न जावन ब्रम्हचारी. एकेवटेन पूर्वाची काकूळट दिसता गो म्हाका. पूण तुका हांवें भास दिल्ली म्हणून हांव ताचे म्हऱ्यांत लेगीत वचूं ना."

वृंदान म्हळें, "मांगिश, तूं ताचेर असो अन्याय करूं नाका. तूं ताका सुखी कर. हांव म्हज्या शर्व्रींतच म्हजें सुख सोदपाचो यत्न करतलें."

मांगिशान कळवळून म्हळें, "नाका गो वृंदा, अशें उलोवं नाका. म्हाका फकत तूंच जाय."

"मांगिश, तुका आजूनय दिसता, आमचें लग्न जातलें शें?"

ताणें रोखडेंच म्हळें, "जातलें म्हणचे? जातलेंच. आनीक एक दोन –चार म्हयने गव. वर्स जालें तरी भुरगेंच जालेंना म्हणून हांव कितेंय पूण निमित्त सोदतलों आनी पूर्वाक सोडपाचो यत्न करतलों."

इतल्यांत वारेंक पावस पडपाक सुरवात जाली. सात वरां जायत आयलीं.

शव्रीलोय भुकेचो वेळ जाल्लो. म्हणून तीं दोगांय वेगींवेगीन भायर सरलीं. ताणें रिक्ष थांबयली आनी हॉटेलाचो आनी वृंदाच्या घराचो पत्तो सांगलो.

पार्टी आशिल्ली त्या हॉटेलाकडेन पावतकीर मांगिशान वृंदाक आपूण फाल्या फोन करतां अशें सांगून निरोप घेतलो.

पार्टेक सगळे इश्ट जमिल्ले. मांगिश येतकीर तांणी सगळ्यांनी पिवपाक सुरवात केली. पावस नेटान पडटालो. इतल्यांत व्हडलो गडगडो आयकूंक आयलो. मांगिशाक एकेवटेन दादाकाकाचें दुख्ख आशिल्लें, दुसरेवटेन वृंदा मेळिल्ली खोस आशिल्ली. ते भिरकेंत तो इल्लो चडच पिलो. इश्ट पिवपाक फोर्स करताले. ताचेउपरांत एका फाटोफाट चार पांच फावटी गडगडो आयकूंक आयलो.

धा वरांचेर सुमार सगळे जाण घरा वचपाक भायर सरले. रिक्षेंत वसना म्हणसर मांगिश अर्दो भिजिल्लो. घराकडेन पावतकीर ताका याद जाली की पूर्वा घरांत एकटेंच आसा आनी आपणें ताका रात जातली म्हूण फोनूय केलो ना. ताचे पांय सारके पडनाशिल्ले. ताणें वेल मारली. पूण कोणेंच दार काडलेंना. मागीर ताणें सांसपीत सांसपीत वोल्सांतल्यान चावी काडून दार उगडलें आनी सारकें धापून लकत लकत तो वेडरुमांत पावलो. इतल्यांत व्हडलो गडगडो आयकूंक आयलो. त्या आवाजान तो मात्सो भिल्लेवरी जालो. गडगड्याक लागून लायटच गेली आनी कोणाचें तरी रडप ताच्या कानार पडलें. तशेंच काळखांत सांसपीत तो मेणवात दवरता ते सुवातेर पावलो. फस्क सोदपाक आनी तो गेलो ना. वोल्सांतल्यान लायटर काडून मेणवात पेटयली. कुडींत उजवाड पडलो. त्या उजवाडांत ताका खाटीर एक उशें छातयेर घट्ट धरून पूर्वा हुंडक्या हुडक्यांनी रडटा तें दिश्टी पडलें. मांगिश तसोच मेणवात थंय दवरून कितें जालें ते पळोवपाक गेलो. मांगिश थंय पावता म्हणसर आनीक गडगडो आयलो. पूर्वान फाटीफुडें पळयनासतना ताका घट्ट वेंग मारली. मांगिशाक कितें करचें कांयच कळना जालें. ताचें आंग ओलें जाल्ल्यान कपडे चिकटल्ले आनी आतां पूर्वा ताका घट्ट चिकटल्लें. एकेवटेन सोऱ्यान ताचेर प्रभाव दाखोवपाक सुरवात केल्ली, दुसरें ताचें ओलें आंग आनी तिसरें म्हळ्यार ओलें मातयेच्या वासावरेवर पूर्वान माळिल्ल्या मोगऱ्यांचो वास मेळिल्लो. वृंदाय अशेंच मांगिशाक मोगरीं आवडटात म्हणून मेळपाक येतना माळून येतालें. वृंदाचे यादीन ताचें मन चड चाळवलें. नाकांत गेल्ल्या त्या वासाक लागून ताची प्रतिकारशक्ती कमी पडली आनी ताणेंय पूर्वाक वेंगेत घेतलें. खिणाभितर ताचें ब्रम्हचर्य निखळून पडलें.

दुसऱ्या दिसा शुद्धीर येतकीर पळयत जाल्यार पूर्वा ताचे वेंगेंत आशिल्लें आनी सुस्त न्हिदिल्लें. मांगिशान कच्च करून आंग काडलें. "हें हांवें कितें केलें? वृंदाक दिल्लें वचन मोडलें. आता वृंदाक कशें तोंड दाखोवप?" त्या झटक्यासरशीं तो उठलो. इतल्यांत पूर्वाकय जाग आयली. मांगिशाल्या दोळ्यांतलो तिरस्कार ताका दिसलो. तें वेगींवेगीन उठलें आनी मांगिशाम्हऱ्यांत गेलें. मांगिशालो राग निवळूंक नाशिल्लो. पूर्वा तें पळोवन काकुळटेक आयलें, "हें पळयात, म्हजी कांयच चूक ना. म्हाका गडगड्याचो सामको भंय दिसता आनी तुमी तर आयलेच नात. हांव घरांत एकटेंच पडलें. भंयासरशीं हांवें तुमकां घट्ट धरलें. तरीकय म्हजें चुकलें जाल्यार म्हाका माफ करात. जाय ती शिक्षा करात." अशें म्हणून पूर्वा रडपाक लागलें. मांगिशालो राग निवळ्ळो. ताणें पूर्वाचे फाटीर हात दवरलो. पूर्वाक तो हात गरम लागलो. ताणें मांगिशाल्या कपलार हात दवरून पळयत जाल्यार मांगिशालें आंग तापलां. मांगिशान म्हळें, "काल एका इश्टाच्या वाडदिसाक गेल्लों थंय पिलों आनी पावसांत भिजिल्लें आंग पुसनासतना तसोच न्हिदलों न्हीं? सगळें मिक्स जालें आनी जोर आयलो."

पूर्वान वेगिवेगीन ताका हुनहुनीत च्या करून हाडली आनी जोराचेर एक गुळीय दिली. मांगिशाक जोर आपल्याकूच लागून आयलो अशें समजून स्वताकच दोश दिलो. मांगिशान कितलीय समजूत घाल्यार ताका तें पटना जालें. सात आठ दीस लेगीत मांगिशालो जोर देंवना जालो.

हेवटेन ताची मम्मा आनी पप्पा दादाकाका निवळटकीर घरा आयलीं. दादाकाका निवळिल्लो पूण हॉस्पिटलांतच दवरिल्लो ताका. कितलेशेच फोन केल्यारूय मांगिश कित्याक आयलोना म्हणून तें पळोवपाक तीं घरा आयलीं. घराकडेन यो जाल्यार मांगिश वरो ना. ताची मम्मी साईबाबाची भक्तीण आशिल्ली. तिणें रोखडेंच सांगून घेतलें. मांगिश वरो जावूं दी आनी सुनेक दुवाळे लागूं दी, रोखडींच ताच्या पांयाकडेन शिर्डी येतलीं म्हुणून. तीं दादाकाकाच्या म्हऱ्यांत आसतना आपल्याक जोर आयलो अशें फोनार सांगूं नाका म्हणून मांगिशान पूर्वाक सांगिल्लें अशें पूर्वान तिका सांगतकीर तिणें मांगिशाक खूब तापोवन काडलो.

मांगिशान वृंदाक आपूण दुसऱ्या दिसा फोन करतां अशें सांगिल्लें पूण दिल्लें वचन मोडिल्ल्याची खंत ताका भोगताली. ताकाच लागून ताणें वृंदाक फोन केलो ना.

ह्या सात-आठ दिसांनी पूर्वान ताची खूब सेवा केली. पूर्वा आतां ताचे खूब म्हऱ्यांत पाविल्लें. पूर्वावगर ताचें पान हालना जालें. वरो जावन तो ऑफिसांत

वचपाक लागलो आनी सांजेचो बेगिनूच घरा येवंक लागलो. सगळी रात तो पूर्वाच्या सहवासांत घालयतालो.

ह्या खबरेक तीन म्हयने जायत आयले. ताच्या मम्माच्यो दोनूय आंगवणी पूर्ण जाल्यो. तिका साइबाबा सामको पाविल्लो. मांगिश निवळिल्लो आनी पूर्वाक दुवाळे लागिल्ले. ज्या दिसा दोतोरान मांगिशाक तो बापूय जावपाचो आसा अशें सांगलें तेन्ना ताका पयली उमेद जाली ती म्हळ्यार आपलें भविश्य फट जालें हाची. त्या दिसा ताणें पूर्वाक आपल्या भविश्याविशीं सांगलें. पूण वृंदाची खबर मात सांगली ना. फुडाराचीं सपनां रंगोवपाक सुरवात करतकीर ताका वृंदाचो विसर पडिल्लो.

असोच म्हयनो गेलो आनी अचकीत दादाकाकाक दुसरो ॲटॅक आयलो आनी तो तांकां सोडून गेलो. ताचे सगळे सोपस्कार मांगिशाकच करचे पडले. काकी एकटीच पडिल्ल्यान मांगिशाल्या पप्पान तिका आपल्यागेर हाडली.

मांगिशालें भविश्य आयकल्ल्यान दादाकाकालें मर्ण म्हळ्यार पूर्वाक आपल्या गर्भाक अपशकून जालो अशें ओगीच दिसलें. मांगिश मात म्हणटालो. 'दादाकाकालो आपल्याचेर जीव देखून तोच तुज्या पोटां येतलो!' ताच्या मम्माक आपणें केल्ल्या आंगवणीची याद जाली. ती शिर्डी वचपाचें सामकी विसरिल्ली. म्हणून तिका दिसलें दादाकाकाचें हें अचकीत मर्ण म्हळ्यार साईबाबान आपल्याक आंगवणीची करून दिल्ली याद.

तिणें शिर्डी वचपाचो आपलो वेत मांगिशाक सांगलो. पूण मांगिशाक तें मान्य नाशिल्लें. आनी दुसरें म्हळ्यार ऑफिसाच्या कामाक लागून ताका वचप शक्य नाशिल्लें. ताणें म्हळें, "मम्मा, इतले वेगीन कित्याक या? भुरगें बरेंभशेन जातकीर या."

मम्मान म्हळें, "ना, हांवें पूर्वाक दुवाळे लागतकीरच येतां म्हणून सांगून घेतिल्लें. तेन्ना आनीक कितेंय अनर्थ जावचे पयलींच आमी या."

मांगिशाक येवपाक मेळना म्हणून पूर्वाक बरें दिसलेंना. दादाकाकाचे दीस जातकीर, काकी मात्शी सावरतकीर तीं वचपाक भायर सरलीं. काकीचें तर ख्रंयच वचपाक मन घेनाशिल्लें. ती मांगिशा सांगाताक रावली.

पूर्वा, मांगिशाची मम्मा, पप्पा गाडी करून शिर्डी वचपाक भायर सरलीं.

मांगिशाक सोडून आठ दीस रावचें पडटलें म्हणून पूर्वाचे दोळे भरून येताले. मांगिश ताका समजायतालो.

शिर्डीच्यान तिसऱ्याच दिसा फोन आयलो, तीं वरे भशेन शिर्डी पावलीं. आनी साईबाबाचें दर्शन बरेतरेन घेवपाक मेळ्ळें म्हणून. अशेच आठ दीस गेले. तांणी नासिक, कोल्हापूर बी सगळें पळोवन येवपाचें थारायिल्लें. त्या आठ दिसांत पूर्वाक पळोवपाची मांगिशाक सामकी ओड लागिल्ली. तीं येवपाचो दीस लागीं पावता तितलो तो बेचैन जाल्लो. पूण परत ताची भेट घडपाची नाशिल्ली. गाडयेन परततना घाटावेल्या एका व्होलतार एका टँकरान तांचे गाडयेक धक्को दिवन ड्रायव्हरासयत चौगांय थंयचें थंयच आक्ताक सोंपलीं. चवथो जीव म्हळ्यार जाका आजूनय सारको आकार येवुंनाशिल्लो तो पूर्वालो गर्भ.

मांगिशाल्या पप्पाल्या बोलसांत नांव आनी पत्तो आशिल्लो. ताका लागून मांगिशाक ही खबर रोखडीच कळूंक जाय आसली. तरी पूण ताका ही खबर पांच दिसांनी कळ्ळी. थंय वचून कांयच फायदो नाशिल्लो. लासून गोबर जाल्ल्या मनशांक तो हांगा हाडून परतें कितें लासतलो?

ताची वुद्द कांयच काम करना जाली. मेकळेपणान तो रडलोच ना. काकी देवाच्या नांवान बोटां मोडत राविल्ली. साईवावान तरी वांचोवपाचें न्ही? ताच्याच पांयांकडेन गेल्लीं न्ही तीं? अशेंच म्हणटाली.

दोन-तीन दिसांनी वृंदाक ही खबर कळटकीर ते तागेर आयलें. वृंदाक पळयतकीर मात मांगिशाल्या मनाचो बांद फुटलो आनी भुरग्यावरी तो रडूंक लागलो. वृंदान ताचो हात हातांत घेतलो आनी तें ताका समजावपाक लागलें. ताणेंय देवाकूच दोश दिलो. काकीय तेंच म्हणटाली, "तुमी देवाक कित्याक दोश दितात? हो सगळो म्हज्या भविश्याचो परिणाम. म्हाका भुरगेंच जावपाचें नाशिल्लें, पूण तातूंत मम्मा, पप्पा आनी निष्पाप अशा पूर्वाचो मात बळी घेतलो. ही ख्यास्त म्हाका कित्याक फावो जाली ना गो वृंदा? म्हाका कित्याक फावो जाली ना?"

दादल्याचें रडप म्हळ्यार, आयकून काळजाक भाले तोंपिल्लेवरी जातात. वृंदाक कितें करचें तेंच कळना जालें. मांगिशाली दशा ताच्यान पळोवं नजो जाली. वऱ्याच वेळान मांगिश निवळटकीर तें घरा गेलें.

ताचेउपरांत तें सदांच सांजवेळचीं दोन वरां तरी मांगिशाच्या आनी काकीच्या म्हऱ्यांत वसून वतालें. येतना शर्वाकय हाडटालें. काकीक ताणें शर्वाची खबर सांगिल्ली. काकीय ताचे खूब लाड करताली.

काळासारखें वखद ना म्हणटात, काळ वता तितलो मांगिश सुदारलो आनी ऑफिसांत वचपाक लागलो. दादलो मनीस कितले वेगीन विसरता हें वृंदाक दिसून आयलें. ताका रमाचीय याद जाली. घोवाफाटल्यान ताणें आपली जीण दवरली ना पूण मांगिश निवळलो म्हणून ताका खोसय जाली.

कार्कीक वृंदालो स्वभाव खूब आवडिल्लो. फकत वृंदा घरांत येता तेन्नाच मांगिश खोशी जाता हेंय तिणें पळयिल्लें. म्हणून ती मांगिशाच्या फाटल्यान लागिल्ली वृंदाकडेन दुसरें लग्न जा म्हणून. पूण मांगिशाक, वृंदाक विचारपाक धीर जायनाशिल्लो. एक दीस कार्कीनच वृंदाकडेन ही खबर काडली. तिणें म्हळें, "वृंदा, तुका मांगिश आवडटा?" वृंदा तो प्रस्न आयकून गोंदळांत पडलें. ताणें मांगिशाकडेन पळयलें. तो ताकाच पळयतालो. तें पळोवन तिणें परतें म्हळें, "वृंदा, हांव जाणा हो म्हजो प्रस्न पिशेपणाचो म्हणून. तुमचो दोगांयचोय मोग म्हाका खबर आसा. पूण आतां हो दुसरेपणाचो न्हवरो तुका पसंत आसा? तुकाच लागून तो सावरलो गो. तूंच ताच्या जिवनांतली खरी सांगाती जावन आसा. तेन्ना ताका भुरगीं जावचींच ना ह्या एकाच कारणाक लागून ना म्हणू नाका. म्हाका पळय, म्हाकाय भुरगीं नात पूण आमचो दोगांयचोय एकामेकाचेर नीज मोग आशिल्ल्यान आमचें भुरग्यांखातीर कांयच अडलेंना. ह्या मांगिशाकच हांवें म्हजो भुरगो मानला. तेन्ना मांय ह्या नात्यान हांव तुका ताचेखातीर मागणी घालतां. ही म्हजी मागणी पूर्ण करशीत?" तिच्या दोळ्यांत दुकां भरलीं.

वृंदा तिचे म्हऱ्यांत गेलें आनी कार्कीच्या खांदार हात दवरून म्हळें, "मांगिशाकडेन लग्न जावपाक म्हाका कसलीच हरकत ना. पूण तोच म्हाका नाकारतलो, म्हजी खबर आयकून", मांगिशान म्हळें, "तुजी खबर कसली?"

वृंदान मागीर आपली खबर सांगली. "मांगिश, तुका याद आसा, ज्या दिसा आमी मेळिल्लीं तेन्ना तुवें सांगिल्लें कीं आपूण दुसऱ्या दिसा फोन करतां म्हणून. पूण चार दीस जाले तुजो फोनूच ना. म्हणटकीर म्हजोय स्वाभिमान आड आयलो. आनी हांवेंय तुका फोन केलो ना. ताचेउपरांत तूं म्हाका केन्नाच दिसलो ना. आनी ऑफिसांत लेगीत मेळपाक आयलोना. तूं म्हाका विसरलो जाल्यार हांवूय तुका कित्याक याद दवरूं म्हुणून हांवेंय तुका विसरपाचो यत्न केलो आनी शर्वी भितरच म्हजें मन रमयलें. ताका पळयतकीर म्हजी तान भूक न्हिवताली. तें व्हड जाता, ताच्यो वाळलिला पळोवन म्हजें मन खोशयेन भरतालें."

एक दीस म्हजो मामेभाव मुंबयच्यान आमगेर दोन दीस रावपाक आयिल्लो.

त्याच दिसांनी एक मवाली म्हज्येफाटल्यान लागिल्लो आणि फकाणां मारतालो. ताचे-म्हन्यांतल्यान वचपाक म्हाका भंय दिसतालो. तशेंच त्या दिसा हांव म्हज्या मामेभावावरोवर वतालें. ताका हांवें ताचेबद्दल सांगिल्लें म्हणून तो मुद्दामच म्हजेवरोबर आयिल्लो. पूण त्या दिसा तो म्हजे वाटेक गेलो ना. म्हजो मामेभाव आठ दीस आमगेर गवलो. ताका हांव आवडटां अशें ताच्या दोळ्यांत पळयतकीर दिसतालें. पूण म्हजेकडल्यान ताका कांयच प्रतिसाद मेळूंक नाशिल्लो. ते आठय दीस तो म्हजेवरोवर येतालो आनी तो मवाली ताका पळोवन ओगी रावतालो. तेन्ना ताणें म्हाका सांगलें की अशें एकटें लग्न जायनाशिल्लें चली पळयतकीर मवाल्यांचें फावता. तूं लग्न कित्याक जायना? म्हजेकडेन जावशीत? हांव तुज्या ह्या शर्वीकय आपणावपाक तयार आसां." ताच्या ह्या प्रश्नाचेर हांव ओगीच रावलें. खरें म्हळ्यार म्हाकाय ताचें म्हणणें पटिल्लें. तूं तुज्या संवसारांत रमला हें कळटालेंच.

तेन्ना हांवें मामेभावाक हयकार दिलो.

ताणें सगळें आईक सांगलें आनी दोन-तीन म्हयन्यांनी लग्न करुंया अशें थारावन तो मुंबय गेलो. लग्नाचें थारायतसावन म्हाका न्हिद पडनाशिल्ली. वेगळेच विचार मनांत येताले. फाल्यां ताचेपासून म्हाका भुरगें जालें आनी म्हजेकडल्यान शर्वीचेर अन्याय जायत जाल्यार रमा कितें म्हणटलें? शर्वीच्या वारशाकडेन घेतिल्लो निर्णय परत तकली वयर काडपाक लागलो. तो हांवें पूर्णय केलो. आईक ट्रेनिंगाक वतां अशें सांगून पंदरा दीस रावन आयलें.

दोन म्हयन्यांनी लग्नाचे कपडे काडपाक, मुंबय व्हरूंक म्हजो मामेभाव आयलो. तेन्ना हांवें ताका कांयच लिपयनासतना तें सगळें सांगलें. तेन्ना ताका खूब राग आयलो आनी ताणें म्हळें, "तुवें फक्त शर्वीचोच विचार केलो. म्हजो मातय विचार तुवें केलोना. तेन्ना तुवें केल्ल्या ह्या विश्वासघाताक लागून हांव हें लग्न मोडटां." अशें म्हणून तिडकीन म्हजे आवयक कांयच सांगनासतना मुंबय परतलो.

ताचेकडल्यान म्हजी हीच अपेक्षा आशिल्ली. देखून हांव निर्शेलें ना पूण आईक मात कित्याक लग्न मोडलें तें कळ्ळेंना. हांवेंच मोडलां आसतलें असो विचार करून ती म्हजेलागीं एक शब्द लेगीत उलयना. पूण ह्या शर्वीचें सगळें करता."

ताची खबर आयकतकीर कार्लीन म्हळें, "आगो, पूण असो कसलो विश्वासघात केलो तुवें ताचो?'

वृंदान हुंदको दिवन म्हळें, "हांवें म्हजो गर्भाशय काडून उडयलो. भुरगें जावपाक जायना म्हणून." दोनीय हातांनी तोंड धांपून तें रडपाक लागलें. ताणें दुसऱ्याल्या भुरग्याक लागून येदें व्हडलें दिव्य केलें. म्हणून कार्काल्या आनी मांगिशाल्या नदरेन तें ग्वूव म्हान ठरलें. मांगिश ताचेम्हऱ्यांत गेलो आनी ताणें म्हळें, "वृंदा, तुवें केदें व्हडलें दिव्य केलें तें तुका खबर आसा? असो त्याग कोणच्र करपाचो ना. तूं दुसऱ्याखातीर जगलें. पूण खरो विश्वासघात हांवें तुजो केलो तो म्हळयार पूर्वाम्हऱ्यांत वचचोना हें तुका दिल्लें वचन हांवें ब्रम्हचर्य मोडून तोडलें. ह्या सगळ्या प्रकरणांत हांवच चड दोशी. म्हज्या भविश्यांत म्हाका भुरगें जावपाचें ना म्हणून पयलीं पूर्वाचो वळी आनी आतां तुजें लग्न म्हजेकडेन जावपाचें आसा म्हणून तुज्या भुरग्याचो वळी. पूण ती चूक हांवूच निस्तरायतलों. तुका म्हजी बायल करून आनी ह्या सोवीत सुंदर शव्रीलो बापूय जावन." अशें म्हणून ताणें जमनीर खेळटल्या शव्रीक उखलून धरलें आनी ताच्यो कितल्योश्योच पापी घेयत रावलो. तें पळोवन कार्कीच्या आनी वृंदाच्या तोंडार समाधानाचो हांसो फुललो.



# 3. कुसांकीड

"म्हजी सून वाये म्हाका सोडून कुळारा वचपाकच तयार जायना." वेदाची मांय शेजान्नीकडेन ताचेमुखार सुनेच्यो तोखणायो सांगताली. तें आयकून शेजान्नीन तोंड वांकडें करून हांसत टोमणो मारलो, "पुरो गे तुगेल्यो सुनेच्यो खबरी. आमकां नाकात त्यो. जी धूव णव म्हयने पोटांत घेतिल्ले आवयक विसरता, आवयगेर वचपाक फाटीं सरता ती दोन दिसांच्या मांयक पळयतली? हीं सगळीं हालवणपणां." हें आयकून वेदाची मांय ओगी रावली. वेदाय तिडकीन भितर गेलें.

वेदा नवेंच लग्न जावन घोवागेर आयिल्लें. व्हडल्यो दोगूय जावो मेधा आनी सिमा ताची मायेमोगान विचारपूस करतालीं. सुजय तर ताका खूब तोखेतालो. पूण थोड्याच दिसांनी सगळ्यांक ताचो स्वभाव कळून आयलो. आपल्या गिरेस्तपणाचो आनी आपल्या रुपाचो ताका गर्व आसा म्हणपाचें तांकां कळ्ळें. जावो ताचेपसून ल्हव ल्हव पयस रावपाक लागल्यो. घोवान, जावांनी, देरांनी, मांयन, मांवान सगळ्यांनी आपलेफाटल्यान नाचचें अशें ताका दिसतालें. पैशांचो वापर करून आपूण सगळ्यांचेर अधिकार गाजयतलें अशेंय ताका दिसतालें. पूण तोंडान फट करून उलयिल्लें उतर एकदां मनाक लागलें म्हणटकीर, त्या पयशांनी तुवें कितेंय हाडून दिल्यार लेगीत कशेंच पुसून वचना, हें ताका खबरनाशिल्लें जांवये. आनी त्यो कितल्योय जाल्यार ताच्यो जावो. त्यो कित्याक ताचीं उतरां घेतल्यो? मांयन आनी घोवान जाय जाल्यार ताचीं उतरां घेवचीं आनी नाचचें ताचेफाटल्यान, अशो त्यो दोगूय जावो एकामेकांकडेन उलयताल्यो. वेदाक सामको नाकार राग आशिल्लो. फकाणां लेगीत केल्यार ताचो सोणो रोकडोच फुलतालो. मागीर दोन दोन दीस तें उलयनासतना रावतालें. जावांनी ताचीं फकाणांय करपाचीं सोडिल्लीं.

घरांत तर तें व्हडल्या देराकच न्हय, तर मांवाक लेगीत केर काडनाशिल्लें. तांचेमुखार घोवाक तेकून बसप, माणयेर न्हिदप, हें ताजें चालूच आशिल्लें. मांय तोंड धांपून ओगी रावताली. कित्याक काय म्हळ्यार, तें रागार जातालें न्ही कितेंय उलयल्यार? दोगूय जावांनी जर मांयकडेन ताच्यो कागाळ्यो करीत जाल्यार मांय रोकडीच म्हणटाली "आसूं गो, तुमी व्हडलीं न्ही आनी तुमी दोगांय समजिकायेचीं. तें तसलें न्ही म्हणून ओगी रावचें पडटा." मांयची ही सदांचींच उतरां आयकून तांकांय वाज आयिल्लो. कितेंय सांगल्यार तिचीं एकच उतरां. "ताजो सोणो फुगता न्ही?" आतां ती दोगांय वेदाविशीं

तिचेकडेन एक शब्द लेगीत उलयनाशिल्लीं . वेदा कसलीं कसलीं नाटकां करता तें
मोन्यानी पळयतालीं . घरांत जावांकडेन एक शब्द लेगीत उलयनाशिल्लें वेदा भाय
लोकांमुखार तोंड भरून तांचेकडेन उलयतालें . फकत लोकांक दाखोवपाक . मेधा
आनी सीमाक ताचें हें नाटकीपण कळिल्लें . तांणी ताचेकडेन लोकांमुखार लेगीत उलोवपा
सोडिल्लें .

घरांत स्टार टी . व्ही . चेर मेधा आनी सिमाक हिंदी प्रोग्राम पळोवपाक जा
आसलो आनी वेदाक इंग्लीश . म्हणटकीर मांयन रोकडेंच वेदाचें आयकुवप आ
इंग्लीश प्रोग्राम लावप . तिका तातूंतलें मातूय कळना जाल्यार पिडा गेली . पूण वेदावरोब
ती पळोवपाक वसताली . दोगूय जावो थंयच्यान उठून भायर वसताल्यो . अशे तरे
सदांच वेदाचेंच आयकून आपूण एकेतरेन व्हडल्या दोगूय सुनांचेर अन्याय करतां म्हणपा
मांयचे तकलेंत वचनाशिल्लें . वेदाच्या घोड्याक तीन पांय जाल्यार तीन पांयच म्हणपा
लेगीत ती तयार आशिल्ली . वेदाचें उतर तोंडांतल्यान भायर पडचेपयलीं तें जिकून मां
तें सांगता तें करताली . वेदाक अमकेंच एक कितेंय खायन दिसता जाल्यार ती ताक
रोकडीच करून घालताली .

मांय बावडी सामकी पेज . पूण तिणें जर ताका असो परतो परतो तेंको दिल
नाशिल्लो जाल्यार तें अशें करूंक पावनशिल्लें . तिणें जर "हें अशें न्ही वा तशें वा अ
करूं नाका हां, म्हाका आवडना तें, म्हाका तिगूय सुनो सारक्योच ." अशें म्हुणून ज
पयलेच फावटी शिटकायिल्लें जाल्यार तें अशें मदांतपणां केन्नाच करचें नाशिल्लें . पू
तिका वेदामुखार उलोवपाची कापस्ताद नाशिल्ली आनी थंयच तिचें सगळें चुकलें.
सगळी चूक तिचीच पूण एकेवटेन पळोवपाक गेल्यार ती वेदाक परक्याभशेन आनी
तांकां दोगांकय धुवेभशेन वागयताली शी दिसताली . कित्याक तर तांचेर ती हक्का
तापताली . कितेंय चुकिल्लें सांगताली . पूण धाकटे सुनेमुखार मांयन तापल्यार मेधाक ते
आवडनाशिल्लें . पूण ताचो स्वभाव पाड पडिल्लो सोशिककायेचो . सिमा मात केन्नाय
परत्याक परतें दितालें . घरांतलें कसलेंय काम मांय वेदाकच विचारून करताली . जण
काय तो एक घरांतलो बॉस जाल्लेवरी . मांयन व्हडल्या जावांकडेन उलयिल्लें लेगीत
वेदाक खपनाशिल्लें . तांचेकडेन उलयल्यार तें रोकडेंच दुसऱ्या दिसाच्यान मांयकडेन
उलयनाशिल्लें .

एक दीस मेधा आनी सिमा खवऱ्यो करीत बशिल्लीं . थंय वेदा आयलें आनी
ताणें तांकां दोगांयकय साडयो दिल्यो आनी म्हळें, " ह्यो घेयात . दिवाळेच्या निमतान

तुमकां साडयो." वेदाचो उद्देश इतलोच आशिल्लो की तांणी दोगांनीय साडयो पळोवन भुलचें आनी आपणें तांकां इतलीं सगळीं वायट उतरां उलयल्लीं तांणी विसरचें आनी परत आपल्या फाटल्यान नाचचें. पूण तशें घडलेंना. साडी पळोवन सिमान म्हळें, "वेदा, आयक; आमकां तुज्यो साडयो नाकात. तुवें आमकां साडी दिली म्हण्टकीर आमी तुज्या रिणांत शीं उरतलीं. आनी ते साडयेची परतफेड करतलीं म्हळ्यार आमचे घोव तुज्या घोवा इतले जोडिनात. दुसरें म्हळ्यार आमी तुजेभशेन गिरेस्तूय ना. तेन्ना तुज्या मनाक जर खरेंच आमचेकडेन बरेंपण दवरपाक जाय जाल्यार तोंड भरून हांसून, उलोवन दवरल्यार जाता पूण तुज्या पयशांनी तूं आमकां विकतीं घेनाका." अशें म्हूणून सिमान त्यो साडयो परत्यो ताका दिल्यो. हीं उतरां आयकून वेदाचो सोणो फुगलो आनी तें रागान भितर गेलें.

मेधाक बाबड्याक सिमाभशेन उलोवपाक कळनाशिल्लें. आनी ताका वेदाभशेन हालवणपणांय करपाक कळनाशिल्लीं. वेदाभशेन मांयचेफाटल्यान लाडीगोडी लायत भोंवपाक कळनाशिल्लें. वेदाचो मांयचेर मनांतल्यान मोग कितलो आसा तें तांकां खबर आशिल्लें. तागेलें तें सगळें मांयक भुलोवपाक वेलेवयर म्हुणून ती जाणां आशिल्लीं. खरो मोग काळजांतल्यान आसता तो तांचो दोगांचोय मांयचेर अशिल्लो. घरांत कोणूय आयलो जाल्यार दोगूय जावो आसतना वेदा सगळीं कामां आपुणच करपाक फुडें सरतालें. केल्ल्या वस्तुंची परक्या मनशान खूब तुस्त करची अशें ताका दिसतालें. परत परत कशें जालां हें तागेलें विचारप आयकून तें खाण खातल्याक 'कित्याक आपणें खालें काय देवा' अशें दिसपाचें. वेदाक काम करपाची आवड म्हूण न्ही पूण हें सगळें आपणें केलां अशें मोठेपण मिरोवपाची खूब आवड आशिल्ली.

मांयक बावडेक दिसतालें, तें आपल्या मोगान कुळारा वचना म्हुणून. पूण ताचें कुळारा न वचपाचें कारण म्हळ्यार, ताका दिसतालें आपल्याफाटल्यान मांय मेधाक आनी सिमाक बरी करत, म्हुणून तें भितालें. मांयन आपल्याकच बरें करचें, आपलीच तुस्त करची, आपल्याकच तोखेवचें अशें ताका दिसतालें. मांय लेगीत ताका भिताली. दोगूय सुनो वच्यो ना जाल्यार, जोर आयल्यार ती वेदामुखार तांची खबर घेनाशिल्ली. तें ना जाल्यारच ती मेधाची आनी सिमाची खबर घेताली. हें तांकां कळून आयिल्लें. पूण कितें करतलीं? मनांतल्या मनांत कुढत रावतालीं.

वेदा केन्ना कोणाक जिवापरस चड बरें करत आनी केन्ना ताच्या नाकार फातोर घालीत हें सांगप सामकें कठीण. ताका कोणामुखार कशें उलोवप हें वेस बरें कळटालें.

ताका भावज ताचेवरीच मेळिल्ली . वेदा जेन्ना आपली भावज कितली आपले आवयक जळयता, अशें मांयक सांगतालें, तेन्ना तें आयकून मेधाक आनी सीमाक पोटांतल्यान हांसू येतालें . एक दीस सीमान तें आयकून मांयक म्हळें, "घरां घरांत गॅसच न्ही गे? कित्याक काय म्हळ्यार आतां मातयेच्यो रान्नी कोणागेरच नात ." हें आयकून वेदाक , आपल्याक टोमणो मारलो हे कळ्ळें .

वेदा सदांच, फकत आपल्या बापायच्यो, आकाच्यो व्हडविकायो गायतालें . तें मोठेपण इतल्या मोट्यान सांगप की मेधान आनी सिमान तें आयकुचें . सिमान मागीर एक दीस मोट्यान म्हळें, "म्हज्या बाबागेर बारा म्हश्यो, हांव काडता हांगा उठावश्यो . तें कित्याक उपकारता न्ही गो मेधा?" मेधान फकत मान हालयली . हीं उतरां वेदान आयकलीं आनी म्हळें, "हय हय, तुमकां झगडीं करपाची येवजल्यांत जाल्यार येयात हांगा . एकएकट्याक सारकें उजरावन काडटां ." अशें उलोवन ताणें घरांत व्हडलीं झगडीं मांडलीं आनी घोवाक घेवन निट्ट कुळारा गेलें . हांगा ह्या मोगाळ जावांकडेन ताचें पटनाशिल्लें, थंय भावजेकडेन कशें पट्टलें कपल . दोन दिसां भितर थंय झगडीं करून परत आयलें . मांयन एका शब्दान लेगीत ताका विचारलें ना .

वेदाची मांय येतल्या वतल्याकडेन ज्यो ताच्यो वेश्ट्योच वेल्यावयर खबऱ्यो करताली, तोखणाय करताली तें आयकून – आयकून मेधा आनी सिमाक सामकें पाठ जाल्लें . कान सामके किटून गेल्ले . वेदाक आपल्याची लोकांमुखार तुस्त केल्ली आवडटा, हें जाणा जावन मांय ताचेमुखारच ताचे गूण गायताली . तें आयकून तरी तें मनशांत आयल्यार आयलें म्हणून! पूण ग्वंय? उमथ्या कळशार उदक .

मेधाची चली मृगा आनी सिमाचो चलो कौस्तुभ हीं दोगांय वेदाक दोळ्यांमुखार नाका आशिल्लीं . त्या दोगांयकय काकीचो राग येतालो . तीं वेदा म्हऱ्यांत लेगीत वचनाशिल्लीं .

एक दीस घरांत कोण नाशिल्लीं . मृगा आनी कौस्तुभ अभ्यास करतालीं . आनी वेदा पोरसांत पेरां काडपाक गेल्लें . काडटां काडटां ताचो पांय निसरलो आनी तें पडलें . ताचो बोबाळ आयकून मृगा आनी कौस्तुभ धांवत भायर आयलीं . सकल पडिल्ले आनी उठूंक जायनाशिल्ले आपले काकीक पळोवन ताणीं दोगांयनीय वेगींवेगीन वेदाक दोनूय खाक्यांनी हात घालून ल्हवू ल्हवू करून भितर हाडलें . ताचे कुडींत व्हरून खाटीचेर न्हिदयलें . दोगांय भुरगीं कावावून जाल्लीं . वेदा वळवळटालें. ताच्या पांयांतल्यान रगत येतालें . मृगान ताका आयोडेक्स लायलें . कौस्तुभान वेगींवेगीन उदक पिवपाक

ाडून दिलें. दोगांय आपआपलेपरीन ताची सेवा करतालीं तें पळोवन वेदाच्या दोळ्यांत ुकां भरलीं. ताणें तांकां मोगान म्हऱ्यांत ओडलीं. थोड्या वेळान सगळीं आयलीं. आपलीं भुरगीं वेदाचे कुडींत वसल्यांत हें पळोवन मेधाक आनी सिमाक अजाप दिसलें. ळयत जाल्यार वेदाच्यान उठपाक जायना म्हणपाचें तांकां कळ्ळें. दोगूय मायेस्त जावांनी वेदाक खाटीवेल्यान सकल देवंक दिलेंना. हें पांयांचें दुखणें वेदाक तीन म्हयने काडचें पडलें.

मेधा ताका जेवण कुडींत हाडून दितालें, जाल्यार सिमा ताका न्हाणोवपाक मदत करतालें. हें सगलें पळोवन वेदाचे दोळे उगडले. तें तेन्नाच्यान सामकें मोवसाणेन वागपाक लागलें. दोनूय जावांचो दुस्वास करपाचें ताणें सोडून दिलें. घरांतलें एक व्हडलें वादळ थंड जालें अशें मांयक दिसलें आनी तिणें आपले कुळदेवतेक साश्टांग नमस्कार घालो. एका कुसांकिडीचो फुलपांखो जाल्लो.

❑❑❑



# ४. सुटका

एक काळीज भेदपी किळांच आयकूंक येतासर आंगणांत धव्क करून आदळिल्लो आवाज आयलो. घरांतलीं मनशां धांवत आयलीं. शेजारच्या उज्वलाकडेन उलयत आशिल्लें निशाय त्या आवाजाचे दिकेन धांवलें. दोन वर्सा पयलींच पांयान लंगडो जाल्लो ताचो वापूय "कितें जालें?" अशें भिवन आड्डत, झरकटत भायर आयलो. शेजारी-पाजारी जमले आनी मुखावेलें दृश्य पळोवन सगळ्यांच्या तोंडांतल्यान किळच्यो भायर पडल्यो.

अविनाश वांकडो तिकडो जावन पडिल्लो. सगळें आंग रगतान भरिल्लें सगळ्या अवयवांची विचित्रशी तडफड जाताली. जणू काय ती निमाणचीच. लोकांनी ताका कशेंबशें स्ट्रेचराचेर घेवन ॲम्ब्युलन्सींत घालो, पूण हॉस्पीटलांत पावचेपयलींच ताचो जीव गेल्लो. अविनाशाचो विनाश जाल्लो.

घडलें तें इतलें अकस्मात आनी इतलें कल्पनेभायलें की जाल्ले घडणुकेवद्दल कोणाक कांयच कळ्ळेंना आनी जेन्ना कळ्ळें तेन्ना सगळेच हताश जाल्ले. संवंद तोडिल्ले बायलेच्या कुळारा परत परत अविनाश येता कितें.. तिसरे माळयेचे गच्चीचेर कमराइतल्या ऊंच वणटीचेर फाट करून वसता कितें.. आनी कुत्र्याचो हल्लो चुकयतना तोल वचून सकल पडटा कितें!.. तितल्या वेल्यान पडून जितो उरिल्लो जाल्यारच नवल!

तशें निशा दोन वर्सांपसून कुळाराच रावतालें. अविनाशाचे आनी ताचे बायल-घोवाचे संवंद केन्नाच सोंपिल्ले. अविनाशाचें हें परत परत तागेल्या कुळारा येवप ताकाच न्हय तर तागेल्या घरांतल्या कोणाकच आवड नाशिल्लें. येनाका अशें सांगूनय निर्लज्जपणान तो येतालोच, निशाक आनी ताच्या कुळारच्या मनशांक सतायतालो. अविनाशाच्या मरणान कोणाक व्हडलें दुःख जावनाशिल्लें पूण जे वायट तरेन ताका मरण आयलें तें पळोवन सगळे चुरचुरले. ताज्या सतवण्यांनी अर्धमेल्लें जावन घटस्फोट घेतिल्ल्या निशाकय ताचें मरण पळोवन दुःख सोसपाक जायना जालें. एका काळार ताणें ताचेर जिवापरस चड प्रेम केल्लें. त्या मोगाचो तो वांकडो तिकडो देह पळोवन तें वेशुद्ध पडलें.

तें शुद्धीर आयलें तेन्ना ताचे अंत्यसंस्कार सोपिल्ले. अविनाशाच्या घरांत कोणच

नाशिल्लो. आवय दोन वर्सांपयलींच मेल्ली. एक काका गांवांत गवतलो. ताणें आनी बाकीच्या लोकांनी मेळून सगळें केल्लें. तें तशेंच पडून गवलें. अविनाशाचो अंत जाल्लो ही जाणीवच ताका चड सतायताली. ती जाणीव दुख्खाची नाशिल्ली, समाधानाची तर नाशिल्लीच नाशिल्ली, सुडाचीय नाशिल्ली. ताचे पक्कडींतल्यान आपली आतां कायमची सुटका जाली हें खबर आसतनाय एक विचित्रचसो भंय ताच्या मनांत भरून उरिल्लो.

ताका याद जाताले, ते ताच्या आयुष्यांतले भांगराचे दीस. कॉलेजांतलो तो सपनावरी सुंदर काळ. बरोबरच्या इश्टिणींक घेवन हांसत खेळत फुडाराचीं सपनां रंगोवपाचे दीस. अभ्यास, परिक्षा, एकमेकांच्यो मस्कऱ्यो करीत फुडाराच्या आयुश्याक रंग भरपाचो चाळो करपाचे ते कोवळे लुसलुशीत दीस. आनी त्याच वेळार ताच्या बापायची शेताबद्दल कितेंतरी भानगड जाली आनी कोणेंतरी नांव सुचयलें म्हणून तांणी ती केस ॲडव्होकेट अविनाशाक चलोवपाक दिल्ली. वकील जावन ताका तीन चार वर्सां जाल्लीं. तिसांभितर आशिल्लो तो तेन्ना! पूण वेवसायांत ताणें बरो जम बसयिल्लो. इतल्या थोडयाच वेळांत ताणें दाखयिल्ली हुशारी, धडाडी आनी बुद्धीची चमक सगळ्यांच्या लक्षांत आयिल्ली. फुडें हो खूब पयसो आनी नांवलौकिक मेळयतलो हाचेबद्दल कोणाकूच दुवाव उरूंक नाशिल्लो.

तशें केसीच्या निमतान ताचो बापूय ताचेकडेन यो – वच करतालो. हो तरणाटो ताणे केन्नाच आपले धुवेखातीर पळोवन दवरिल्लो. एक दीस ताणे अविनाशाक आपल्यागेर जेवपाक आपयलो आनी निशाकडेन ताची वळख करून दिली. त्यावेळार ताका हाची कल्पना नाशिल्ली. जेन्ना तांचें लग्न थारलें तेन्ना बापायन ताका उलयतां उलयतां सांगलें. पूण, खरें म्हळ्यार ताकाय तो आवडिल्लो. तागेलें तें मनमेकळेपणान हांसप. . विनोद करून दुसऱ्यांक हांसवप, हें सगळें ताका खूब आवडिल्लें.

पयले फावटी जेन्ना ताज्या बापायन ताका घरा आपयिल्लो तेन्ना तो येवपाक फाटीफुडें जातालो. आनी मागीर आपयनासतना येवपाक लागलो. निशाक आपूण आवडटा हें त्या हुशार तरणाट्याच्या केन्नाच लक्षांत आयिल्लें. ताकाय तें आवडिल्लें. रुपान पांच-पंचविसांभितर उठून दिसपी निशा ताका वायल म्हणून जाय अशिल्ली. दोगांलेंय जमत आयिल्लें. तागेल्या घराकडेन केसीखातीर येवपाचें निमित्य आसलें तरी ओड निशाचीच आसली. दोगांयल्योय खबऱ्यो रंगताल्यो. मर्दीमर्दी दोगांय फिरपाक वताली. त्या दिसा फिरपाक गेल्लेकडेन एका शांत, अशा जाग्यार बसतकीर ताणें विचारलें, "म्हजेकडेन लग्न करशीत निशा?" ताका जायजायसो दिसपी, ज्या प्रस्नाची तें

कामाचें निमित्य सांगपाक लागलो. तें जेवपाखातीर तांची वाट पळयत बसतालें. तो भायरच जेवन येतालो. सुटयेच्या दिसांनीय भायरच रावतालो. सोगाचे रंग चार दियन्यांतच विटिल्ले. ताचें मन उदास जायन राविल्लें. इतल्या थोड्या वेळांत आविनाशाचें आपल्यावद्दलचें आकर्षण सोपलें हाचें ताका खूब वायट दिसतालें. अजापूय दिसतालें.

त्या दिसा तर चडच जालें. रातचीं वारा वरां जालीं तरी कोर्टांत गेल्लो अविनाश आजून परतो येवंक नाशिल्लो. तागेली चौकशी खंय करप, कोणाक कळवप हें निशाक कळना जालें. ताका ॲक्सीडेंट वी जालो ना मूं ह्या दुवावान ताचें काळीज कलकललें. शेजारचीं सगळीं न्हिदिल्लीं. मुखावेल्या रस्त्याचेरय कोणच दिसनाशिल्लो. चुकून एखादी सायकल, रिक्षा येता ती दिसताली. भोंवतणच्या सगळ्या घरांतले दिवे पालयिल्ले आसले. फकत ताच्याच घरांत उजवाड आसलो. इतल्यान भायली गेट वाजली. ताणें वेगीवेगीन पळयलें. दारामुखार रिक्षा उबी आसली आनी रिक्षावालो रिक्षांतल्यान अविनाशाक भायर काडून आपल्या हाताचो आदार दीत भितर हाडटालो. ताचे पांय वांकडे तिकडे पडटाले. तो खूब लकतालो. स्वताचो तोलूय ताका सांवाळपाक येनाशिल्लो. निशान भिवन रिक्षावाल्याक विचारलें. "कितें जालें हांकां?" रिक्षावाल्यान तिचेकडेन विचित्र अशे नदरेन पळयलें आनी अविनाशाक सोफार न्हिदोवन एक अक्षर लेगीत उलयनासतना तो गेलो.

निशा भीतभीत अविनाशाम्हर्यांत गेलें आनी इतल्यान ताच्या तोंडाचो उग्र वास नाकांत वतकीर तें चार पावलां फाटीं सरलें. ताका एकसारकें पळयत रावन तें चिंतपाक लागलें, इतलो तर जायसर हो सोरो पिल्लो! आनी आयजमेरेन तो अशें कितें करता हाची ताका कल्पनाय नासली. आनी हो वेळमेरेन वेळान येवपाचें ताचें कारण तिका कळ्ळें. खीणभर ताच्या दोळ्यांमुखार काजुले चकचकले आनी आदाराखातीर ताणें कदेलाचेर वसकण मारली. सोरो-वाटल्यो-जुगार हे शब्द ताच्या कानाकडेन आवाज करपाक लागले. सोऱ्याचें वेसन हें केन्ना एकटेंच येना. वरोवर आपली सगळी लांवण घेवन येता, हें खूबजाणांच्या तोंडांतल्यान आयकल्लें ताका याद जालें तशें आपल्या संवसारसुखाचो गोवर जालो हे कल्पनेनच तें खूब भिल्लें.

सपनांतलेगीत चितूंक नाशिल्ले हे खबरेन तें निर्शेलें तरी थोड्या वेळान ताका दिसलें, की एखाद्रया इश्टाचे संगतीन हो इवाडलो तरी फाल्यां शुद्धीर येतकीर....

पूण 'फाल्यां' हो दीस उजवाडलो तो हाचेपरसूय मोठो धक्को दिवपी असो! ते

रातीकडेन नानातरेच्या विचारांनी ताच्या दोळ्यांक दोळो लागलो ना. पूण उजवाडिल्ल्या सूर्याच्या उजवाडाबरोबर ताच्यो आशाय उजळिल्ल्यो. अविनाश वेळान जागो जातकीर तें ताचेकडेन सदांवरीच वागलें. बऱ्या वेळान तो बऱ्या मुडांत आसा हें पळोवन ताणें म्हळें, " काल तुमकां कितें जाल्लें?

तो खीणभर ताचेकडेन पळयत रावलो. आनी मागीर ताणें म्हळें. 'बरें जालें तुका एकदांचें कळ्ळें तें! आतां हाचेफुडें सगळें तुजेमुखारच करतलों हांव.'

"म्हणजे कालचें तें चुकून जावंक नाशिल्लें आनी हें आजमेरेन म्हज्या लक्षांतच आयलें ना!" निशान म्हळें. तो हांसलो. सामको निर्लज्ज्यावरी आनी ताणें म्हळें, " तेन्ना आयलें ना लक्षांत आतां आयलें, कितें फरक पडटलो हाचेखातीर? काल मातशें चड जाल्ल्यान जालें तशें."

"म्हणजे लग्नापयलींपसून?"

'करेक्ट!' ताणें म्हळें. "कित्याक फटयलें म्हाका? पयलींच कित्याक सांगलेंना?" ताच्या दोळ्यांत दुकां भरिल्लीं. "शी...शी.. हांवें कोणकच फटयलें ना. म्हाका पयलींच तुवें विचारपाचें, तुका सोरो पिवपाची सवंय आसा काय म्हणून?"

सगळो सत्यानाश ताका दोळ्यांमुखार दिसतालो. ताची तकली सामकी भेरेल्ली. ताणें फुडें म्हळें, " तांतूंत वायट तें कितें? पॉश सोसायटींत रावपाचें म्हळ्यार ह्या असल्या गजालींची आपुणशींच सवंय लागताच. तातूंत इतलें कांचवेप कित्याक? " तें कांयच उलयलेंना. घोवाचे जापेन बशिल्ल्या धपक्याखातीर ताच्या तोंडांतल्यान उतरच भायर सरलेंना आनी मागीरच्या आयुश्यांत तर तें सामकेंच मोनें जाल्लें.

मागीर तो घराकडेन पिवपाक लागलो. तसल्याच इश्टांची घराकडेन यो - वच जाताली. चड उलोवप ... चड पिवप ... नाकाशिल्ल्यो मस्कऱ्यो करप ... तर्र जावन मेळत तशें लोळप ... नाजाल्यार भितर येवन निशाकडेन हलकटपणां करप .. हें कमी म्हणून घरांत तसल्योच वायलो घेवन येवप.. जुगार खेळप.

एक आनी दोन न्हय. हें सगळें करतां करतां निशाक खूब पुरो जातालें. ताच्यान कितेंच पळोवपाक जायनाशिल्लें. ताच्या सभ्य सुसंस्कृत सर्तामनाक हो, नागडो नाच सहन जायनाशिल्लो. पूण एक ना एक दीस आपल्या सोशीकपणाची किंमत ताका कळून येतली आनी तो सुदारतलो अशें ताका दिसतालें पूण ती आसय पोकी थरिल्ली.

दिसानदीस ताचें चडूच जातालें. हें सगळें पळोवप ताका आतां सामकें अशक्य जाल्लें.

लग्न जावन वर्स – देडवर्साभितर तें कायमचें कुळाग पग्तल्लें. घटस्फोटाखातीर ताणें अर्जय केल्लो. पूण तरीलेगीत तो ताच्या कुळाग यो–वच करून ताका नाका शेवट करून सोडटालो. ग्स्त्यान भोंवप म्हळ्यार ताणें ताका नाकाच केल्लें. ताकाच न्हय तर ताच्या भयण भावांकय एकटीं मेळ्ळीं जाल्यार तो माग्तालो. ताणें परतें आपल्या घरगंत रावपाक येवचें अशें ताचें म्हणणें आशिल्लें. स्वताची वागणूक तो वदलपाक तयार नासलो. आपूण जसो आसां तसोच तुकां खपोवन घेवचो पडटलो अशें ताका सांगतालो.

पूण तें निशाक आतां अशक्य आसलें. स्वताच्या आंगाची आनी मनाची विटंवणा सहन करप आतां ताचे शक्तीभायलें आसलें. ताणें भोगिल्लें तें खूब आसलें. सोशिल्लें तें भयानक आशिल्लें. अणभविल्लें तें आंगार कांटो हाडपासारके. जीव गेलो, आकाश कोसळून पडलें तरी त्या नरकांत परत पांय दिवप ना असो ताणें मनाचो निश्चय केल्लो. पूण ताणें त्या घरांत पांय जरी दवरलोना जालो तरी तो ताच्या कुळारा जवरदस्तीन घुसून ताका सतयत राविल्लो. तसो थंय ताका आडावपीय कोण नाशिल्लो. ताचो वापूय पांय गेल्त्यान सदांच वरो नासतालो. ताका पॅरलायज जाल्ल्यान तो कांयच करूंक शकनाशिल्लो. ताच्या संवसाराची होळी जाल्ली पळोवन पयलींच हायब्लड प्रेशरान वरी नाशिल्ली ताची आवयक हार्टअॅटेक येवन सोंपिल्ली. भयण भाव ताचेपरस ल्हान आसले. तांगेलीं आडांगपणां हेखातीर चड वाडिल्लीं. समाज तर "आपल्याक कितें ताचें? अशें म्हणून दुर्लक्ष करतालो. लोकांच्या झगड्यांत कित्याक पडप? म्हणून कोणच तांकां आदार दिनाशिल्लो.

आनी म्हुणूनच अविनाशाचो धुडगूस हांगाय वरेतरेन चलतालो. ताका तो धड मरूंकय दिनाशिल्लो आनी धड जगूंकय दिनाशिल्लो.

शेजारी–पाजारी मेळपाक येताले. ताचेवद्दल कळवळटाले. निशा वोगी वसून सगळें आयकतालें. सगळे यो वच करताले. ताच्या दुख्खी तोंडाकडेन पळोवन ताचे एके इश्टिणीन म्हळें, "वायट कित्याक दिसून घेता निशा? ताच्या तोंडांतल्यान देवान तुजी सुटका केली म्हूण आभार मान देवाचे. ताणें तुका कितलें सतयलें?"

वयलेचाराक ताणें तोंड सामकें दुख्खान भरिल्लेवरी केलें. पूण ह्या जल्मांत फुटचेनाशिल्ले ताचे शव्द भितरल्या भितर उलयताले, म्हणटाले, "वाय गो, देव कसलो सोडयतलो म्हाका? तो इतलो दयाळू आशिल्लो जाल्यार म्हाका इतलो भयानक नरक

कित्याक भोगपाक लायतलो आशिल्लो? अविनाशाक हांवें पयशिल्ल्यान येतना पळयिल्लो सदांवरी तो गच्चेर वसतलो हें हांव जाणा आसलें. हांवें कुत्र्याक फुरफुरी येवपासार खावपाक पयलींच घाल्लें. मागीर ताका माळयेर सोडलो आनी म्हजी सुटका, म्हजे हांवें केली! तुगेल्या त्या देवान न्हय!!"



# ५. दादा

"आगे, म्हजी हारशी आनी फणी हाड गे मातशी." दादा आड्डलो. सुनेन वेगीवेगीन दोनूय वस्ती हाडून दिल्यो. दादान तेलान आपलो ग्वड्डो भिजयलो, आनी हारशेंत पळोवन फणी घेवन आपले आशिल्ले ते पिकिल्ले चार केंस वळोवपाक लागलो. साडेधांक सुमार गोरोपिट्ट तांवडो गोरो दादा,धवें फुल्ल पुडवें आनी सदरो घालून, एक ल्हानशी पिशवी घेवन नुस्तें हाडपाक पाट्यार गेलो. हो तागेलो सदांचो नेम आशिल्लो. बाजारांत करवट आयिल्लें. चडशेंच वाणपण करून ताणें पांच रूपयांचें करवट घेतलें आनी वाटेवेल्या एका गाड्यार आपल्या दोन नातरांखातीर पिपिरमिटां घेतलीं. दादा आनी कितेंय चुकयत पूण आपल्या पुताल्या भुरग्यांखातीर पिपिरमिटां केन्नाच चुकयनाशिल्लो.

घराकडेन येतकीर दादान पिशवी सुनेकडेन दिली. नातरांक आपोवन तांकांय पिपिरमिटांची पुडी दिली. दोगांयलींय सदांच्या झगड्यांक सुरवात जाली. म्हाका तांवडी जाय, म्हाका हळदुवी जाय . झगडीं सुरू जातकीर दादान रोकडेंच म्हणप, "हांगेलें एक, खावपाक हाडल्यार रड, हाडूं ना जाल्यारय रड." तांचीं झगडीं सोडय म्हणसर ताका नाकापुरो जातालें. जेवतना दादाली एक सवंय आशिल्ली, ती म्हळ्यार करवटांतलें तें सुंगट म्हाका घाल. तें घालतगीर म्हणप, तातूंत एक धोडयारो आशिल्लो न्हय? थोड्यावेळान तें सांगट घाल पळोवया अशें म्हणून अर्दे नुस्तें आपणें खालें म्हणपाचें ताच्या लक्षांत वचनाशिल्लें. सून वावडी मांव तापत म्हूण मुकाट्यान वाडटाली.

दादा पयलीं पुण्यांत पुलीस आशिल्लो. ती कडक शिस्त ताका लागिल्ली. ताका सगळें वेळचे वेळार जाय आसलें. स्वभाव तर सामको तापट आशिल्लो. आपलो साडू लेगीत आयल्यार ताका विचारप "हांव तुमगेर येतां? तूं आमगेर सो कित्याक येता म्हाका पिडपाक?" अशें म्हणटकीर खंयचो शाणो मनीस घरांत येतलो? सगळे ताका भिताले. पुताले इश्ट आयल्यार म्हणप, " ताका सोदपाक आयल्यात जाल्यार भायर मेळात. हें घर म्हजें!" इश्ट वावडे फाटल्या पांयान परतताले. व्हडलो पूत दोन भुरगीं जालीं तरी दादाक थर्त भितालो.

"दादाल्या सगल्या पुतांनी आपलें शिक्षण आपल्या पांयांर उबे रावन केलां. दादान तांकां एक पैसो लेगीत दिलो ना. व्हडल्या पुताम्हऱ्यांत दादा रावतालो. त्या पुताक म्हणून दादान थोडे त्रास दिल्यात ! "दादा, हांव घराक सुलचे नळे घालतां गे" अशें पुतान

म्हणटकीर दादान रोकडेच गांवठी नळे काडून घेतले आनी ते विकून ताचे पैशे आपणें घेतले. दादान केन्नाच पयशे चड खर्च केले नात. ताका पेन्शन येतालें, त्या दिसा तो घरांत एक ब्रेड हाडटालो. तेन्ना कळपाचें, ताका पेन्शन आयलां म्हणून. दुसरें नुस्त्याचो खर्च एक दादा करतालो.

गांवांत शिगम्याक विरभद्र जातालो तेन्ना ताची धूव कुळारा येवन भावजयेवगेवर तो विरभद्र पळोवपाक वताली. विरभद्र रातचो वारा वरांचेर सुरू जातालो. नाटक सोपता म्हणसर फांतोडेचीं चार - पांच वरां जातालीं. सगळीं येतकीर दादाक दार काडचें पडटालें. तो घराकडेनच रावतालो. ताका एक सवंय आशिल्ली. रातचें न्हिदचे पयलीं पांच - स फावटी उठून दाराक खिळी सारकी आसा काय ना तें पळोवपाची. शिगम्याच्या वेळार धूव येतकर दादान म्हणप, " हें एक आयलें हालवणें, आपूणय नाचता आनी तिकाय नाचयता." ती म्हळ्यार सुनेक. दादा आपुणय वचनाशिल्लो आनी लोकांनीय गेल्लें ताका सोंसनाशिल्लें. बरें, घरांतलींय म्हणून कसलीं! झेम येतकीर एक एकटी अर्द अर्द वरान घरांत येताली. दादान तांचेर गाळ्यांचो शिंवोर घालप. "एक एकटी येतात तीं, सगळ्यांनी बरोबर येवपाक पिडा मारता तुमकां?" मागीर तोंड वांकडें करून म्हणटालो. "देवळांत वचून देवा पाव म्हळें म्हणून देव पावता? मनांत भक्ती आसल्यार घरांतल्या देवाक लेगीत पांया पडल्यार देव पावता."

गांवांत एकलोच ताचो इश्ट आसलो. तो म्हळ्यार 'भाऊ'. हो भाऊ ताका जिवाक सामको जाय आशिल्लो. एक दिसा ह्या भाऊक, दादान एक सत्री हाडपाक लायली. हाणें पयशे दिवचेपयलींच भाऊन ताका सत्री हाडून दिली. तेन्ना सत्रेक धा रूपये पडिल्ले. ती सत्री हाडतकीर दादान, भाऊक पयशे दिले. पूण दादा मोठे खोशयेनं सगळ्यांक सांगतालो, "पळय, पयशे दिवचेपयलींच सत्री हाडली. इश्ट आसचो तर असो." पूण ते सत्रेन वावडेन भायलें जगच पळयलें ना. कित्याक काय म्हळ्यार दादान तिका सात कागदां गुठलावन खुंटयाळाक लायिल्ली. ती तो पावसांत लेगीत भायर काडिनाशिल्लो. एक दीस दादाली धूव, आपलो चलो वरो ना म्हणून दोतोराक दाखोवपाक आयिल्ली. भायर सरतना पावस पडपाक लागलो. धुवेन म्हळें, " दादा, मातशी सत्री दी. हांव हाका हॉस्पिटलांत व्हरतां." तर दादान कितें म्हणचें, "हे सत्रेक हात लायनाका. ती म्हाका भाऊन पयशे घेवचेपयलींच धा रूपयांक हाडून दिल्या. तूं आनी खंयचीय व्हर." पूण सुनेली सत्री दोगूय भुरग्यांनी शाळेंत वतना व्हेल्ली. आनी घोव आपल्याली घेवन गेल्लो. घरांत एक मोडकी तोडकी बुराक पडिल्ली सत्री आशिल्ली ती

तेणें नणदेक दिली. जोरान भरिल्ल्या चल्याक ते सत्रेंतल्यान भिजयत म्हणटात तशी ती धेवन गेली. असलो हो दादा.

दादा फक्त एकटेकच वरी करतालो. ती म्हळ्यार सुनेची आवय. कित्याक काय म्हळ्यार ती येतना सोलां, नाल्ल, आंबे, काजुबियो, तेभायर तरेतरेचीं खाणां करून हाडटाली. दुसरो तागेलो आवडीचो आशिल्लो तो नातू, जेन्ना तागेर नातू जालो तेन्ना दादा सगळ्यांक सांगत भोंवलो की नातू सारको आपलेभशेनच जाला म्हुणून. सगळयांनी मनांत म्हळें, " तुज्या रुपाचो जालो तें बरें जालें पूण स्वभावान मात तुजेसारको जायना जाल्यार पुरो."

दादाकडेन एक ट्रंक आशिल्लो. त्या ट्रंकाचें कुलूप शेणिल्लें तें ताच्या नातवाक मेळ्ळें. तेन्नाच्यान दादा ताका सदां शाळेंत वतना धा पयशे दितालो. एक दीस लेगीत पयशे दिना जाल्यार नातवान म्हणप, "पयशे दिना जाल्यार आतां कुलूप फोडटां!" दादा नातवालें मातशें आयकतालो. धमकी दितकीर ताणें पयशे दिवप आनी नातवान सदांच त्या पयश्यांचो तानलाडू खावप.

दादाचें दुकान आशिल्लें. ताचेर ताणें फकत केळींच विकपाक दवरिल्लीं. खपयिल्ल्या केळ्यांचे पयशे जीभ भायर काडून फू फू करून तो मेजतालो. त्या केळ्यांक तो कोणाकच हात लावपाक दिनाशिल्लो. तागेल्या धाकट्या पुतान ल्हान आसतना दादा न्हावपाक गेलो सो पळोवन एक केळें काडप आनी त्या जाग्यार माती लावप. न्हावन येतकीर दादाक कांयच कळनाशिल्लें. माती लायली म्हणतकीर ताका दिसतालें कीं तें केळें पयलीं केन्ना तरी काडिल्लें आसतलें. अशे तरेन दादा फटवतालो.

हालीं, हालीं दादाचें जाण्टेपण आयिल्लें. ताच्या पांयाच्या बोटाक एक फेरीद जाल्लें. तें कशेंच पेकना जालें म्हुणून पुतान तें दोतोराक दाखयलें. दोतोरान सांगलें दादाच्या पांयाचें बोट कापचें पडटलें. जाल्यार तो म्हणपाक लागलो, "घरांत हुंदीर जाल्यार घर लासतात काय हुंदरांकच मारतात?" हें दादालें उतर आयकून दोतोर बावडो बोगीच रावलो. दादालें बोट दीस वतात तितलें तितलें सुजत गेलें. निमाणें ताका हॉस्पिटलांत दवरलो. ताणें दुसऱ्याच दिसा पुताकडल्यान हारशी आनी फणी हाडून घेतली. सुनेन बरोबर तेलाची बाटलीय दिली. हो बरो नाशिल्लो पेशंट सदांच सकाळीं तेल घालून, हारशेंत पळोवन केस वळयता तें पळोवन नर्सीक आनी दोतोराक हासूंक येवचेंना जाल्यार आनी किते जातलें? दादाक फकत बिडयेचें वेसन आशिल्लें. दोतोरान ताका सांगलें, बिडी सोडल्यार तू रोकडोच बरो जातलो. पूण दादाचें म्हणणें अशें कीं,

जेन्ना हांव विडी सोडटलों तेन्ना हांव मेलों म्हुणून समजुपाचें. इतली ताका विडी मोगाची आशिल्ली.

थोड्याच दिसांनी दादाक घराकडेन हाडलो. पुतान, सदांच कामावेल्यान येवन पयलीं दादाच्या पांयांचें बोट धुवन ताका वखद लावन बांदून दवरप, आनी मागीर जेवप पूण दादान आपल्याक बांदतकीर उसउसता म्हणप आनी पुताक सुनेक गाळी मारप. दोगांय बाबडीं दादाचीं कुचित्री उतरां घेवन लेगीत दादाची मनासावन सेवा करतालीं. ताका भुरग्यावरी सांबाळटालीं.

एक दीस घरांत कोण नाशिल्लो, आनी दादाक बरणेंतलें कितें तरी जाय आशिल्लें. म्हुणून दादा उठलो आनी ते बरणेंत हात घालो. ताचो हात तातूंत अडकलो. कसोच भायर येना जालो. खूब जोरजोरान आड्डतकीरच हात सुटलो. तो रोकडोच सुजलो. दोतोरान कितलीशींच वखदां दिलीं, तरी हाताची सूज कमी जालीच ना. दादाचीं दुयेंसां एकएक करून वाडपाक लागलीं. दादा सामको हांतुरणार पडिल्लो. तरी लेगीत धा रुपयांची मोड हाडपाक लावन ती मोड उशाकडेन दवरतालो. ते धा धा पयशे नातवाक दिवचेखातीर. ताचें सगळें सून करताली. ताका वेळार भरयताली, ताच्या हातांनी जायना म्हूणून ती आपल्या हातान विडी लेगीत ओडपाक दिताली. तेन्ना दादाच्या दोळ्यांत दुकां भरतालीं.

वापायक शेवटचें पळोवंक म्हणून धूव दोन दीस रावपाक आयिल्ली. सुनेची त्या दिसा संकश्टी आशिल्ली. तिका दिसलें, आपणें इतले दीस सेवा केली न्हीं आतां धुवेक करूंनी म्हणून तिणें पेज धुवेकडेन दादाक लावपाक दिली. दादा पांच मिनटां धुवेकडेन पळयत रावलो. आनी ताणें म्हळें , "ती ना? तूं शें आयलां ? तिणेंच भरोवपाक जाय म्हाका. तांकां सगळ्यांक आपय हांगा." धुवेन सगळ्यांक आपयलें. दादान सुजिल्लो हात वय्या हातार दवरलो. आनी सुनेक पुताक म्हणपाक लागलो, "हें पळयात, पांया पडटां. जाल्लें गेल्लें सगळें विसरात. म्हजेर रागार जायनाकात." नातवाक म्हणपाक लागलो, "वावू, बरो शीक आनी वापायक सूख दी. हांवें ताका खूब त्रास दिले रे, तुजे आवयक खूब छळलें, तूं तरी तांकां सुखांत दवर." उतरां आयकतना सगळ्यांच्या दोळ्यांत दुकां भरलीं.

ते राती पूत खंयतरी गेल्लो. सुनेन संकश्टी करून जातकीर ताटलीभर पेज दादाक लायली. तितलीय तो जेवलो. विडी पेटोवन सुनेच्या हातान दादान ओडली. आनी तो मागीर वावा खंय गेला काय म्हणून विचारपाक लागलो. तिणें सांगलें "येतलो

तो आतां." तरी दादा वाबा वावा करीत रावलो. पूत येतकीर सुनेन सांगलें, "दादा तुका सोदी वदळच्यान." पूत रोकडोच दादाम्हन्यांत गेलो. पळयल्यार दादा सुस्त न्हिदिल्लो. सुनेन सांगलें, "आसूं, उठयनांका तांकां न्हीद लागल्या न्ही ?" जेवणां जातकीर सगळीं न्हिदलीं.

सकाळीं उठलो तसो पूत सदांच दादाक पळोवंक वतालो. दुसऱ्या दिसाय पूत दादाचे कुडींत गेलो. पूण ताचो दादा ताका सोडून गेल्लो. ताणें दाऽदाऽ म्हूणून एकच किळांच मारली. मरताना दादान ताका वायट उतरां दिवंक नाशिल्लीं. दादा हरशीं कसोय आसूं, पूण ताणें रीण काडून सण केन्नाच साजरे केले नात. पुताक आपल्या फाटल्यान रिणांत दवरलो ना. केन्नाच कसलींय फोल्गां मारूंक नाशिल्लीं. पुताकडेन निमाणें चूक मागिल्ली. तुमचें बरें जातलें असो तांकां आशिर्वाद दिल्लो. खोंट मारतलों थंय उदक काडटालों म्हणपी दादा, त्या पांयाच्याच दुयेंसाक लागून संवसाराक अंतरलो. इतलीं वर्सां आपलें आपलें म्हणटालो तें सगळें हांगाच दवरून गेल्लो.

पूण सांगपासारकी गजाल म्हळ्यार दादा वतकीर दुसऱ्या वर्साच्या पावसाक पुतान दादाली सात कागदां गुठलावन दवरिल्ली सत्री भायर काडली आनी घराकडेन येतना बसींत सत्री विसरून आयलो.



# ६. जाय एक काणी

‘उपकार करून कोणीतरी म्हजे झोळयेंत एक काणी घालात.’ अशें म्हणीत त
लोकांमदीं भोंवतालो. लोकांक अजाप दिसतालें, खंयचोय भिकारी पयशे ना जाल्या
खावपाक कितेंय मागता. पूण हो काणी शी मागता? अजाप दिसतल्यांनो, तो भिकारी
न्हय, तो काणयो बरोवपी एक लेखक. ताका एकूय काणी सुचनाशिल्ल्यान तो लोकांकडे
काणयो मागपाक भोंवतालो. नव्यो ताका देवाच्यो, संतांच्यो, नेत्यांच्यो
राजांच्यो काणयो वेसवच्यो बरोवपाक कळटाल्यो. पूण आतांचे पिळगेक जा
आशिल्यो हिरो-हिरोईनींच्यो काणयो. ते खातीर तो सगळ्या तेर्गक भोंवतालो.

तिनसांज जातगीर ताचे पांय वळ्ळे. तो रस्त्याकुशींच्या फुटपाथाचेर बसलो.
इतल्यान एक तरणाटो आनी एक तरणाटी ल्हवूच येवन ताचे झोळयेंत लिपलीं. तीं
दोगांय आवय-बापायक खबर नासतना चोरून लग्न जाल्लीं. आनी भंयान ह्या लेखकाले
झोंळयेंत येवन बसलीं. ही सगळी खबर ती दोगांय फुतफुतालीं तेन्ना ह्या लेखकान
आयकली. जालें, ताका एक काणी मेळ्ळी. तो तरणाटो ताचे काणयेंतलो हिरो आनी
ती तरणाटी हिरोईन जाली.

तांचे दीस सुखान वताले. एकामेकांच्या मोगान तीं चिप्प भिजतालीं. तो तरणाटो
मिलिट्रींतलो एक सैनीक आसलो. एका दिसा झोळयेंतल्यान भायर सरून तो वाजारांत
गेलो. ताचे वळखीच्या पोस्टमेनान ताका एक चीट दिली. ते चिटयेर बरयिल्लें की
लडाय सुरू जाल्या तेन्ना तूं जाता तितले वेगीन लडायेर हाजीर रावपाक जाय. हिरोन
परत येवन हिरोईनीक सांगलें, आपल्याक कसोय करून थंय वचूंकच जाय. तें आयकून
ती खूब रडली. आपल्याक आतां हिरो सोडून वतलो. ताचेशिवाय आपूण कशी
जगतली हें चिंतूनच तिका खूब वायट दिसलें. तें पळोवन त्या लेखकालेय दोळे दुकांनी
भरले.

हिरो वचून बरेच दीस जाले तरी ताची कांयच खबर कळ्ळी ना. एक दीस त्या
लेखकाक ओकाऱ्याचो आवाज आयकूंक आयलो. पळयत जाल्यार हिरोईनीक दुवाळे
लागिल्ले. णव म्हयन्यांनी ताचे झोळयेंत आनीक एका जिवान पांय दवरलो. हो
आसलो हिरो - हिरोईनीचो माणकुलो. वर्स जालें तरी हिरोचो पत्तोच ना पूण लेखक त्या
दोगांयलीय जतनाय घेतालो. एके रातीकडेन लेखकाक चोर चोर म्हणिल्लो आवाज
आयकूं आयलो आनी कोणतरी ताचे झोळयेंतल्यान उडी मारून गेल्लेवरी ताका दिसलें.
तो लेखकय धांवपाक लागलो. ताचे काणयेंतली हिरोईन एके वायले फाटल्यान धांवताली

आनी ते वायलेच्या हातांत हिरोईनीचें भुरगें आशिल्लें. ते वायलेन कसोतरी रस्तो हुपलो. पूण हिरोईन हेवटेन तेवटेन पळयनासतना धांवताली. ती एका गाडयेक आपटून पडली. आनी तिच्या एका पांयावेल्यान गाडी गेली.

लेखकान तिका हॉस्पिटलांत व्हेली. तिचो एक पांय कापचो पडलो. ती खूब रडली. लेखकान तिका समजायली आनी परत हाडली. पूण तिचें मन कित्यांतच लागनाशिल्लें. कुवड्यांच्या आदारान ती चलताली. दोन दीस ती वोगीच आशिल्ली. तिसरे रातीकडेन कुवड्यांच्या टक टक आवाजान लेखक जागो जालो. पळयत जाल्यार ताचे काणयेंतली हिरोईन कुवडी घेवन चलत राविल्ली. लेखकय तिच्याफाटल्यान चलत रावलो. ती एका फातराचेर चडली आनी दर्यांत उडी घेतली इतल्यान एक दादलो जो कुवड्यांच्या आदारान चलतालो तो वेगीन वेगीन आयलो आनी ताणें तिका आडायलें. हिरोईनीन ताका पळयलें आनी गच्च वेंग मारली. लेखकान झिळमिळ्या उजवाडांत ताचें तोंड पळयलें आनी ताका खोशी जाली. तो ताचे काणयेंतलो हिरो आशिल्लो. त्या लेखकान म्हऱ्यांत वचून तो कितें उलयता तें आयकलें. हिरो तिका सांगतालो, ''हांव लडायेर गेल्लेकडेन म्हज्या पांयाक गुळी लागली आनी म्हजो पांय कापचो पडलो. तांणी म्हाका रिटायर केलो. हांव मागीर तुका सगळ्या लेखकांल्या झोळयांनी सोदीत भोंवतालो पूण तूं म्हाका खंयच मेळ्ळें ना. म्हाका मागीर म्हज्या जिवाचो वीट आयलो. आनी जीव दिवपाक हांगा आयिल्लों. पूण म्हजे पयलींच हांगा आनीक एक कोणतरी आपलें जिवीत कावार करूंक सोदता तें म्हज्यान पळोवपाक जायना जालें म्हुणून हांव तुका वांचोवपाक हांगा आयिल्लों. पूण तूं अशें निर्शेल्लें कित्याक?'' हिरोईनीन सांगलें, ''तूं म्हाका सोडून वतकीर आमगेर एक भुरगें जालें. पूण एके वायलेन ताका चोरून व्हेलें. आनी तिच्या फाटल्यान धांवतना म्हजो पांय गाडयेपोंदा पडलो. तूं गेल्लो तो आयलोच ना. म्हजें भुरगें ना, तूंय ना आनी एक पांय ना, हें पळोवन म्हाकाय म्हज्या जिवाचो वीट आयलो आनी म्हणून हांवय जीव दिवंक हांगा आयलें.'' हिरो मेळतकीर तिच्या दोळ्यांत खोशयेचीं दुकां भरलीं. हिरोन तिचीं दुकां पुसलीं आनी म्हळें, 'नाका, अशें रडूं नाका' आमचे दोगांयलेय पांयच फक्त कामांतल्यान गेल्यात . पूण आमी एकामेकांच्या आदारान जगपाक शकतात. आमकां भुरगींय जातलीं. आमी आमचो फुडार सुखान सारुया.' अशें म्हणून दोगांय टक टक कुवड्यांचो आवाज करीत दर्यापसून पयस वचपाक लागलीं. लेखक तांकां पळयत उरलो. दुसऱ्या दिसाच्यान परत तो झोळी घेवन फिरत म्हणपाक लागलो, 'उपकार करून कोणीतरी म्हजे झोळयेंत एक काणी घालात!'



# ७. आनी ती मुक्त जाली

मेथयेन रंगयिल्ल्या पावलांनी हुंबऱ्यावेलें तांदळाचें माप ल्हवूच उमथून गंधाली भितर सरलें. व्हंकलपावणी दोळ्यांआड जायसर कितलोतरी वेळ ताचेकडेन पळयत राविल्ल्या आवय-बापायक सोडून येतना ताका खूब रडपाक येतालें. रडून रडून ताचे दोळे आनी नाक तांबडें जाल्लें. गंधालीचे आवयन ताचे मांयक परत परत सांगिल्लें "आमच्या गंधाकडल्यान कितेंय चूक घडल्यार ताका सांबाळून घेयात हां."

घरांतलें देवस्पण जोतगीर शर्मदाचे मावशेन शर्मदाक आनी गंधालीक तांचे कुडींत व्हेलें. घुरघूर करून थंय सगळीं लग्नाक आयिल्लीं सोयरीं जमलीं. मावशेन पानाचो विडो हाडून शर्मदाल्या तोंडांक दिलो आनी गंधालीक तो विडो ताचे तोंड लावन काडपाक लायलो. गंधाली सामके लजलें. इतल्या लोकांमुखार तोंडाक तोंड लावप. पूण शर्मदान मात लजनासतना आपलें तोंड ताच्या तोंडामुखार हाडलें. सगळ्यांनी फोर्स करतगीर ताणें विड्याचो कुडको काडलो. ओंठाक ओंठ तेकतकीर ताचें आंग सामकें शिरशिरलें. पूण ते रातीकडेन जें घडलें तें ताज्या चिंतपाभायलें. इश्टिणीच्या तोंडांतल्यान आयकल्ल्यो सगळ्यो खबरो फट जाल्ल्यो. शर्मदान ताच्या मनाचो विचार करिनासतना ताजेर बलात्कार केल्लेवरी सूख घेतिल्लें.

गंधाली स्वभावान सामकें भोळें आशिल्लें. समजिकाय आनी सोशिककायेची ती मूर्त आशिल्ली. लग्न जावन दोन चार दिसांभितरच गंधाली घरांतलीं सगळीं कामां करतालें. ह्या दिसांनीच ताका मांयचें खरें रूप पळोवंक मेळिल्लें. इतली बरी सून मेळून लेगीत ताची मांय ताका फकत हुंडो चड हाडलोना म्हणून खेपताली. कुचित्रां - उतरां आयकुपाची आतां ताका संवय जाल्ली. हेवटेन शर्मदाच्यो भानगड्योय ताका कळिल्ल्यो. शर्मद सामको वाळेस, तवनास मनीस. खंयचेय चलयेक वा बायलेक वश करपाक ताका कांयच न्ही आशिल्लें. भायल्यान सोरो पिवन येवप, मागीर घरांत येतकीर आनीक पिवप. रात रातभर घराकडेन येवपच ना. मनाक मारता तेन्ना गंधालीक लागीं करप. ल्हवू - ल्हवू तो भायल्या इश्टिणींक घरांत हाडूंक लागलो. तांकां घरांत हाडतकीर गंधालीक हें दी तें दी अशें फर्मावन वावराडेवरी वागोवन नाका पुरो करतालो. गंधाली सगळें ओगीच रावन सोसतालें. मांय तर शर्मदाक एका शब्दान उलयनाशिल्ली.

गंधालीक दीस गेल्ले. नव्या जल्माक येतल्या जिवाचे कल्पनेनच तें खोशी जाल्लें. आवयन ताका आपूण व्हरपाक येतां अशें पत्र बरयिल्लें. पूण मांयन म्हळें,

"घरांतलीं कामां कोण करतलो. पयलीं घरांत एक फ्रिज धाड म्हुणून सांग. मागीर धुवेक धाडटां म्हुणून वरय." गंधालीक खूब वायट दिसलें. ताचें कुळारा वचपाखातीर फुलिल्लें मन करपलें. ताणें आवयक पत्र बरयलें, हांगा आपल्याक मांय खूब बरी करता. हांव कुळारा आयल्यार ती एकटीच पडटली. शिवाय तिणें आपल्या बाळंतपणाचें सगळें करतां म्हळां तेन्ना आई, तूं काळजी करूं नाका. हांव हांगाच रावतलें. तुमी म्हाका व्हरपाक येनाकात.

गंधालीक अशक्तताय आयिल्ली. ताच्यान घरचीं कामां जायनाशिल्लीं. पोटाक तरी खंय सारकें मेळटालें. प्रत्येक घांसाबरोबर मांय फडफडत आसताली. दुसरें म्हळ्यार जेविल्लें तितलेंय ओकून वतालें. शर्मदाक तर बायलेचें पडूनच वचूं नाशिल्लें. जशें बाकिच्या हळशिकावण्या बायलांक ताचे पासून दीस गेल्ले तशेंच हेंय बी एक अशें तो समजतालो. एक दीस अशेंच, एकटेक घरांत हाडिल्लेकडेन आसतना, ताणें गंधालीक बाटली भरून उदक हाडपाक लायलें. गंधालीन तें हाडलें. मागीर ताणें ताका तें ग्लासांत ओतोवपाक लायलें. गंधालीन उदक ग्लासांत घालें. शर्मदान तो भरिल्लो उदकाचो ग्लास आपल्याक दी म्हुणून गंधालीक सांगलें. गंधालीच्यान सामकें नज जाल्लें. तरी पूण ताणें तो ग्लास शर्मदाकडेन दिलो. दितना शर्मदाचोच हात लागून तो ग्लास, सकल पडून फुटलो. आनी उदक सगळें शर्मदाचेर पडलें. तो सोरो पिल्लेकडेन आशिल्लो. ताका सामकी तिडक मारली. रागाभितर ताणें गंधालीच्या पोटारच खोंट मारली. तें सामकें कळवळलें. ताची शुद्ध गेली. मांयन आपल्याचेर येत म्हुणून वेगीन वेगीन शर्मदाक दोतोराक हाडपाक लायलो. म्हयनोभर ताका हॉस्पिटलांत रावचें पडलें. गंधालीचो आवोर्त जाल्लो. आवयक कळतकीर आवय धांवत आयली. आवयनच ताचें सगळें केलें. गंधाली रड रड रडलें. आवयक ताच्या घरच्या लोकांविशीं कळून आयिल्लें. पूण ती वावडी कितें करतली?

गंधालीक घरा हाडलें. ज्या जिवाचे आशेन तें इतलो तेप सोंसतालें तो जीव जल्माक येवचे पयलींच सोपिल्लो. आपल्याक आनीक भुरगीं जावचींना हें ताका खबर आशिल्लें. आतां कोणाखातीर जगप अशें ताका दिसतालें. दिसभर मांयची उतरां, आतां तर भुरगेंय ना म्हूणन ती ताका मारताली. वडयताली. घोवाचो तर मार सदांचोच. हें सगळें सोसूंक जायना जावन ताणें एक विचार मनांत हाडलो.

एक दीस फांतोडेर चार वरांचेर गंधाली उठलें. ताणें एक पेत्रोलाचो कॅन, एक दोरी आनी दोन साडयो घेतल्यो आनी ते तांच्या घरावयरच आशिल्ल्या रानांत गेलें.

सगळ्यांत पयलीं ताणें काजूच्या झाडाक आपले पांय वांदले. मागीर पेत्रोलान भिजोवन दवरिल्ल्यो साडयो घेवन ताणें एक साडी आपले छातयेक वांदली आनी दुसरी कमराक वांदली. सकल वागवून पेट्रोलाचो कॅन घेवन सगळें पेट्रोल आपल्या आंगार ओतयलें. मागीर ताणें आपल्या आंगाक उजो लायलो. उजो वयर वता तितलें ताका हांसूंक येवंक लागलें. हो उजो ताका मांयन आनी घोवान दिल्ल्या त्रासांमुखार कांयच न्ही जालो. हांसत हांसत तें मरणाच्या सामकार गेलें. काळीज वेगीन लासपाखातीर ताणें छातयेक साडी वांदिल्ली. उजो लागतकीर आपूण धांवत ह्या विचाराक लागून ताणें पांयांक दोरी वांदिल्ली.

उजवाडतकीर धा वरांचेर शर्मद उठलो. ऊठ जाल्यार ताका घरांत गंधाली दिसलेंना. आवय आनी तो कितलो वेळ गंधालीची च्या खातीर वाट पळयत वसलीं. थोड्या वेळान तांकां मेजार एक चीट दिसली. शर्मदान ती वेगीन उगडली आनी वाचली ताचेर वरयिल्लें...

मोगाळ शर्मद,

तूं सकाळीं उठतकीर तुका हांव दिसचेंना. आज तरी तूं म्हजेखातीर आकूळपिकूळ जातलो काय कितें तें म्हाका खवर ना. तुका कसलोच त्रास दिनासतना म्हजें जिवीत सोपयतां. तुका म्हजें मडें लासपाखातीर कसलोच खर्च करपाक हांव दिवचेंना. म्हजें हांवेंच लासून घेतलां. हे पळय, हांव खंय वतां जाणा, तुजे आई खातीर भांगरां, पयशे हाडपाक वतां. येतना येता जाल्यार म्हज्या गेल्या त्या माणकुल्याक घेवन येतां. पूण जर हांव आयलेंना तर तूं दुसरें लग्न जा. पूण हो सोरो, तुजीं सगळीं वेसनां सोड. दुसरेक म्हजेसारके त्रास दिवंनाका. म्हजे आई बाबाक सांग, हांव भुरग्यांक लागून पिशें जालें आनी ते भिरकेभितर जीव दिलो म्हुणून. नाजाल्यार ती तुमचेर केस करतलीं. म्हाका तें जाल्लें नाका.

वरें तर वतां हांव.

सगळ्यांक भार जाल्ली तुजी
अभागी वायल,
*गंधाली*



# ८. भरोसा

वसींत वशिल्ल्या शहनाजाची नदर परत परत सगल्या सीटभर भिरभिरताली. पूण नासीर अजून येवंक नाशिल्लो. स्टेंडावेले आईस्क्रीमकार, सोदकार, चणेकार आपल्यालो माल खपोवपाखातीर मोठमोठ्यान आड्डताले. ते आवाज शहनाजाच्या कानांत वचनाशिल्ले. तें अल्लाकडेन ड्रायव्हर वेगीन येना जाल्यार पुरो म्हूण मागतालें. वस सदांभशेन पांच मिनटां उसरां सुटली. आर्कामेरेन ती ल्हवू ल्हवू वताली. मागीर ती जो नेट धरताली, एकदम स्टॉप आसात थंयच थांवताली. आर्क फाटीं गेले आनी घामघुम जाल्लो नासीर वसीच्या फुडल्या सोपणाचेर शहनाजाक दिसलो. ताजो जीव सू जालो. तांची ती सदांचीच वस जाल्ल्यान ड्रायव्हरान ताका वळखून वस थांवयल्ली. ताणें शहनाजाक पळयलें. पूण ताच्याम्हऱ्यांतलें सीट रिकामें नाशिल्लें. तो ताच्याम्हऱ्यांतल्या सिटासामकार वचून उवो रावलो. शहनाजान आपली पर्स दवरून नासीराक जागो धरिल्लो. पूण वस भरपाक लागतकीर एक जाण्टेलो गवळी आयलो आनी ताणें शहनाजाकडेन झगडून त्या जाग्यार आपूण वसलो. वेल्यान वडवडटालो, आवय, घोवाक जागो धल्लंय, मिया जाण्टेलो हंयसर उवो रावलंय तो दिसत नाय.' शहनाजान ओगीच रावन तार्चीं उतरां आयकून घेतलीं.

नासीर वेळान आयिल्लो म्हुणून ते नासीराचेर पिकार जाल्लें. दुसरें म्हळ्यार त्या बुरश्या गवळ्याम्हऱ्यांत वसप म्हळ्यार एक ख्यास्तशी जाल्ली ताका. ताच्या म्हेळे जाल्ल्या कपड्यांक दुदाचो सामको वास मारतालो. सकाळफुडेंच सोरो ढोशिल्ल्यान त्या वासान तार्ची तकली सणसणताली. देंवतकीर एक शब्द लेगीत नासिराकडेन उलयनासतना तें चलपाक लागलें. ताणें ताचेफाटल्यान वचून चूक मागली. सकाळीं भायर सरतना ताकाच वावड्याक सगळें करून येवचें पडटालें. तरी तो अकरार्ची वस धरतालोच. ताका ना आवय, ना वापूय. तो अनाथ आशिल्ल्यान ताका घरांतलीं सगळीं कामां करचीं पडटालीं. तीं करून येताम्हणसर आयज ताका वेळ जाल्लो. ताणें शहनाजार्ची समजूत घाली. ताकाय तें पटलें. दोगांय मागीर हांसत–उलयत ऑफीसांत गेलीं. ऑफीसांत एकेचकडेन काम केल्ल्यान, येता वतल्या एकेच वसीक लागून उलयतां उलयतां तीं दोगांय एकामेकांच्या मोगांत पडिल्लीं. सावळ्या रंगाचें शहनाज नासिराक खूब आवडिल्लें. शहनाजाच्या घरच्यांक तार्जी ही पसंद आवडूंक नाशिल्ली. पूण एकलेंच चली जाल्ल्यान तांणी ताका आडयलेंना आनी एक पांच–स म्हयन्यांनी तांचें लग्न थारयिल्लें.

ते पांच स म्हयने केन्ना सरले दोगांयकय कळ्ळेंचना. आज शहनाज नासिरचें जाल्लें. तांणी एक चेडूं वावराक दवरिल्लें आनी तें तागेरच रावतालें. हीं दोगांय कामाक वतालीं. तें घरांतलीं कामां करतालें. दिसभर ऑफिसांतल्या कामाच्या शिणान पुरो जाल्लीं तांचीं मनां रातचीं एकामेकांचे वेंगेंत येतकीर तांचो शीण वतालो. संवसाराचो भार दोगांय एकामेकांचे वरेवरेन, सांगातान उचारतालीं, समजिकायेन वागतालीं.

शादीक चार वर्सां जायत आयलीं तरी तांच्या घरांत आजून भुरगें खेळूंक नाशिल्लें. तरीकय दोगांयलोय एकामेकांचेर नीज मोग आशिल्लो. शहनाजाक थोड्याच दिसांनी सर्विसेचीय उबगण आयिल्ली. ताणें सर्वीस सोडली. पूण घरांतय ताचो वेळ पासार जायना जालो. ताणें आतां आवय जावपाची आसच सोडिल्ली. तें तरेतरेच्या देवस्पणाच्या नादाक लागिल्लें. रोजाचो सबंद एक म्हयनो तें उपास करतालें. ईदाच्या दिसा आंगवण केल्ली म्हुण सगळ्यांक जेवण घालतालें. खंयच्या मौलवीकडल्यान तावीज बांद. खंयच्या भटाकडल्यान दोरो बांद. खंयच्या दर्ग्याचेर चादर चडय, सायबीणीक वाती लाय. हें ताचें चालूच आशिल्लें. पूण ह्या ताच्या सर्वधर्म समभावाक लागून जावंये, सात वर्सांनी सुमार ताका आपूण आवय जावपाची आसा अशें दोतोराकडल्यान कळ्ळें तेन्ना ताका कितें करूं कितें नाका अशें जालें. नासिराचें आनी शहनाजाचें काळीज खोशयेन भरलें. आपल्या पयल्या कुंवराचीं सपनां पळयतां पळयतां णव म्हयने पूर्ण जाले. तांकां सोवीत गोरोपिट्ट बावू जालो. नासिरचें गोरेपण आयिल्लें ताका. चाळीस दिसांनी ताचो बारसो जालो. ताचें नांव तांणी अरबाज दवरलें. ताच्यो तोखणायो करतां करतां दीस सोंपून रात केन्ना येताली हेंच शहनाजाक कळनाशिल्लें. घरांतलें काम तें चेडूं करतालें म्हणतकीर शहनाजाचो सगळो वेळ अरबाजासांगातान वतालो. अरबाज तीन वर्सांचो जाता म्हणसर ताची गोद परती भरली. हे फावट ताका आपल्याक चली जावचीशी दिसताली. आनी खऱ्यांनीच तागेर चलीच जाली. हेंय बापायवरी गोरेपान जाल्लें. वाकीच्या भुरग्यांमानान थोडें व्हडशेंच जाल्लें. पूण तीन दिसांभितर हार्टाच्या दुयेंसाचें निमित्त जावन रोकडेंच ताका अल्लाचें आपोवणें आयलें. शहनाजान चल्याकडेन पळोवन हें दुख्ख पचयलें. परत वर्साभितर तागेर परतेंय चलीच जालें. हें चली मात आवयचें मुखामळ घेवन आयिल्लें. शहनाजाचें सावळें रूप ताका आयिल्लें.

हालीं हालीं शहनाजान कामाक दवरिल्लें चेडूं जाहिरा मातशीं नाचरेपणां करता हें ताच्या कानार पडिल्लें, आनी ताकाय तें जाता तितले वेगीन सोडून गेल्यार पुरो जाल्लें. जाहिरा वयांत आयिल्लें आनी आपल्या घोवाक लागून ताका वेशटोच भंय दिसतालो.

पूण नासिर त्या चेडवाडेन फकत कामापुरतोच उलयतालो. परत्यो परत्यो शहनाजाच्यो तापोवणी ख्रावन जाहिराकय तिडक मारताली. निमाणेकडेन शहनाजाचें शवनम धा म्हयन्यांवें आसतना जाहीरान शहनाजाकडेन झगडीं केलीं आनी तें तांचें घर सोडून गेलें. दुसरें चेडूं मेळूंनाशिल्ल्यान सगळीं कामां शहानाजाकच करचीं पडटालीं.

शवनम देड वर्साचें जातकीर एक दीस दोन वायलो एका दोन दिसांचे ल्हान चलयेक घेवन तागेर आयल्यो. तेन्ना नासिर घरांत नाशिल्लो. तें चली कोणालें, कितें, कात हें शहनाजाक तांणी सांगपाक इन्कार केलो. तांणी ते चलयेक शहनाजाक पोसकें दिवपाक हाडिल्लें. कित्याक काय म्हळ्यार कांय वर्सां फाटीं जेन्ना ताणें आपल्यागेर भुरगीं जावपाची आस सोडिल्ली तेन्ना वेळगांवा गेल्लेकडेन एके वळखीचे वायलेक आपलो पत्तो दिवन आपल्याक कोणागेरय नाजायज लेगीत भुरगें जाल्यार दवर अशें नासिराक खबर नासतना सांगून दवरिल्लें. तेचखातीर त्यो वायलो त्या भुरग्याक घेवन आयिल्ल्यो. पूण आतां ताका एक सोडून दोन भुरगीं जाल्लीं. कितें करचें तेंच ताका कळना जालें. तरी लेगीत फाटलो फुडलो विचार करिनासतना ताणें त्या भुरग्याक घेतलें. वेल्यान त्या वायलांक खावंक जेवंक घालून पयशे दिवन धाडलें.

सांजचो नासिर आयलो. ताका ही सगळी भानगड कळतकीर ताणें म्हळें, 'शहनाज, तुवें केलें तें ख्रूब वरें केलें. म्हाकाय दिसतालें, हांवय एक अनाथ भुरगो. तेन्ना अशेंच कोणाल्याय अनाथ भुरग्याक वाडोवचेंशें, पूण तुज्यान हें सगळें सांवाळपाक जातलें मगो? कित्याक आमचें शब्बोय ल्हान आसा . अरवाजाकय अजून समज येवुंकना. शहनाजान एक फावट हाताच्यो मुठी वळोवन पांय हालोवपी त्या अर्भकाक पळयलें आनी ताच्या मनांतली आवय एकदम जागी जाली. ताणें ताका घट्ट वेंगेंत धरलें. तें पळोवन नासिर हांसलो. ताणें म्हळें, " आजुनय तुजी भुरग्यांची आस कमी जावूंक ना तर! ताचें नांव कितें दवरतलें तूं?" शहनाजान ताका दोनींय हाताचेर धरून ताच्या सबंद आंगावेल्यान नदर फिरयली. ती नदर ताच्या निळ्याच दोळ्यांचेर थारली. ते दोळे पळोवन ताणें नासिराक म्हळें, " निळ्या दोळ्यांचें, म्हजें निलोफर तें." इतले म्हणतकीर पयलेच फावटी ताच्या मनांत संशयाची पाल चुकचुकली. जाहिराच्या दोळ्यांतय निळसर झांक आशिल्ली. पूण तो विचार ताणें कपड्यावेलो चिकोल फांफुडलेवरी फांफडून उडयलो.

शहनाज, निलोफराक डब्याचें दूद पिवयतालें. आपलें भुरगें वेगळें आनी दुसऱ्याचें आपलें म्हुणून वाडोवप वेगळें हें ताका कळून आयिल्लें. दोन दिसाच्या त्या भुरग्याक

कशेतरेन वयर काडप हो एक ताचेर मोठोच प्रस्न आशिल्लो . ताचीं भुरगीं व्हड जाल्ल्यान ल्हान भुरग्याचें काडपाची ताची सवंय मातशी मोडिल्ली . तरी लेगीत जिद्दीन तें ताका वाडयतालें . शब्बोले ल्हानपणांतले कपडे ताणें सांबाळून दवरिल्ले ते कपडे तें निलूक घालतालें . घरांतलीं कामां करतां करतां ताका निलोफराचेर लक्ष दिवचें पडटालें . ताका दूद दिता म्हणसर, शबनम आपलो हक्क दाखोवपाखातीर अम्मीचे दुसरे मांडयेर वसून आपूणय दूद मागतालें . दोगांय असो त्रास करून ताका नाका जीव करतालीं . अरबाज आतां पांय फुटिल्ल्यान मेळत थंय धांवतालो . ताकाय सांवाळचें पडटालें . केन्ना केन्ना ताका वित्राग येतालो . आपल्या माँचे म्हऱ्यांतय भुरग्यांक दवरूक तें तयार नाशिल्लें . एकेवटेन निलोफराक पोसपाक घेतिल्ल्यान लोकांकडल्यान कितेंय त्रास जावचे ना मूं हाचो ताका भंय आसलो . लोकांचीं धा तोंडां धा तरेन उलयतलीं . कित्याक तर कामाचें चेडूं सोडून गेल्लें, ते जुवान आसलें आनी तें वतकीर रोकडेंच हें भुरगें, शेर्त तें काम नासिराचेंच आसतलें नाजाल्यार दोन भुरगीं आसतना शहनाजान हें भुरगें कित्याक पोसूंक घेतलें आसतलें ? वेळगांवां ताणें आदीं तशें सांगून दवरिल्लें तें कोणाकच खबरनाशिल्लें . खरें म्हळ्यार शहनाजाचेंय मन मर्दी मर्दी निलूचे निळे दोळे पळोवन दोन तरेचे विचार करतालें . खऱ्यांनीच काय हें नासिराचें . पूण तशें आसचेंना . म्हजो नासिर म्हजेर कितलो मोग करता . तो म्हाका असो फटयतलो अशें म्हाका दिसना . तो तर जाहिराकडेन उलय लेगीत नाशिल्लो . ना, हें शक्यच ना . शहनाजान नासिराक मात एका शब्दान लेगीत ही खबर विचारली ना . जर तर तशें कांयच ना जाल्यार आपूण वोगीच ताचे नदरेंतल्यान देंवतलें अशें ताका दिसनालें .

लोकांचे टोमणेय ताका कळटाले . दोन भुरगीं जातकीर ताचें आंग आनी पोटय मातशें सुटिल्लें . एका दिसा दोन म्हयन्यांच्या निलोफराक नासिराकडेन सोपोवन तें बाजारांत गेल्लें . चुडीदार घाल्ल्यान ताचें पोट चडच मोठें दिसतालें तें पळोवन ताचे शेजान्नीन म्हळें, "अजी, इसके तो पाँव भारी नहीं है, फिर भी इसकी गोद भरी है, उसे वच्ची हुयी है|" मागीर दोगांय पदर तोंडाक लावन हांशिल्लेवरी भास जालो ताका . हीं उतरां ताणें आयकलीं नाशिल्लेवरी करून तें फुडें चलपाक लागलें .

एका दिसा एका म्हाताऱ्या मौसीन म्हळें, "अरी शहनाज, तुझे क्या कमी थी, जो तूने इस वच्ची को गोद लिया| अल्लाने तो तुझे दो - दो वच्चे दे रखे थे ना? कहीं ये नासिर के कर्मो का फल नहीं है ना?" अशें म्हणतकीर शहनाजान फट करून म्हळें, "नहीं मौसी, ऐसा मत कहो, तुम तो जानती हो मेरी एक लडकी तो अल्लाह को प्यारी

हो गयी थी, जानती हो, जब मुझे बच्चा नहीं हो रहा था तब मैंने ही किसीको कह रखा था कि मुझे कोई बच्चा गोद लेना है, तभी तो मैंने इसे गोद लिया| कौन जाने खुदानेही मेरी बेटी मुझे वापस कर दी हो, निलू के रूप में| मगर मौसी मेरा नासिर तो बेकसूर है| वह बडा मासूम है, वो कभी ऐसा नहीं कर सकता| वो सिर्फ मेरा है, मुझे उसपर पूरा भरोसा है|" भरोसा ह्या शब्दाचेर जोर दिवन उलयतना ताचे दोळे नासिराच्या मोगान भरून आयले. तें पळोवन वुढी मौसीय ताचे तकलेवेल्यान कितलो तरी वेळ हात फिरयत रावली.



# ९. गुलाबें

ताचें नांव गुलाव. ताका सगळीं गुलावेंच म्हणून वळखतात. देवाच्या माथ्यार फूल चुकत, पूण ह्या गुलाव्याल्या माथ्यांक फूल फाल्त नासतालें. कितल्याय सकाळीं भायर सरल्यार लेगीत कसल्याय ना कसल्या तरी फुलांची फांती ताच्या आंवाड्यार आसतालीच. तर अशें हें गुलावें चवथीच्या दिसांनी आमगेर येतालें.

काळ्या आंगाचें गुलावें गुलावीच नाजाल्यार केसरीच कापड न्हेसतालें, कपलाक आठ आण्यायेदो कुकूम, कानाच्या पाळयांच्या तोंकांर वेडी लांवताल्यो, नाकाक एक थीक, काळ्या आंवाड्याचेर एक फांती, दुकराच्या सोणयेवरी तोंड करून तागेलें उलोवप – आनी त्या तोंडांत पानांचो विडो आसतालो. मागीर ती उलयिल्ली थुंकी आयकतल्याच्या आंगार पडूं.

चवर्थीच्या दिसांनी तें फांतोडेर मळकर्णेच्यान सांग्यार येतालें. आमगेर येतना तें माटोळेक वांदपाक तोरींग आनी कांगळां हाडटालेंच. म्हजी आवय मागीर ताका आमगेल्या पोरसांतलो निरपणस दिताली. रांदचे कुडींत येवन तें उकणयें वसतालें. दोनूय हातभर कांकणां आसतालीं, एक हात धोंपरार दवरून दुसऱ्या हातान म्हज्या मॉंन दिल्ली नेवरी खावप. जमनीर च्या चो ग्लास दवरप. खवऱ्यो सांगतना, आयकतना हय हय करून तकली हालयतकीर त्या कांकणांचो खळ खळ आवाज जातालो. आनी त्यो वेडीय लटलट करून हालताल्यो. हें हांवें म्हज्या भुरगेपणांत पळयिल्लें ताचें रूप.

घोव भायर पडतकीर पांच, स वर्सां म्हाका तें दिसलेंच ना. सांगावेल्या फेस्ताक तें आसतालेंच. परच्या फेस्ताच्या पांचव्या दिसा गुलावें अकस्मात आमगेर आयलें. म्हजी मॉं घरा नाशिल्ली. भितर म्हजो आतेभाव न्हिदिल्लो. गुलाव्यान म्हज्या पप्पाक विचारलें "ये भाऊ , सुनवाय ना घरांत?" आमी ताका ना म्हूण सांगलें. वग म्हणतकीर कदेलार वसलें. "तूं घरांत नासतना तुजे धुवेन च्या सुद्धां करून दिवुना गे अशें म्हजे आवयक सांगत म्हुणून हांवें वेगींवेगीन च्या करून हाडलो आनी ताच्या कपलार घालो.

गुलावें आतां पयलीं भशेन नाशिल्लें. केंस पिकून धवे जाल्ले. आंवाड्यार फुलां ना, कपलाक कुंकूम ना – पूण तोंडांत पान आसाच, दातांचो तांवडो काळो कोर मात आजून विटूंक नाशिल्लो.

पप्पान विचारलें, "भुरगीं वीं कशीं आसात तुजीं?" गुलाव्यान दुकराचें सोण

करून उलोवपाक सुरवात केली. "भुरगीं . . पाड पडों तेंचें. म्हागे चेडू मात वरें. तेका आवय जाय. सुनेक मात आपल्या कुळाराचींच मनशां जाय." हांवें म्हळें, "आगो चेडवाक तूं जाय, तशीच तुगेली सुनय वी कोणालेंय तरी चेडूंच न्ही!" अशें म्हणतकीर गुलावें ओगींच रावलें. पूण त्यो सुनो जरी वन्यो आसल्यो तरी ह्या गुलाव्याकडेन टिकपाच्योच ना. इतलें हें झगडाळ.

"म्हागे व्हडलो चेडो वायले सांगण्यान येगळो रावता. चेडवाचें येजमानपण तेका कोग्च्या लावचें पडटलें म्हणून धाकल्या चेड्याक लोग्न केलो. तेगे वायल तर सामकी फोणां घालपाची. ती तेका सोडून गेली." गुलाव्यान आपले सुनेल्यो कागाळी सांगपाक सुग्वात केली. "तें एक म्हाका कोणा चेंडू सांपडलें. अवदिसा खंयचें. वरें वरें म्हणटात म्हुणोन हाडलें घरांत. जाल्यार म्हागेल्या अन्नाचो इस्फोट केलो तेणें. केल्लें केल्लें इतइतलें शीत गोरवांक घालप, नाजाल्यार लोकांक दिवप, नातर ग्वळ्यांक उडोवप. हांव घरांत नाजाल्यार हाणें संवसार करप न्हू तो? हेंच असलें जाल्यार मागीर आनी कितें?" हें सगळें आयकतकीर अशें आनी कोण करीत शें दिसता तुमकां? पूण गुलाव्यालो खवरी ह्या कानान आयकून त्या कानान सोडून दिवपाच्यो.

"दुसरी गजाल म्हुटल्यार कुळागारांक वुटीभर वेडे मेळटात. एक दीस चेडो वगे ना म्हुणून हेका धाडलें. जाल्यार हेणें वाजेवन पंचविसच वेडे हाडले. मागीर म्हागे चेडो वगे नासलेलो तसोच गेलो आनी तेणें मागीर वुटीभर वेडे हाडले. सुनेलो त्या दिसा वापूय येयलोलो तेका दाखयलो. पळय म्हुणून तुगेल्या चेडवालो परताप. "ह्या गुलाव्याले वुटी भर म्हटल्यार कितले तें सगळ्यांक खवर आसा न्ही? पूण आयकून ओगी गवप.

फसक दिवन दिवो पेटय गो म्हळ्यार, काडयो सोंपल्यो तरी हेगेलें फसक पेटना. असल्या फुड्यांक आनी कितें दीस काडटलें वाये कर्म.

"पयर म्हागे जावे सून चेडवाक घेवन आमगेर येयली जाल्यार उदीक न्हाणोवंक म्हुणून म्हागेली सून त्या चेडवाक घेवन मान्यांक गेली. तेगे दिसता दोळ्यांक शावू गेलो. तें लागलें रडोंक 'मम्मी मम्मी करून' हेणें तेका थंयच सोडलें आनी तेगे मम्मी आपोवपाक गेलें. हेवटेच्यान तें चेडूं रडत भायर रान्नीकडेन पावलें. रान्नीवेलो वुडकुलो सकल दवरलेलो. आनी रानन मातशी पेट्टाली. चेडूं दोळ्यांक शावू आसलेकडेनच तशेंच रान्नीफुड्यांत पावलें आनी आपटून पडलें, तें तेगेलो एक हात रान्नींत गेलो. वोव मारतकीर सगळीं धांवत येयलीं. पळयत जाल्यार चेडवालो हात सामको भाजला. तें चेडूं म्हळ्यार दोगांय घोववायलेलो सामको जीव. तेका कितेंय जालें जाल्यार म्हाका

आनी रावों जाय आसलें रे भाऊ , वांय लागीं करची पडटासलेली . म्हाका असली भिरभिरी मारली . एक फातोर काडून म्हागेल्या सुनेले तकलेर घालूं काय दिसलें . हेणें तेगेल्या दोळ्यांचो शावू काडून येवपा न्हू? हायें मागीर त्या चेडवाल्या हाताक वग्रद लावन पेकोवन धाडलो . असली म्हागे सून . अशींच नावाडगेपणां करता म्हुणोन हायें तिका एक दीस वरेंच तापयली . मागीर तोंड घेवन खंयचेकडेन गेली म्हूणून देव जाणा ."

गुलाब्यालो आवाज आयकून म्हगेलो आतेभाव जागो जालो . तें दोन आवाजांत उलयतालें म्हुणून दोग जाण कोण उलयतात तें आयकुपाक तो भायर आयलो . ताणें गुलाब्याल्यो सगल्यो खबरो आयकल्ल्यो . म्हणतकीर तो ल्हवूच म्हाका म्हणपाक लागलो . "असलीं सवंगां जर आदेसभर मेळत जाल्यार तकली पेड्यार जावपाची . तुमी आनी आं तोंड करून कितें आयकतात?"

गुलाब्यालें जरीचें गुलावी कापड पळोवन हांवें म्हळें, "आज फेस्ताक जरीचें शें न्हेसलां?" ताणें म्हळें "पोन्नें जालें तें आतां . हें कामतीन दिल्लें म्हाका . तो म्हाका वरो करता . भयर्णीच्या लग्नाक योक दिलें . आपणां लग्नाक योक दिलें . आनी पयर तेगेली धूव मेली न्हू तेगे दुकाचें म्हूण तें दिलेलें ." हांवें म्हळें, "ताका कितलींय कापडां दिवपाक कितें जालां, तागेलें शिजता कुंड्यार ." पूण हें तांकां वी सांगत म्हूणून हांवें रोकडेंच उतर परतिलें . "ना गो, तशीं कामतीलीं तीं सगळीं वरीं गो ." आपल्यालें भरलां म्हुणून कोणेंय कोणाक दिवचें शें ना न्ही?" हें हांवें कित्याक म्हळें जाणां, कामत आमचेकडेन वरो आसा, वोगीच वायटपण कित्याक .

हांवें गुलाब्याक म्हळें, "तूं फेस्ताक कितें कितें घेतलें गो?" "कितें आनी घेतलें वाये . थिंगासावन वयतनाच सगलीं मावशे मावशे करतालीं ." जणू कांय ह्या गुलाब्याक सगळो बाजार वळखता जाल्लेभशेन हें उलयलें . "पळोवया कितेंय खारें नुस्तें मेळटा जाल्यार . आज लास्ट दीस न्हू? मोरी वीन बरी मेळपा ना ."

खूब वेळ खबऱ्यो करतकीर तें उठलें . "वरें र भाऊ, वायलेक इसारलां म्हुणोन सांग . बोसा तुमी वयता हांव ." आतेभाव ल्हवूच म्हणटा, "वेगीन पावतलें, वच तूं", हांव ताका वोगीं राव वोगीं राव म्हुणून थांवयतां, कित्याक तर तें आयकत म्हुणून .

एकदांचें गुलाबें गेलें . आनी म्हजो आतेभाव उबो राविल्लो तो एकदम सोप्यार वसलो . आनी म्हणपाक लागलो . "गुलाब्यान वस म्हळें न्ही म्हुणून वसतां हांवा आतां .' आमी सगळीं गुलाब्याल्यो खबरी याद करून करून पोट दुखसर हांसपाक लागलीं .



# १०. देख

रेवण एक सामको मस्तो भुरगो आशिल्लो. ताचो बापूय स्वातंत्र्यसैनिक आशिल्लो. रेवणाचो जल्म जातकीर रोकडोच ताच्या बापायक पोर्तुगिजांनी आग्वाद वंदखणींत उडयिल्लो. थंयच्यान सुट्टा म्हणसर ताका आठ वर्सां लागिल्लीं.

एकलोच चलो म्हणतकीर आजी ताचे खूब लाड करताली. तांच्या शेजराक एक मडवळ रावतालो. त्या मडवळाक महेश नांवाचो पोर आशिल्लो. ताच्यासांगातान रेवण शाळेक वतालो. त्या पोराक बापायल्या तोंडांतल्यान शिकिल्ल्यो सगळ्यो गाळी कळटाल्यो. त्यो गाळी आतां रेवण शिकिल्लो. आवयवेल्यान गाळ्यो मारपाक रेवण सामको तरवेज जाल्लो. आजी आनी आवयक आयकनाशिल्लो.

शाळेंतल्यान येतना पुस्तकांची बॅग महेशाकडेन दिवन आपूण राजावरी हात हालयत रेवणान येवप. घराकडेन पावतनाच मोठ्ठ्यान म्हणप, "आऽऽ ज्जेऽ, आगे मेल्ले, म्हाका भूक लागल्या गे पापणी!" आज्जेन पयलींच सगळी तयारी करून दवरिल्ली आसतालीच. जर थंय मेजार रेवणाक कांयच खावपाक दवरिल्लें दिसलेंना तर आज्जेची आनी आवयची धडगत नासताली. मागीर रेवणान म्हणप, " मरात गे तुमी सगळीं. फोणांत पडात. हांव फाल्यांच्यान शाळेंत वचचोंना." जणू काय तांचेर उपकार करता हो शाळेंत वचून. घराकडेन करपाक लायिल्लो अभ्यास तो पयशांचें आमीश दाखोवन महेशाकडल्यान करून घेतालो. शाळेंत विचारिल्ल्या प्रस्नांची जाप ताका दिवपाक येनाशिल्ली. गुरुजीकय गाळी मारतालो. गुरुजीय वाजेल्लो आनी ताणें रेवणाची वासपूसच सोडिल्ली. दोन वर्सां जालीं, तरी रेवण एकेच यत्तेक शिकतालो.

ल्हवू ल्हवू तो मटकोय लावपाक शिकिल्लो. सात आठ वर्सांचो भुरगो पूण रातचें सपनांत ताका मटक्याचे नंबर दिसपाक लागले.

एक दिसा एका वळखीच्या मनशान रेवणाक पळोवन म्हळें, "आरे, तूं प्रभाकरालो न्हीं रे?" रेवणान ताका एक आवयवेल्यान गाळ मारली आनी म्हळें, "तुका कित्याक नस्त्यो चवकशी? तूं वोगी चलपाक लाग." रेवणालीं उतरां आयकून त्या दादल्याक लज जाली. परतो आनी ह्या पोराच्या नादाक लागचोंना अशें मनांत म्हणून तो फाटल्या पांयांनी परतलो.

रेवणागेर गायो - म्हश्यो आशिल्ल्यो म्हणतकीर लोक दूद व्हरपाक तांगेर येताले.

रेवणाली आजी मोठी हुशार वायलमनीस आसली. ती दूद काडलेवरोबर लोकांक दिवपाच्या दुदांभितर चडशेंच उदक घालून तें वाडयताली. ही खबर रेवणाक आशिल्ली. एक दीस एक वायल दूद व्हरपाक आयिल्ली. रेवणाची आजी मागीलदागंत आशिल्ली. ते बायलेन रेवण थंय आसा तो पळोवन म्हळें, "आज्जेक सांग रे दूद व्हरपाक आयलां म्हणून." थंयच्यानच मोठ्यान आड्डोवन रेवणान विचारलें, "आऽऽज्जे दुदांत उदक घालां काय घालचें आसा?" तें आयकून ते वायलेचें तोंड वांकडें जालें. आनी आज्जेक तर लजेन नाकापुरो जालें. ती आनी भायरच आयली ना. असलो हो रेवण.

आठ वर्सांनी बापूय घरा आयलो. ताका पुतालीं कर्तुबां खबर नाशिल्लीं. आज्जेन आवयक शिटकावन दवरिल्ली, रेवणाल्यो कांयच कागाळ्यो सांगनाका म्हणून. कित्याक काय म्हळ्यार प्रभाकरबाव सामको कडक आशिल्लो. तो रेवणाक मारीत म्हूण आजी भिताली.

एक दिसा रेवणाचो बापूय माळयेर पेपर वाचीत बशिल्लो. रेवण सकल वाकीच्या भुरग्यांवरोवर खेळटालो. रेवणालीं आनी एका भुरग्यालीं खेळटां खेळटां झगडीं जालीं. रेवणान ताका आवयवेल्यान गाळ मारली. ती आयकून प्रभाकरवावाले तकलेंत सणक जालें. ताणें सकल वचून रेवणाक भितर आपयलो आनी ताच्या कानसुलार एक सणसणीत थापट फुलयलें. त्या आवाजान ताची आजी आनी आवय धांवत आयलीं. रेवण भंयान कडकडटा तें तांकां दिसलें. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं. आवयक सगळी खबर कळटकीर तिणें आज्जेची पर्वा करिनासतना म्हळें, "रेवण हालीं खूबच हाताभायर गेला. कितल्योश्योच गाळी शिकला तो. अभ्यासाच्या नांवान मात शुन्य . गोवोर कळना ताका." वापायन सगळें आयकलें आनी म्हळें, " अशें ? बरें आसा तर, रेवण; तुवें म्हाका आत्तांच्या आत्तां कितल्यो गाळी कळटात त्यो सगळ्यो म्हणून दाखोवपाक जाय. म्हणिल्ली गाळ परत मेळ्ळयार तुजेर एक थापट पडटालें". 'रेवण भींत भींत एक एक गाळ म्हणपाक लागलो. दोन चार गाळी जातकीर ताणें परत त्योच गाळी म्हळ्यो. वापायचें एक थापट पडलें. परत आनी थोडयावेळान विसरून त्योच त्योच गाळी तो मारपाक लागलो. एक परत गाळयेचेर एक थापट, अशें करून वापायन ताचो एक गाल सामको सुजोवन उडयलो. तेन्ना ताणें वापायकडेन चूक मागली आनी परत केन्नाच असलीं अवचिन्नपणां करचोना हाचो सोपूत घेतलो. तेन्नाच्यान रेवण सुदारलो आनी अभ्यास करून पास जावपाक लागलो.



# ११. दिश्ट

दिश्ट लागिल्लो मर्नीस, दोतोराल्या वखदान काय दिश्ट काडिल्ल्यान वरो जाता हें सांगूकं मातशें कठीण वता. अशींच एके दिश्टीची खबर हांगा घडल्या.

शालनबायगेर मीग फाटल्यान दोन वर्सांनी चलो जालो. नांव मीनेश दवरिल्लें. पूण ताका सगळीं गुड्डूच म्हणटालीं. गुड्डू आठ म्हयन्यांचो आसतनाच तिच्या मांयक ताळ्याच्या ऑपरेशनाखातीर मुंवय व्हरची पडली. विठ्ठलबाव आपले आवयक घेवन मुंवय गेलो. घरचीं सगळीं कामां आनी चल्याक पळोवपाचें कामय शालनबायचेर पडलें. फाविल्ल्या वेळार शालनबाय कपडेय शिवताली. धाकलो देर अशोक आदागक आशिल्लो. ताका गुड्डूक बोम घालपाक खूब आवडटालें. तें काम तो करतालो.

वाड्यावयल्या व्हनीबायक चारूय नातींच जाल्यो. ती नातवाखातीर सामकी आशेल्लीं. तांगेल्या घराण्यांत फकत एकच चलो जातालो. तिचो मांवय एकलोच, घोवय एकलोच आनी तिगेरय एकूच पूत जाल्लो. पूण पुतागेर मात चारूय चलयोच जाल्यो.

एक दीस व्हनीबाय कोणाल्या तरी मरणाक गेल्ली, ती घरायेतना वाटेर शालनबायगेर भितर सरली. हातपांय धुविनासतना सगळ्या घरभर फिरली. तेन्ना शालनबाय मशिनाचेर कितें तरी शिंवताली आनी गोरोपिट्ट गुटगुटीत गुड्डू सकल खेळटालो. शालनबायक व्हनीबायलें घरभर फिरप आवडूंनाशिल्लें. पूण करतली कितें ? जाणटी मर्नीस आनी सामकी शेजान्न. व्हनीबायची नजर गुड्डूचेर पडली. तिच्या काळजाक भाले तोपिल्लेवरी जालें. शालनबायकडेन खबरी करतां करतां मर्दीमर्दीं ती गुड्डूक पळयताली. पूण अपुरबायेन ताका उखलून मात घेतलो ना. व्हनीबायन मर्दींच विचारलें. "आगे, तूं घरांतलीं सगळीं कामां एकटीच करता ? त्या भायर ह्या चल्याक पळोवन शिवण करप तुका खूब कठीण वता दिसता न्हीं? देर करता मगे कितेंय आदार? भुरग्याचें काडप म्हळयार खूब कठीण गे. सारको सांवाळ हां ताका. चलो भुरगो तो." इतलें म्हळें आनी घरा आयली.

त्या दिसा सांजवेळां अशोक, गुड्डूक मांडयेर न्हिदोवन बोम घालतालो. दूद पितां पितां गुड्डू कितेंशेंच करपाक लागलो आनी ताणें एकदम दोळे वरशे व्हेले. देरान एकच आकांत केलो, 'वैनी, गुड्डूक कितें जालें पळय गे." शालनबाय हातांतलें काम सोडून धांवत भायर आयली. आनी तिगेल्या किळच्यांच्या आवाजान सगळे शेजारी जमले.

कोणकोण आप-आपलेपरीन उपाय करताले. पूण गुट्टू कसोच शुद्धीर येना जालो. एकलेन कांदो धोडावन नाकाक लायलो. कोण ताळग्रिळ्यांच्या वडयांनी माथें बडोवपाक लागलो. एकल्यान तर विचार करिनासतना थंड उदकाचो कोळसो ताच्या माथ्यावेल्यान ओतयलो. तेन्ना गुट्टू काळो निळो जालो. ताणें हातपांय वांकडे केले. इतल्यान एकलेन एक वोंतराचो कुडको लासलो आनी ताच्या नाकाकडेन व्हेलो. तेन्ना गुट्टून हूं हूं करून आवाज केलो. आनी तो शुद्धीर आयलो. मागीर अशोकान वचून दोतोराक हाडलो. वखदां - इंजेसांवा पडटकीर गुट्टू निवळलो. इतलो वेळ दोतोराक आपोवपाचें भानच कोणाक उरलें ना, इतलीं सगळीं आवूलार जाल्लीं.

थोड्याच दिसांनी मांय येतगीर शालनवायन तिका घडिल्ली सगळी खबर सांगली. मांयन कुळदेवाचो प्रसाद घेतलो. पळयल्यार गुट्टूक दिश्ट जाल्या म्हणून कळ्ळें. आनी एक कातलेचो कुडको गुट्टूवेल्यान उवाळून तो ते दिश्ट केल्ले वायलेक ग्रावपाक दिवपाचो म्हणून सांगलें. पूण तिका आमी तो दिवपाक शकनात अशें तांणी सांगतकीर भटान सांगलें, "तशें जाल्यार जेन्ना ती वायल मरतली तेन्नाच गुट्टू बरो जातलो."

त्या दिसासावन जेन्ना जेन्ना गुट्टूक जोर येतालो, तेन्ना तेन्ना ताका अशें मारून येवंक लागलें. कितलेशेच दोतोर केले, पूण कांयच फरक पडलोना. ताचीं वखदां आनी इंजेसांवां टायमार दिता म्हणसर शालनवायक नाका पुरो जातालें. शालनवाय गुट्टूखातीर आपले पर्सीत कांदे केन्नाच फाल्ल करनाशिल्ली. खंयूय गुट्टूक घेवन गेल्यार ती पर्सीत कांदे घालता तें पळोवन शालनवायचे नंणदेन एक दीस हांसून तिका म्हळें, "आगो शालन हीं कितें पिशेपणां करता गो तूं ? अशें ताका इतलें कितें जालां?" शालनवायन म्हळें, "ना गो सुशील, तुवें ताका तशें जाल्लें केन्नाच पळोवंक ना म्हुणून तूं अशें म्हण्टा. ताका मातसो जोर आयल्यार लेगीत म्हज्या पोटांत कुळळ जाता आनी हांव संडासाक धांवतां." सुशीलान म्हळें, "तुवें सगळे दोतोर केले मगो? आतां एक काम कर, आमच्या गांवांत एक घाडी आसा. ताका आमी गुट्टूक दाखोवया. पळोवया ताच्या वखदान तरी बरो जाता जाल्यार?" पूण विठ्ठलबावाक ही गजाल पटलीना. ताचो असल्या घाडपणाचेर विश्वास नाशिल्लो पूण शालनवाय काकुळटेक आयली. तिणें म्हळें, "आसूंदी. हो एक उपाय करूया. एकलोच पूत आमचो. बरो जाल्यार जालो". शालनवायक लागून विठ्ठलबाव तयार जालो.

गुट्टूक धेवन तीं सुशीलागेर गेलीं. सुशील घाडयाक घेवन आयलें. त्या घाडयान दोन कोंवे, चार ततयां, एक ल्हान कोंवये पील, मिरसांगो, काजळ, माती, गोवोर हो

सगळो सरंजामो हाडपाक लायलो. ते भायर कितलेशेच पयशे मागले आनी गुट्टूची दिश्ट काडली आनी म्हळें, 'आतां जर ह्या भुरग्याक कितेंय जालें जाल्यार म्हजें नांव बदलून उडयात." सांजेची शालनवाय गुट्टूक घेवन घरा येवपाची आशिल्ली पूण तिका गुट्टूचें आंग मातशें कणकणीत जाल्लेवरी दिसलें. म्हणटकीर भायर सरपाच्या टायमार तिणें थंयचे दोन कांदे काडून पर्सीत घाले. तें पळोवन सुशीला हांसलें.ताणें म्हळें, "आगो , आतां ताका कांयच जायना गो, घाडयान सांगलां न्ही?" शालनवाय ओगींच रावली.

सुशील तांकां वसीकडेन पावोवपाक आयलें. वस सुटचेपयलीं शालनवायन दोंगरावेल्या सिद्धादेवाक हात जोडले, वरें वशेन पावुंनी म्हुणून. गुट्टू वसींत हेवटेन तेवटेन भोंवतालो. मर्दींच ताच्या जिवाक कितशेंच जाल्ल्यान तो शालनवायचे मांडयेर वसलो. आनी शालनवाय ताका पळयतासतनाच ताणें दोळे वरशे व्हेले. हें अशें सुशीलान केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें. ताचो आवरोच उडलो. तें हातवारे करून ड्रायव्हराक आपोवपाक लागलें. ताच्या तोंडांतल्यान उतरांच फुटलींना. ताजी गत मोन्यावरी जाली. ड्रायव्हर वेगींवेगींन आयलो.ताणें गुट्टूक पळयलें आनी वस फास्ट सोडली. शालनवायक तर पळोवपाचेंच नाशिल्लें. तिच्या हातांतल्या गुट्टूक कोणें काडलो म्हणून तिकाच ग्वबर नाशिल्ली. तीं सिद्धादेवाच्या दोंगरावाटेन पळोवन तकली फोडून घेताली. कांद्याची कोणाकच याद नाशिल्ली. विठ्ठलवावाक तर घाडयाची सामकी तिडक मारिल्ली. तो घार्डीय ते वसींत आशिल्लो पूण विठ्ठलवावाल्या नदरेक नदर दिनाशिल्लो. ड्रायव्हरान गाडी एकदम हॉस्पीटलामुखारच थांवयली. त्या हॉस्पिटलांत विठ्ठलवावाचे वळग्वीचो दोतोर आशिल्लो .ताका सगळें ग्ववर आशिल्लें. ताणें सुशिलाक म्हळें, " जालें मगो तुजें घार्डीपण?" सुशीला ओगींच रावलें.

इश्कोलाक आसतना जोर आयल्यार गुट्टूक रेकडेंच कळटालें, आपल्याक आतां कितेंतरी जातलें म्हुणून. तो रेग्वडोच घरा येतालो. त्या दिसा ताका मारून येतालेंच. दोतोरान विठ्ठलवावाक सांगलें, हें अशें गुट्टूक सात-आठ वर्सां मेरेन जातलें. पूण हाच्याफुडेंय जालें जाल्यार मात ताची तकली फ्राक जावपाक शकता. तेन्ना ताका वग्वदां फाल्त करूं नाकात. पूण गुट्टू सात वर्सांचो आसतनाच व्हनींवाय भायर पडली. ती मरतसावन गुट्टू सामको वरो जालो. आतां तुमीच सांगात हें कर्तूव दिश्टीचें काय दोतोरचें?



# १२. उमाशेची रात

एप्रिलाचो म्हयनो सोंपलो, आनी बंटीचो रिझल्ट लागलो. तो णववेक पास जावन धावेक पडिल्लो. ताका खबर आशिल्लेंच, आपूण पास जावन दुसरो तरी येतलोंच म्हणून. पूण तो सगळ्या भुरग्यांभितर पयलो आयिल्लो. सरांक, टिचरींक ताची खूब अपुरबाय दिसली. ताची मम्मी-डॅडी तर एकदम खोशी जालीं. ताणें पेढे वांटून सगळ्यांचीं तोंडां गोड केलीं.

थोड्याच दिसां पयलीं ताणें मामाक पत्र बरयिल्लें, 'आपलो रिझल्ट जातकीर आपूण अमक्या दिसा थंय येतलों तेन्ना तूं आपल्याक बसस्टँडार व्हरपाक यो.'' हें ताणें आपले आवयक खबरनासतना बरयिल्लें. कित्याक तर आवय ताका वचनाका म्हणटली म्हणून. वचचे एक दीस पयलीं ताणें आवयक सांगलें ''मम्मी, हांव मामागेर वतां आनी मे म्हयन्याची सुटी सोपचेपयलीं येतां.'' मम्मीन म्हळें, ''नाका रे बाबा, मामाचें आयकनासतना तूं थंयच्या रानांत सामको हेडत रावतलो. न्हंयचेर वतलो, मागीर तुका कितेंय जाल्यार हांव कितें करूं?'' पूण बंटीन लाडीगोडी लावन वचपाची संमती घेतलीच. डॅडीनूय ताका मनांत नासतना वच म्हळें. बंटी खोशेलो. दुसऱ्याच दिसा ताची मम्मी डॅडी ताका पावपाक बसस्टँडार आयलीं. मम्मीचे दोळे सामके भरून येताले. ती ताका सांबाळून वच म्हण परत परत सांगताली. इतल्यान बस आयली आनी बंटीन तांकां टाटा बाय बाय केलें.

तो मामाच्या गांवांत पावलो तेन्ना ताचो मामा आनी मामेभाव विसू ताका व्हरपाक आयिल्ले. थंयच्यान घराकडेन पावता म्हणसर ताणें मामाक सांगलें की आपूण पयलो आयलां म्हणून. मामान दारांत पावनाफुडें मामीक उलो मारलो, ''आगो सुभद्रा, हो पळय तुजो भाचो पयलो आयला खंय, कितेंय गोड खावपाक करून ताचें तोंड गोड कर.'' आनी देवाकुडींत वचून ताचे आज्जेक म्हळें, ''आई, हो पळय, तुजो नातू पयलो आयलो''. बंटीन मामीच्या आनी आज्जेच्या पांयां पडून आशिर्वाद घेतलो. आज्जेन ताका वेंगांत घेतलो आनी म्हळें ''असोच शीक पुता आनी बापायचें नांव वयर काड.'' थोड्याच वेळान मामीन सगळ्यांक जेवंक आपयलें. बंटी हात-पांय धुवून जेवपाक गेलो.

दिसांफाटल्यान दीस वताले. बंटीचे दीस हांगा बरे वताले. जाय तितले आंबे, काजू, पणस, कंजरां खावपाक मेळटालीं. सांजवेळचे विसू आनी बंटी, न्हंयावरेवर

रानांत वताले. नामो मामाचो राखणो. मामाचीं खूब गोरवां आशिल्लीं. चडशे राखणे गोरवांक त्याच रानांत व्हरताले. त्या रानांत एक न्हंय आशिल्ली. तिचे दुसरे वटेन एक व्हडलो फोणारो आशिल्लो. थंय देंवपाक वांकडी तिकडी वाट आशिल्ली. नामो तांकां थंय फोणाऱ्याकडेन वचपाक दिनाशिल्लो. बंटीक विसून पेंवपाक शिकयिल्लें. ते तिगूय गोरवांक थंय चरपाक सोडून पुरो जाय म्हणसर पेंवताले.

एक दिसा तांणी अशेंच गोरवांक चरपाक सोडलें आनी सदांभशेन पेंवपाक लागले. बरीच सांज जाय म्हणसर पेंवत रावले. वाकीचे राखणे गोरवांक घेवन गेले. खूब वेळान ते भायर सरले, कपडे वदलले आनी गोरवांक आमडून घराची वाट चलपाक लागले. अर्द्या वाटेर पावतकीर तांकां एक ल्हान पाडकाचो हामेवपाचो आवाज आयकूंक येवंक लागलो. तेन्ना विसून म्हळें, " नाम्या, तूं हांगाच राव, कोणालेंय पूण वावडें पाडूक उरलां आसतलें. हांव आनी बंटी वचून पळोवन येतात." तांणी नाम्याक थंयच दवरलो आनी ते परते रानांत गेले. ते फुडें वतात तितलो चड पयस पयस तांकां आवाज येवंक लागलो. न्हंयेकडेन पावतकीर तांकां एक पाडूक न्हंयचे देगेवेल्यान चलता तें दिश्टी पडलें. विसून म्हळें, " आरे, असलें पाडूक आमच्या वाड्यार कोणाचेंच ना मरे, चल या आमी घरा." बंटीन ताका म्हळें, "आरे, कोणाचेंच ना म्हण कितें जालें. तें कितलें ल्हान आसा पळय, वाट चुकून एकटेंच उरलां दिसता वावडें. आमी हाडया ताका." इतलें म्हणून ते दोगूय त्या पाडकाक हाडपाक वेगीन वेगीन चलपाक लागले. हे वेगीन वेगीन येतात तें पळोवन तें पाडूक मदींच वळून फाटल्यान पळयतालें आनी परत धांवतालें. करतां करतां तें त्या फोणाऱ्यावाटेन धांवपाक लागलें. बंटी आनी विसू त्या वांकड्या वाटेवेल्यान धांवतना मदींच पडटाले. आनी उठून परत धांवताले. सामकें सकल पावतकीर तें पाडूक थांवलें आनी तांका तें धरपाक मेळ्ळें. पूण कितलेंय ओडल्यार तें कशेंच हालना जालें. सामकें घट्ट रावलें. विसून ताका उखलपाचो यत्न केलो आनी कितें अजाप! ते सामकें कापसासारकें ल्हव लागलें. ताणें ताका उखलून खांदार मारलें आनी ते ती चडटी चडपाक लागले. अर्दे वाटेर पावतकीर त्या पाडकाक एकदम शिंगां फुटलीं ती ल्हवू ल्हवू करून वाडपाक लागलीं. त्या शिंगांनी व्हडले व्हडले वेटोळे घेतलें. पांय सामके लांव लांव जावन जमनीक घश्टुवपाक लागले. तें पळोवन बंटीक आनी विसूक कच्च जालें. बंटीन त्या पाडकाक सकल उडय म्हुणून एकच वोवाळ घालो. विसून ताका सकल उडोवपाचे ना ना तरेचे यत्न केले. पूण तें सकल पडचना. विसू इल्लो मातसो धिराचो भुरगो. ताणें सामकें जमनीर लोटांगण घालें आनी तें पाडूक सकल पडलें. ती संद सादून दोगूय पळपाक लागले. वयर पावतकीर तांणी फाटल्यान

पळयलें, जाल्यार तांकां त्या पाडकाच्या जाग्यार एक धनगराली पोर दिसलो. ताणें काळी कांवळ खांद्यार मारिल्ली. ताच्या एका हातांत वडी आशिल्ली आनी तकलेर धवोच फेटो बांदिल्लो. धोतर आनी सदरो धवोफुल्ल आशिल्लो. तो मोटमोठ्यान हांसतालो.

नामो तांची वाट पळोवन घरा गेलो. खूब वेळान ते दोगूय धांवत घरा पावले. मामा तांची वाट पळयतालो. मामान नाम्याक तापोवन काडलो. पूण तोय म्हूण तांच्या येदोच भुरगो आशिल्लो.

हे खरशेत घरा पावले पूण ते भंयान सामके कडकडटाले. मामान विचारल्यार तांकां कांयच उलोवपाक येना जालें. थोडो वेळ वतकीर मामीन परत विचारलें. मागीर विसून घडिल्ली सगळी खबर सांगली. आज्जेन सगळें आयकलें आनी म्हळें. " आरे पापयांनो आज उमास मरे, तुमी आयच्या दिसा थंय कित्याक गेल्ले?" वंटीन म्हळें, "कित्याग गे आज्जे? कितें जाल्लें उमाशेक?" तिणें सांगलें, "खूब वर्सां फार्टी एकट्यान एका धनगराच्या पोराक गोरवां राखूंक दवरिल्लो. तो सदांच त्या गोरवांक घेवन रानांत वतालो. त्या गोरवांमदल्या एका पाडकाचेर ताचो खूब जीव आशिल्लो. एक दिसा तें हाचे नदरचुकीन न्हंयकडेन पावलें, फुडें वचत रावलें आनी वुडून मेलें. तेन्नाच्यान तो सामको पिश्याभशेन करपाक लागलो. त्या पिशाभिरके भितर ताणें त्या फोणाच्यांत जीव दिलो. तो दीस उमाशेचो आशिल्लो. आतां तो प्रत्येक उमाशेचे राती थंय तरेतरेचीं रुपां घेवन सगळ्यांक भेश्टायता. इतलें सांगून आज्जेन म्हळें. "तुमी थंय सांजवेळचे कित्याक गेल्ले रे, तें पाडूक मरूंदी आशिल्लें." हें आयकनाफुडें दोगूय घुंवळ येवन पडले. मामान तांचेर उदक मारून तांकां शुद्धीर हाडले. दुसऱ्या दिसा ते दोगूय जोरान फणफणटाले. चार दीस लेगीत तांचो जोर देंवलोना.



# १2. अशेंय एक लग्न

लग्न म्हळें की, सगळो जामोनिमो आयलोच, व्हॉवळीक पत्र, हॉल, माड्यो, भांगरां, सूट, फेटो, फोटो, वार्शीग, हारतुरे अशें ग्बूव कितें कितें . . . ग्वेंयच्याय लग्नाक गेल्ल्यो वायलो जर एकठांय येत जाल्यार मार्गार घे म्हुणून ग्बवच्यो. हांकां कितें वठना गे, वुफे सुद्धां ना. लग्न म्हुणून वाये सामकें मादेंच शें. ताळ्यार एक आईस्क्रिम उडयलें. तेलाक आनी कितें किरपीन शें वांटिल्लें. ती व्हंकल सव्यार बशिल्ले कडेन वत्तीसी दाग्बोवन त्या न्हवऱ्याक पळोवन हांसताली कितें. फुतफुताली कितें. सामकेंच सोसूं नज गे वाये. हीं त्या वायलांची मुक्तांफळां. वरें तें आसूं . तर सांगपाचें म्हळ्यार पयरच हांवें एक लग्न पळयलें. ताची एक हांसपासारग्बीच गजाल सांगतां. लग्न ह्या नांवाची विटंबनाच केल्ली.

आमच्या वाड्यावेल्या 'शेड्यागेर' आठ भुरगीं. चार मेलीं ग्वंय. पोर्तुगिजावेळार जाल्लीं जाल्ल्यार एक डझन भुरगीं म्हुणून शेड्याक कितेंय वक्षिसी मेळटा आशिल्ली. तर सांगपाचें म्हळ्यार इजूचें, ताच्या व्हडल्या चेडवाचें , नांव विजय म्हणप इजू, तर ताचें लग्न थारलें. जाल्यार एक म्हयनो भर पयलीं हो आपल्या भाटकारक विचारता , "चेडवाक मागलां, दिवया न्हू भाटकार?" जणू काय तें भाटकारलें चली आशिल्लेवरी भाटकारान सांगलें "कर रे, कितेंय मदत जाय जाल्यार हांव करतां." जाल्यार हो म्हणपाक लागलो "नाका गा. म्हजेकडेन आसात तशे. तुमी येयत्यार पुरो." हाचे सगळे पूत जोडटात. आनी हाचेकडेन मटक्याचे वरेच पयशे ग्बुळग्बुळटाले.

थोडेकडेन पद्धत अशी, की वायलोच जर लग्नाक सांगपाक येत तर वायलांनी वचप, दादले आयले जाल्यार दादल्यांनी. शेड्याक तें कांयच लागना. तांची पद्धत म्हळ्यार एक मोटरसायकल करप आनी ताणें सगळ्या गांवांत व्हॉवळीक वांटप. त्याप्रमाण शेड्यान एक मोटरसायकल केल्ली. तो मोटरसायकलवालो वावडो घरांघरांनी व्हॉवळीक पत्र वांट्टालो. भायर कोणूच ना जाल्यार तसोच भायर उडोवन येतालो. कोणाल्याय दाराक कुलूप आसल्यार दाराचे ग्बांचींतल्यान उडयतालो. अशें करून ताणें त्यो पत्रिका वांटल्यो.

लग्नाच्या पंदरा दीस पयलीं साखरपुडो. पेडण्यां न्हवऱ्यागेर साग्बरपुडो आनी सकाळींच भायर सरपाचें अशें सगळ्यांक सांगलें. शेड्ड्यान लिस्टाप्रमाण सगळें घेतिल्लें. पान सुपारी, चुरो हें कित्याक घेतलां तें म्हाका ग्बबर नाशिल्लें. इतल्यान एक

मिनी वस आयली. पन्नाशेक बायल्यो जमिल्ल्यो. वस सामकी लोणचें कशें भरिल्ली. वयर एक फातोर फाल्त. उवे गवन पांयाक आयले गुळे. जांचीं तोंडां गोवरीं (काळ्या तोंडार पावडर) जाल्लीं तांकां घाम येवन थंय एक पावडराचो कणय दिसनाशिल्लो. पेडण्यां तरी कशींच पावून पावना. घर्र. . घर्र. . करून मिनी वस बंद पडली. मिनीच ती. इतली गर्दी पळोवन आनिकय मिनी जाल्ली. घुरघूर करून सगळीं देंवलीं. जाणटेल्या बायलांनी शेड्ड्याकडच्यान पान, सुपारी मागून खाली. आतां म्हाका कळ्ळें कीं ताणें तें कित्याक व्हेल्लें तें. ड्रायव्हरान हातचलाखी करून वस सारकी केली. आतां आनीक एक मजा जाली. ती म्हळ्यार बशिल्ल्या लोकांच्या सिटार दोळे दवरून उबीं आशिल्लीं तीं वेगीन वेगीन तांच्या सिटार वचून वसलीं आनी पयलीं बशिल्लीं तीं आतां उबीं राविल्लीं. हावा शिवा करून एकदांची पेडण्यां पावलीं. पावसर हाडां खिळखिळीं जाल्लीं.

न्हवऱ्यागेर जेवणाची कांयच तयारी जावूं नाशिल्ली! काय तांकां खबर नाशिल्लें म्हूण देव जाणा. आमी सगळीं भूक लागतकीर आपआपल्या पैशांनी हॉटेलांत वचून खावन आयलीं. सांजेचो साखरपुडो केलो. केलें किदें काय म्हळ्यार व्हंकलेक रास भर फुलां माळ्ळीं. कपलभर पिंजर लायली. आनी सगळ्यांक एक एक च्या चो घोट पिवपाक दिलो. मागीर व्हंकलेक सगळ्यांनी केळवण केली. तातुंतल्यो एक एक वस्ती न्हवरेकारांनी व्हरून भितर दवरल्यो. मुदी-विदी कांयच ना. न्हवरोच ना जाल्यार आनी मुदयेचो प्रस्नच ना. हो जालो साखरपुडो.

येवपाच्या टायमार अर्द्यो बायलो फुगल्यो. वसींत कश्योच चडनात, कित्याक काय म्हळ्यार तांकां पिंजर लावुंना खंय. तीं म्हणटालीं "आमगे थिंगा सगळ्यांक पिंजर लायतात. हांगा लावूंक ना." हें उतर शेड्डयाच्या कानार पडलें. ताका दिसलें बायलांनी कपलाक थोडो लायला. "आसो गो, लग्नाक लाया जाय तितको," ताणें म्हळें. तो समजायता आनी तीं फुगल्यांत. हें पळोवन हांसू येना जाल्यार आनी जातलें कितें कपल?

देवकाऱ्या दिसा जेवणाक आपयिल्लें. लागींच न्हय म्हुणून जेवणाच्या वेळारच गेलें. सगल्यांक वसपाक शेनऱ्यो घाल्ल्यो. पत्रावळी दवरिल्ल्यो आनी मदीं एक शिताचो दोंगर सो वाडिल्लो. तो केन्ना वाडून दवरिल्लो कोणाक खबर. थोड्यावेळान त्या दोंगराच्या वयर काळेंचशें कितेंतरीं वाडलें. अर्दे जेवण जातगीर, तोंडाक वाडा मरे सुरू जालें. आरे, तोंडाक कांय करुंना रे. कितें? लग्नघर आनी तोंडाक कांयच ना.

अजापच ! खूब वेळान पापडाचो अर्धचंद्रीम वाडलो. हय चंद्रीमच तो . एका पापडाचे दोन कुडके.

जेवतकीर सगळ्यांक पिंजर लायली. मुठमूठभर दोळ्यांत वचपासारखी. ताचेवेल्यान तांदूळ चिकटावप.

लग्न लग्न म्हूण तो दीस आयलो. सकाळच्यान अनुराधा पौडवाल आनी कुमार शानू ताळो दुखसर आड्डतालीं. तकली उसळ्यार कांयच उपाय ना. वस सुटचे पयलीं हांव तांगेर पावलें. वतना वाटेर एक तरणाटो एका जाण्टेल्याक सांगतालो, "वाप्पा तेंगेर इडयो हाडला." "इडयो आनीक लग्नाक कित्याक?" "इति जाणटेलो, इडयो न्हू रे! इडयोऽ ऽ तें त्या जाणटेल्याच्या तकलेंत पावचेपयलींच हांव शेड्डयागेर पावलें. तो गांवांतल्या सगळ्या जाणटेल्यांक बसोवन तांच्या बोळक्याचें शुटींग घेवपाक लायतालो. ते बाबडे बिटीबिटी दोळे करून त्या उजवाडाक पळयताले.

सगळ्यांच्या तोंडावेल्यान कॅमेरा फिरोवन जातकीर एकदांची व्हंकल भायर सरली. व्हंकल म्हुणून कितें? दातांक चिरमुल्यो घाल्ल्यो, पोले तर विडी ओड्ट्ल्या जाण्टेभशेन भितर गेल्ले. रंग म्हळ्यार हाण्याचें पोंद, खाडकेचो आकार तर सामकोच तोतापुरी आंबो. तर अशें हें इजू हळदुवीच जरीची साडी न्हेसून भायर सरलें. व्हंकलेबरोबर ताची करवलीय आसता. पूण इजूची एकय भयण करवली जावपाक तयार ना. म्हणटकीर शान्तून, शेड्ड्याचे बायलेन म्हळें, "तेंका नोज दिसता गो. अर्थच्या खंयच्याय बारके चेडवाक धोरोन हाडात गो." तेप्रमाण लोकांमदल्या एका चेडवाक करवली केली.

फोगोट्यांचे माराण कान फुटसर मारून जातकीर इजूक गाडयेंत व्हरून बसयलें. लग्नाक चार बसी केल्ल्यो. हॉलांत उबें रावपाक सुद्धा जागो ना. सवो मात बरो सजयिल्लो. पूण सव्याचेर लग्नाचो म्हूर्त लागीं पावलो तरी कोणूच ना. कितल्या वेळान न्हवरो आनी करवली करे घेवन आयलीं. कॅमेरा फिरलो . . इडयो न्हय! न्हवऱ्यान काळ्या आंगार धवी सफारी घाल्ली. उमाशेक पुनव मेळिल्ली. पळयल्यार व्हंकलेचो पत्तोच ना. कित्याक काय म्हळ्यार, तिजो खंय मामा फुगला. लुगट वरें दिवूंकना म्हणून. कशीबशी समजूत घालतकीर मामा शेड्डयाल्या व्हडल्या वायेक घेवन आयलो.

'शुभमंगल सावधान' म्हणतकीर व्हंकल न्हवऱ्याक हार घालपाक लागली. इतल्यान फोटोग्राफरान हात तसोच धरून राव म्हुणून सांगलें. इजू वावडें तो हार तसोच धरून

रावलें. पूण फोटोग्राफराचें कितें तरी विघडिल्ल्यान तो कितलो वेळ फोटोच काडना
पळोवन उमाशेक आयलो राग. ताणें म्हळें, "आसों तें! हार घाल गो तूं." इजूचेय हा
दुखतालेच ताणें बेगीन बेगीन हार घालो.

लग्न जातकीर परत सगळ्यांक चिमूटभर पिंजर लायली, फुलां दिलीं. दुसरेवाटेच्या
आइस्क्रिम वांट्टालीं. म्हाका खूब तान लागिल्ली. केन्ना काय तांणी म्हाका आइस्क्रि
दिल्यार पुरो जाल्लें. पूण म्हज्या म्हऱ्यांत पावतगीर आईस्क्रिमच सोंपलें. शेडड्याल
पुताक उलोवणीं. "चोड हाडो जायनाशिल्लें." कितलो वेळ जालो आईस्क्रिमच ना.
हाका विचारल्यार- हो हाडटलो. ताका विचारल्यार-तो हाडटलो म्हणपाक लागले.
शेवटाक सगळीं जाणां अहेर दिवपाक उटलीं. सव्याम्हऱ्यांत ही गर्दी. न्हवरो व्हंकलच
न्हय तर सवोय दिसना जालो. अहेर दितकीर तांचो हात धरून तांकां लाडू दियस
थंयची गर्दीच कमी जायना. म्हाका तर सामकी तान लागिल्ली. हांवें म्हज्या वळखीच्य
एकटयाकडेन लाखाटो सोंपयलो. इजूक आनी ताच्या घोवाक मनांतल्या मनांत लग्नाची
परवीं दिलीं. खरें म्हळ्यार गाळी तोंडार आयिल्ल्यो पूण सोसून हांव हॉलांतल्यान भाय
सरलें आनी सोडाच्या गाड्यार वचून एक येतिश्ट थंड सोडा पिलें आनी म्हजी तान
भागली.



# १४. वादळ

५ जुनाक जाल्लें वादळ हांव केन्नाच विसरचेंना, अशें म्हाका रिमा सांगूंक लागलें. तसो तो दीस आमच्याय मनांतल्यान वेगीन वचचोना. त्या दिसा झाडांची, माडांची , घरांची आनी तातूंत अडकल्ल्या मनशांची अवस्था पळोंव नज जाल्ली. पूण रिमाची, म्हजे इश्टिणीची काणीच वेगळी.

त्या दिसा रिमा आनी ताची धाकटी भयण श्रेया, कसल्या तरी कामाक लागून तांचे व्हडले भयणीगेर पणजे गेल्लीं. तीं रोकडींच सांजेचीं घरा येवपाचीं आशिल्लीं. दनपारचोच पावस पडपाक लागिल्ल्यान भयणीन तांकां वचूं नाकात म्हणिल्लें पूण घराकडेन हुस्को जातलो म्हणून तीं सांग्यार येवपाक भायर सरलीं. वसीन येतना पावसान दाखयिल्लो आपलो नेट तीं पळयतालीं. इतले म्हणसर वाटेर पाड्ड्या झाडां पडिल्ल्यान वस थांबली. पावसान आनी वादळाच्या वाऱ्यान तीं झाडां तग धरूंक शकलींना. ते वसीचेफुडें आनी कितल्योश्योच वसी थांविल्ल्यो. दुसरे वाटेन वचपाक मेळटालें. पूण खंयच्योच वसी वचना जाल्यो. फकत एक जीपच ते वाटेन वचपाक तयार जाली. जीप वता म्हणटकीर कितलेशेच लोक वसींतल्यान देंवन ते जिपींत वचून वसले. जिपींत चडशे दादलेच वशिल्ले, दोनच चलयो आशिल्यो. त्यो चलयो भितर घाल्ल्या टायराचेर उकणयो वशिल्ल्यो. एकटेचो फ्रॉक वरो दिसतालो पूण उकणये वशिल्ल्यान त्या टायराचो सगलो चिखोल त्या फ्रॉकाक लागिल्ल्यान फ्रॉकाची जी दुर्दशा जाल्ली ती पळोवंक नजो जाल्ली. पूण तिका वावडेक त्या फ्रॉकाचें खंयचें पडिल्लें. केन्ना कांय एकदां जीव घरा व्हरून घाल्यार पुरो जाल्लें. एकटो चलो धोंपर वेंगेत धेंवन वशिल्लो. दुसरो वावडो सीट वयर सरिल्ल्यान घोड्यार वसलेवरी दिसतालो. वयर तकली तेंकता म्हणून ताका मान वांकडी करून वसचें पडिल्लें. आनी ती दुसरी चली गादयेर न्हिदिल्लेवरी ताचेर सामकी पडिल्ली. सगळे मेळत तशे वशिल्ले. ते गर्देत आमी दोगांय कशीं जातलीं हें चिंतून रिमा आनी श्रेया आयिल्ले ते वसींतच वसून रावलीं. वऱ्यावेळान पेसेंजरांनी वोवाळ घालतकीर ड्रायव्हर ते दुसरे वाटेन वचपाक तयार जालो. आयतार आशिल्ल्यान चडशे ऑफिसांतले सर्वीस करणारे लोक नाशिल्ले. वार्काच्या वसींनी जे लोक आशिल्ले ते हे वसींत आयले. वस एकदांची सुरू जाली.

वस करतां करतां शेळवणां पावली. आनी घुर . .घुर . . करून वंद पडली. बंद पडटकीर ड्रायव्हरान सांगले, वस फुडें वचची ना. तुमकां आयची गत वसींतच

काडची पडटली. त्या वेळार सांजेचीं सात वरां जाल्लीं. सांवइ्यामेरेन कशेंय तरी पावपाक जाय आशिल्लें. वाटेर तर एकूय गाडी दिसना. कोणाचीच वसींत गवपाची तयारी नाशिल्ली. सगळ्या लोकांनी पावसांतच धांवपाक सुरवात केली. ते लोक धांवतात म्हणून हीं दोगांय तांच्या फाटल्यान धांवपाक लागलीं. सत्री फुलयल्यार वाऱ्यान परतता. तें पळोवन तीं सत्री बंद करून भिजत धांवतालीं.

श्रेया आंगान मातशें मोठें आशिल्ल्यान ताका धांवतां धावतां खरस मारपाक लागली. ताकालागून रिमाकय फास्ट धांवपाक मेळना जालें. वारें तर अशें मारताले की स्वास लेगीत घेवपाक मेळनाशिल्लो. श्रेयाक एकदम घुंवळ आयिल्लेवरी जालें. तें थंयच बसलें. रिमाक तर कितें करूं कितें नाका जालें. कोणाची मदत घेतलें ? बरोबरचे लोक तर केन्ना फुडें गेले दिश्टी सुद्धां पडनाशिल्ले. हेवटेन तेवटेन झाडां शीं आशिल्ल्यान रान शें दिसतालें. शेळवण तर ताणें केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें. तरी तें मातशें धिराचें. श्रेयाक हाताक धरून ल्हवू ल्हवू चलपाक लागलें.

आनी मातशें फुडें वतकीर तांकां एक देसेंतशें घर दिसलें. तांकां सूऽ जालें. घर कोणायचेंय जायना. एक रात तरी घालोवपाक मेळटली. आनी गोंयचे लोक तर कोणाकय मदत करपाक सामके फुडे, जेवण सोंपल्यार लेगीत नवें करून वाडपी. रिमाच्या मनांत आशेचो दिवो पेटलो. ताणें दारार मारलें. एका दादल्यान दार काडलें. रिमान श्रेयाक बोट दाखोवन सांगलें "हाका इल्लें पिवपाक उदक हाडशात" त्या मनशान भितर वचून उदक हाडलें. उदक पिवन जातकीर रिमान आपल्याली घडिल्ली खबर सांगली आनी म्हळें, "आमी ही रात हांगा काडटात. आतां घरा कशीं वतलीं आमी? हो गांव आमकां अनवळखी." अशें म्हणिनाफुडें त्या मनशाची बायल भायर आयली. दोगांनी एकामेकांक कुरवो केल्यो आनी म्हळें, 'हें... हें... हिंगा आमी तशे कोणाक दवरिनात. आतां दीस धोड न्हू. तश्यो कितल्योय गाडयो वयतात. ते गाडयेन वोसाय तुमी." अशें म्हणून धडक करून दार बंद केलें. रिमाचो आशिल्लो तो धीरय सुटलो. ताचेर आकांत आयलो. श्रेया तर रडपाक पाविल्लें. भायर राक्षसावरी पावस हांसतालो. त्या घरांतल्या मनशांनी भितर येवन बस लेगीत म्हटलें ना. हांकां मनशां कांय जनावरां म्हणप? चली भुरगीं म्हूण तर आदार दिवपाचो. तांच्या व्हरांदाचेर उवें रावप म्हळ्यार लेगीत तांकां नाका जालें. दोगांय पावसांतल्यान भिजत तांच्या घरांतल्यान भायर सरलीं.

दोगांय एकामेकांच्या आदारान चलतालीं. सावइ्यां मेरेन पावल्यार पुरो आशिल्लें

तांकां. थंय तांची मावशी रावताली. चलून चलून तांचो जीव थकलो. इतल्यान तांकां एक मोटरसायकल येता ती दिसली. रिमान जन्मांत केन्नाच लिफ्ट मागूंक नाशिल्ली. हालीं पेपरांचेर एक एक येता तें वाचून तें कोणालेच मोटरसायकलीचेर वसनाशिल्लें. पूण त्या वेळार ह्या सगळ्यांचो विसर पडिल्लो. ताणें मोटरसायकलीक हात दाखयलो. मोटरसायकलवाल्याक तांची काकूट दिसून तांकां घेवन तो फुडें वचपाक लागलो. दोन मिनटांचे वाटेर पावल्यांत मात .. पळयत जाल्यार मुखार एक व्हडलो आंवो मोडून पडला. ताणें हांकां देवयलीं आनी खांचींतल्यान वाट काडत तो पलतडीन पावलो. हांकां दिसलें, तो हांकां सोडून वता काय म्हणून. हीं दोगांय राव रे राव रे करीत रेव्यांतल्यान झाडाचे खांदयेवेल्यान वाट कार्डीत ताच्याम्हच्यांत पावलीं. हांणी सांगिल्लेप्रमाण ताणें हांकां मावशेगेर व्हरून सोडलीं. रिमान ताचे खूब उपकार मानले. तो मोटरसायकलवालो देवासारको पाविल्लो. हांच्या दोगांयच्याय गळ्यांत सरपळ्यो आशिल्ल्यो. ताणें जर चोरिल्ल्यो जाल्यार हीं कितें करतलीं आशिल्लीं? दुसरें म्हळ्यार ही दोगांय वाडिल्लीं चलीभुरगीं. त्या मनशान तांचेर अतिप्रसंग केल्लो जाल्यार ?

रिमान सांगिल्ली घडणूक आयकून म्हज्या दोळ्यांत दुकां भरलीं. तुमचे दोळे ओले जाले ना?

❑❑❑

# १५. शांता

शांता हो म्हजो आजोळचो राखणो. हरशीं ताचें नांव शांताराम नायक. पूण आवयन ताच्या नांवाचो शॉर्टफॉर्म करून ताचो शांता केल्लो. म्हज्या आज्यान शांता ल्हान आसतनाच ताका गोरवां राखपाक दवरिल्लो. तसो तो मराठी दुसरीमेरेन शिकिल्लो. पाटयेर अक्षरां बरयतालो तेन्ना ताची आवय म्हणटाली खंय, 'म्हागे शांता पोशेपोशेवन बरयता.' तिका खंय खबर कीं, पाटयेर अभ्यास करतना तीं अक्षरां पुसून बरयतात तें. पूण शांताचें अभ्यासांत लक्ष लागचनाशिल्लें. दोन चार वर्सां नापास जायत गवतकीर ताचे आवयन ताका म्हज्या आज्याम्हऱ्यांत हाडलो आनी थंय राखण्याच्या कामाक लायलो.

शांताक जाय तशेंच मेळिल्लें. वेळार जेवणखाण, जाय तितलें खेळप आनी गोरवांक घेवन रानांत वचप. म्हजी आजी ताका भुरग्यावरी करताली. थंयच शांता ल्हानाचो व्हड जालो. शांता बरो व्हडलो मानाय कसो जालो. ताचो काळो कोर वताक रावन चडच किट्ट काळो जाल्लो. ताका पळयल्यार एक व्हडलो पाशाणी फातरच उबो रावला काय दिसतालें. म्हजी आजी ताका जेवण मात पत्रावळीर आनी उदक ग्लासांत दिताली. तिका इल्लें सोवळें ओवळें चड, म्हणटकीर शांता जेवन उठतकीर आमी थंयच्यान गेल्यार ती रोखडीच म्हणटाली, ''आगो लेपांक पडशात गो.'' लेप म्हळ्यार उष्टें. शांतान मागीर आपल्या जेविल्ल्या त्या कुडक्यार शेण सारोवप आशिल्लें.

राखणो म्हळ्यार शांता सगळीं कामां करतालो. माडार चडून नाल्ल पाडटालो, सुळाचेर नाल्ल सोलतालो, खोबरें काडून खळार सुकत घालतालो, शेत रोयतालो, लाकडां फोडटालो, गोरवांक तण हाडटालो, गोठो शिंवतालो, माटोव घालतालो, वेळार घरय शिंवतालो.

आमी शाळेची सुटी पडटकीर मे म्हयन्यांत आजोळा वतालीं. तेन्ना शांता आमचेवरोवर भुरगो जावन खेळटालो. नाल्ल पाडटना आजी ताका आमचेखातीर आडसरां काडपाक लायताली. म्हाका तन्नी कातली आवडटाली. हांवें एका आडसरांतलें उदक पिवप पूण ती कातली जून आसल्यार हांवें शांताक दुसरें आडसर फोडपाक लावप. तो वावडो आमी सांगतात तें करतालो. आज्जेचो दोळो चुकोवन ताणें आमकां न्हंयचेर व्हरप आनी पेंवपाक शिकोवप. पूण आमकां कशेंच पेंवपाक येनाशिल्लें.

सांजवेळचे तो आमकां घेवन रानांत वतालो. थंयची कंजरां, कणेरां, चारां,

चिवरां, काडून दितालो . मर्दींच काजूंनी वचून वियो पुंजावप, तोरां पाडप, भिंडां पाडप . सगळें खावन मागीर आमच्या कपड्यांचेर काजूंचे, भिंडांचे दाग पडटाले . एकेवटेन गोरवां चरतालीं . एकेवटेन आमी खंथ करतालीं .

रातचें न्हिदचेपयलीं भायल्या शेणान सारयिल्ल्या तुकतुकीत सोप्यार वसून आमी शांतान सांगिल्ल्यो काणयो आयकप . ताच्यो काणयो चडशो भुतांच्यो आनी नासाच्योच आसताल्यो . नास म्हळ्यार म्हारू खंय . हरशीं शांता माळयेर न्हिदतालो . पूण गिमा दिसांनी तो आंगणांत न्हिदतालो . काणयो सांगतना ताणें सांगप, "जाणात तुमी, हांव भायर न्हिदलेकडेन आसतना म्हजेफुड्यांत नास येयतलो . आनी तो म्हजे तकलेकडेन बसलो . हांवें ल्हवूच दोळे उगडून तेका पळयलो . जाल्यार तो म्हजेकडेनच पळयतालो . हांव वोगी न्हिदलां अशें समजून तो जोत्याचो फटक फटक आवाज करीत थंगसान गेलो . अशें म्हाका कितलेफावटीं दिसल्लां . नागाकडेन खंय कांयच उलोवूं जायना ." असल्यो खबरो सांगतकीर हांव ल्हवूच आंगणांत पळटालें . आनी माटवाच्या पोंदांतली म्हेड पळोवन तो म्हाका नागकुमी दिसतालो . रातचें मागीर हांव आज्जेक घट्ट वेंग मारून न्हिदतालें . दुसऱ्या दिसा आजी शांताक तापयताली . "आरे, भुरग्यांक कसल्यो काणयो सांगता रे, तीं रातचीं भियेनात मरे ." आज्जेलें हें तापोवप वयलेवयरच म्हूण शांताक खबर आशिल्लें . तो मागीर हांसतालो . तेन्ना ताचे वाळे ह्या कानापासून त्या कानामेरेन पावताले . पूण भंय दिसून लेगीत आमकां शांताल्यो काणयो आवडटाल्यो . सकाळच्यो सांग म्हळ्यार, मामा वाट विसरतलो अशें तो म्हणटालो .

केन्ना केन्नाय रातचें जाण्टेल्यांबरोबर दिपावपाक वचून दोन वालद्यो भरून कुल्ल्यो हाडटालो . ते येयसर आमी जागी रावतालीं . मागीर रांदी येतकीर त्या कुल्ल्यांचें सुकें करून खातालीं . ती रूच याद जाल्यार आजून तोंडाक उदक सुट्टा . "तुमकां शारांत असलें नुस्तें खावपाक मेळना म्हूण तुमचेखातीर हांवें मुद्दाम हाडलां तें," अशें शांता आमकां सांगतालो .

कांयच कामां नासतात त्या दिसा शांता सगळ्या गोरवांक न्हाणयतालो . तागेली गोरवांक दवरिल्लीं नांवां मात खूब सोबीत आसतालीं . काळ्या आंगाचेर धवे तिवे आसल्यार तिचे नांव 'चांदणी', तांबड्या कोराची आसल्यार 'तांबू' काळ्या कोराचेक 'काजळी', माथ्यार चंद्रावरी तिवो आसल्यार 'चंद्री' . त्या त्या नांवान उलो मारल्यार तीं सगळीं ताचेम्हऱ्यांत येतालीं . ताचो हात चाटटालीं . एक दीस हांवेंय म्हजो हात फुडें केलो . पूण त्या तांचे जिभेच्या स्पर्शान म्हज्या आंगार कांटो फुललो . आंग सामकें

शिरशिरलें.

एक दीस म्हजी मामी कोळसो घेवन वांयंतल्यान उदक काडटाली. तो कोळसोच वांयंत पडलो. शांता थंयच आशिल्लो. ताणें आनी वेळ केलोना. दुसरो राजू हाडून, वांयचे भोंवतणी वांदलो. दुसरें तोंक आपल्या कमराक बांदलें आनी एक एक पांवडो देंवत सकल वचून कोळसो काडलो. तो दुसऱ्या राजवान वयर ओडपाक लायलो. मागीर शेड्डयावरी सर सर करून पांवडे चडत वयर आयलो. तेन्ना सावन कोणालोय कोळसो वांयत पडल्यार रोकडींच तीं शांताक सोदपाक भोंवतालीं.

शांताक कसलेंच वेसन नाशिल्लें. शांता कसलेंय काम मोन्यानी करतालो. कोणाक परतें उतर दिनाशिल्लो. आपली चूक आसल्यार वोगीच रावतालो. चूक नाजाल्यारय वोगीच रावतालो.

व्हड जाता तितलें आजोळा वचप घडनाशिल्लें. शिक्षण, अभ्यास, परिक्षा,नोकऱ्यो मागीर लग्न ह्या चक्रांत घुस्पल्ल्यान आजोळ पयसाविल्लें. पूण शांत्याल्यो खबऱ्यो कोणाकडल्यानय कळटाल्योच. आजून मेरेन तो लग्न जावुंनाशिल्लो. गळ्याच्या दुयेंसाक सगळे दोतोर केले पूण कशेंच बरें जायना जालें. जेवण-खाण भितर वचपाक खूब कश्ट पडटाले. ताकाच लागून ताका खूब अशक्तताय आयिल्ली, कामां जमनाशिल्लीं. ताका आयतें खावप म्हळ्यार जिवार येतालें. पूण तरी लेगीत आज्जेन ताका ताच्या घरा धाडिनासतना आपल्यागेरच दवरला. ताणें इतल्या वर्सां आपुलकेन कामां केल्लीं म्हणून जांवये. ताका ताळ्याक त्रास जातात. म्हणून आज्जेन ताका सुनेकडल्यान सद्दां पेज करून वाडप.

येदो व्हडलो पकदस्त मनीस. आतां ताका असो जाल्लो कसो पळोवं येत हें चिंतून थंय वचपच घडना. ताच्या पयलींच्या यादीन दोळे ओले जातात. बऱ्या मनशाक देव बरें कित्याक दिना? देव ताका बरें आयुश्य, आरोग्य दिवूं हें म्हजें देवाकडेन मागणें.






# १६. दादामा

दादामामाक थोडे लोक दादा आनी थोडे लोक मामा म्हणटाले. हांव मात ताका दादामामाच म्हुणून उलो मारतालें. खरें पळोवंक गेल्यार तो आमच्या इतल्या शेजरा रावता आसून लेगीत ताची आनी म्हजी वळख हालींच दोन चार वर्सांची. कित्याक काय म्हळ्यार तो मुंबय आसतालो नोकरेक. वर्सांतल्यान एक दोन फावटीं तो गोंयांत येतालो. पूण आमचें दोगांयचेंय तितलें उलोवप नासतालें.

दादामामा हें एक भारदस्त व्यक्तिमत्व. धव्याफुल्ल केसांच्या दादामामाक पळयतकीर मनांत एकेतरेचो आदर निर्माण जातालो. हार्टाचें दुयेंस जातकीर दोतोरान सुशेग घे म्हळें. म्हुणून दादामामा नोकरी सोडून गोंयांत सुशेग घेवपाक आयलो. पूण ताचो स्वभाव सुशेग घेवपाचोच न्हय आशिल्ल्यान तो सदांच रानांनी, मळांनी पासयेक वतालो. असोच तो आमगेर येवन वसपाक लागलो आनी तेन्नासावन आमची दाट वळख जाली.

तो लग्न जालो नाशिल्ल्या कारणाक लागून ताका कांयच चिंता आसच्यो ना अशें दादामामाक पळयतकर दिसतालें, पूण एका वायल - भुरग्यांकारां परस चड चिंता दादामामाक आशिल्ल्यो. ह्या जगांतल्या वेकारांचे कशें जातलें. थोड्यांच्या शिक्षणाचें कशें जातलें, गरिबांच्या वाडून पडिल्ल्या चलयांची लग्नां कशीं जातलीं, हो जगांतलो भ्रश्टाचार वाडत रावतलो काय कितें? ह्यो चिंता दादामामाक आशिल्ल्यो,

दादामामाक पत्येक विशयाचेर भासाभास करपाक आवडटालें. एक दीस असोच विशय आयलो म्हूण हांवें म्हळें, "जाणां मरे दादामामा, गोंयच्या वेकारांचें कितें जातलें काय म्हणटा न्ही तूं? तर आयक ह्या सगळया भायल्या लोकांक धांवडावपाक जाय. मागीर वेकारी कावार जातली." म्हाका दिशिल्लें दादामामा आनी हाचेर कितें उलयतलो. पूण ताच्या उतरान म्हाका ओगींच रावचें पडलें. ताणें म्हळें, 'तूं सांगता तें सगळें खरें गो पूण तूं एक विसरलें दिसता. तुजो काकाय भायल्या देशांत काम करता. ताका थंयच्या लोकांनी धांवडायल्यार जातलें मगो तुका? जशे आपले लोक पोटाखातीर भायल्या गांवांत काम करतात तशें ते लोक हांगा येवन करतात न्ही? तुमची ही तरणाटी पिळगी असलो फाटलो विचार करिनात हाचोच म्हाका सामको राग येता." हें राग येना, म्हणपाचें निमाणें उतर तो सदांच म्हणटालो.

हांव कितेंय अश्यो काणयो, कविता बरयतां, त्यो वाचून दादामामा म्हणटालो. हें असलें तूं बरें करता. आपणें सतत कितेंय तरी काम करपाकच जाय. नाजाल्यार

चडशीं जाणा लग्न जातकीर 'रांदा वाडा उश्टीं काडा' हातूंतच रावतात. आपल्या आंगातल्या गुणांचो वापर करपाक जाय. गुळो सो वसून रावपाक जायना.

एक दीस लेगीत दादामामा आमगेर आयलोना जाल्यार चुकिल्ले चुकिल्लेवरी जातालें. दादामामा मुंबय आसतना ताणें गोंयच्यान सोलां, काजुबियो, लोणचें, पापड व्हरप आनी थंयच्या आपल्या शेजाऱ्यांक वांटप. ताच्या तोंडांत तातूंतलें कुस्कूट तरी पडटालें काय ना तें देव जाणा. गोंयच्या मनशान जर कितेंय मुंबय वतल्या दादामामाक आपल्या सोयऱ्यागेर हें पावय अशें म्हळ्यार, दादामामा हां म्हुणून तें व्हरतालो आनी त्या सोयऱ्यालें कितलेय खांचींत, कोनश्याक लेगीत घर आसल्यार सोदून तें पार्सल दितालो. कोणें गरजेक पयशे मागल्यार तो केन्नाच ना म्हणनाशिल्लो आनी दिवप कितलें? हजारांनी अशें. त्या मनशान परत दिलेना जाल्यार हो ते मागनाशिल्लो. हाच्या स्वभावाक लागून जांवये नाजाल्यार विसरिल्ल्यान जांवये, दादामामाक कितल्याश्याच मनशांनी पयशे दिवपाचे आसात. असो हो दानी दादामामा.

आमी लागींच खंयय वतना वसीर गेलीं जाल्यार दादामामा तापतालो, "तुमकां इतले लागीं वचपाक बस जाय? चलत वचपाक जायना? चलून गेल्यार बरो व्यायाम जाता. तुमच्यांनी मातपूण चलपाक जायना. हाचोच म्हाका राग येता." (दादामामालें पेटंट उतर) दादामामा मोगान उलयतालो. तसो रागानय तापतालोय. आपल्या बावड्या स्वभावाक लागून ताणें सगळ्यांक आपलेशेंच करून घेतिल्लें.

दादामामाक एक दीस हांवें फकाणांनीच विचारलें, 'दादामामा, तूं लग्न कित्याक जालोना? प्रेम भंग वी जालो काय कितें रे?" दादामामान सांगलें, प्रेम केल्यार प्रेमभंग जातलो न्ही. तुमच्या असल्या बायलांकडेन लग्न जावपाचें? दीस कशेच काडपाक जावचेना. बायलो ज्यो घोवाच्यो विटंबना करतात तें पळोवं नज जाता. कचकच उलोवन घोवाक सामकें खावन उडयतात. भायर वाग आशिल्ले घोव बायलेमुखार विलू जातात. तें पळोवन लग्नच नाका जालें म्हाका."

दादामामाक कोणाल्याच वारश्याक, वाडदिसाक, मुर्जाक ,साखरपुड्याक , लग्नाक आपयल्यार तो मुद्दाम वतालोच. आळस केन्नाच करिनाशिल्लो.

वायल आसल्यार तिका आपल्या घोवाचें दुयेंस, त्रास घेवन काडुंकच जाय पूण दुसऱ्यांक कित्याक त्रास अशें म्हुणून दादामामान आपले नांव वृद्धाश्रमांत घाल्लें. पूण वृद्धाश्रम अजून बांदून तयार जांवंक नाशिल्लो. तो बांदपाखातीर दादामामान पयशे

दिल्ले .

दादामामा पासयेक वता तें पळोवन हांवें ताका म्हळें, " दादामामा, तूं इतल्या पयस पासयेक वता तो थंय तुका कितेंय जालें जाल्यार? तुजें दुयेंस हें असलें काळजाचें ." दादामामा हांसून म्हणपाक लागलो, "आगो, मनीस हो केन्नाय मरपाचोच . तातूंत भंय कित्याक दिसपाक जाय ." तशें म्हण्टकीर म्हाका ग्बूब वायट दिसलें . इतलें प्रेम दादामामाविशीं म्हाका जाल्लें . हांवे म्हळें, "नाका रे, अशें कित्याय कितें उलोवपाक . आमकां तुजें मार्गदर्शन ग्बूब तेपमेरेन जाय . तूं कितें सामको जाण्टो जाला?" तो विशय थंयच सोपलो .

त्या दिसानंतर हांव आठ दीस रावपाक म्हुणून सोयऱ्यांगेर गेल्लें . घरा येतकीर म्हाका ती वायट वातमी कळ्ळी . मोगाळ दादामामा हांव आयलां ताचेपयल्याच दिसा सोंपिल्लो . छातयेंत कसकसता म्हुणून आठ दीस पयलीं ताणें दोतोराक दाग्बयिल्लें . दोतोरान सामकें रेस्ट घे म्हुणून सांगिल्लें . पूण दादामामा रेस्ट घेवपी? चारदिसां भितर दादामामा वृद्धाश्रमांत वचचे पयलींच सर्गेस्त जालो . ताका निमाणचें पळोवंक मेळ्ळेंना म्हुणून म्हाका ग्बूब ग्बंत भोगली .



# १७. म्हजी बा

बा म्हळ्यार म्हजी आजी. म्हाका तिचो खूब मोग. व्हडल्या दोनूय धुवांचीं भुरगीं व्हड जाल्लीं आनी हांव ताचेपरस खूब ल्हान, म्हणून ती म्हजीच चड अपुरबाय करी. हांवें सुटी पडली की आजोळा वचप. रातचें तिच्याच म्हऱ्यांत न्हिदप. काणयो आयकत तिच्या पांयांरच हांव न्हिदून पडटालें. एका हातान ती म्हाका थापटिताली आनी दुसऱ्या हातान ती म्हजी फाट खरपिताली.

बाक खावचीपानां खावपाची सवंय आशिल्ली. ल्हान आसतना म्हाका तिगेलें तें तांबडें तोंड पळोवन खावचें पान खावपाची रूच येताली. बा मागीर म्हज्या माँक लिपोवन म्हाका चुनो आनी सुपारी घाल्लें खावचें पान दिताली. भायर वचून पान खावन रोकडेंच हांव घोट घेवन पानाची रूच तोंडांत घोळोवन भितर येतालें. जणू काय पागयेक वचून आयिल्लेवरी.

हांव येतलें हें कळ्ळेवरोवर त्या दिसा बा बिबे चिरून दवरताली, काजुबियो भाजून दवरताली, आडसरां काडून घेताली, चिपटां, चिवरां, कणेरां रानांतल्यान आपूण वचून काडून हाडटाली. घराफाटल्यानच रान आशिल्ल्यान हांवय तिचेवरोवर वतालें. रानांत वतना वाटेचेर गोरवांचो गोठो लागतालो. बा गोठ्याम्हऱ्यांतल्यान वतना गोरवांचीं नांवां घेवन म्हणप, "हें पळय गो शेंवतू, बायूल आयलां" अशें म्हणटकीर तीं गोरवां रोकडींच हाऽऽमाऽऽ करून म्हाका येवकार दितालीं.

बा न म्हज्या माँक म्हणप, " आगो बायुलाकच धाड हां आनी बावूक मात तूं आयल्यारच घेवन यो." बावू म्हळ्यार म्हजो भाव. तो खूब आडांगपणां करतालो. तो बा ची नदर चुकोवन न्हंयचेर, दर्यार वतालो. ताका आडावपाक बाक खूब कुस्तार जातालें. म्हुणून तिका तो आपले आवयबरोबरच आयिल्लो जाय आशिल्लो.

सकाळीफुडें उठल्या तेबरोबर, बालें काम म्हळ्यार बावराड्याकडल्यान गोरवांचें दूद काडून घेवप, मागीर च्या पिवन ओंवळी पोंदा वचून ओंवळां पुंजावन हाडप. तांचे पांच-स सर करून दवरप. सगळ्यांत व्हडलो सर ती म्हाका दवरताली. मागीर ती भाटांत एक पासय मारताली. नाल्ल पडल्यात जाल्यार पळोवंक. घोटां तेंपार रुखामुळांत घोंटां पडल्यार ती पळयताली. कुळागारांत उदक सोडून दिवन ती घरा येताली. खळार खोबरें, भिंडाचीं सोलां, ओटमाची सोलां, आंब्या साट, पणसाचें साट ती सुकत घालताली. तें राखपाक ती म्हाका बसयताली. पयलीं ती थंय मेल्लो कावळो वडयेक बांदून

दवरताली. कित्याक काय म्हळ्यार त्या मेल्ल्या कावळ्याक पळोवन खंय दुसरे कावळे येनात. आतां तो मेल्लो कावळो इबाडिल्लो म्हणून ती म्हाका वसयताली. म्हाका थंय बसून बसून वाज येतालो. एक दीस हांवें तिचें काळें पोल्क काडलें. तें बडयेक लायलें आनी हांव खेळपाक गेलें. हेवटेन बा न्हातकीर आपलें काळें पोल्क सोदपाक लागली. हांव येतकीर तिणें म्हाका विचारलें, हांवें सांगलें, तें पोल्क हांवें मेल्लो कावळो म्हणून बडयेर दवरलां. तें आयकून तिका पोटांतल्यान हांसो फुटलो.

बा सदां सांजवेळची वाती करपाक बसताली. गोबरान ती वाती वळटाली. तिच्याइतल्यो सुंदर वाती कोणाकच करपाक जमनाशिल्ल्यो. हांवें तशो करपाक कितल्याश्याच फावटी यत्न केलो. पूण म्हज्यो वाती वळपाच्यो थंयच उरताल्यो, हात मात गोबरान भरताले.

बा सात म्हयन्यांची गुरवार आसतना म्हजो आजो भायर पडलो. हें येदें व्हडलें दूख तिणें पचयलें. व्हडल्यो दोनूय चलयोच जाल्ल्यान हो तिसरो चलोच जातलो अशें सांगून तिका एका साधून वडाच्यो एकशें एक प्रदक्षिणा काडूंक लायल्यो. तिणें त्यो काडल्यो पूण जाली ती चलीच. ती म्हळ्यार म्हजी आवय. पूण तिका वायट दिसलेंना. वेल्यान बापूय ना म्हूण तिणें म्हज्या माँ ची चड अपुरबाय केल्ली. आनी हाकालागूनच जांवये आपले चलयेचे धुवेचो, म्हळ्यार म्हजो ती चड मोग करी.

हांव ल्हान आसतना म्हज्या आजोळा लायट येवुंनाशिल्ली. आमी चिमणेच्या उजवाडान इस्पिकांनी , गुटफळ्यांनी, गजऱ्यांनी खेळटालीं. त्याच उजवाडांत जेवतालीं. आनी न्हिदतना आळणो घेवन वारो घेतालीं. पूण आतां पंदरा मिनटां लेगीत लायट नाजाल्यार जीव सामको कासावीस जाता.

म्हजी एक मावशी बा म्हऱ्यांतच रावताली. बान टि.व्ही केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो. मावश्यान हालींच लायट घेवन टी.व्ही. हाडिल्लो. हांव लग्न जाल्ले कारणान कसल्याय ना कसल्याय कामाक लागून आजोळा वचपाक म्हाका मेळनाशिल्लें. पूण बाल्यो एक एक खबऱ्यो कळटाल्यो. बा आतां खूब जाणटी जाल्या. पूण ती आपलीं सदांचीं कामां सोडून खंय फकत टि.व्ही. मुखार बसता. तिका तो बंद केल्लो खपना. टी.व्हीचेर मनशां खंयच्यान येतात हें तिका खबर ना पूण ती म्हणटा, ते टी.व्ही.तच आसतात. तो बंद केल्यार तीं सगळीं घुसमटून मरतलीं. टी.व्हीं.चेर क्रिकेट लेगीत लागल्यार ती पळयता. हरशीं तिका तातूंतलें गोबर कळना. एक दीस खंय बा म्हणपाक लागली, तो नरसिंहराव आपल्या बायल-भुरग्यांक घेवन येवन आपल्याक पांयां पडून

गेल्यः मावशेन टी.व्ही.र आयिल्लो खरो नरसिंहाराव दाखयल्यार म्हणटा हो नरसिंहाराव , म्हाका पांयां पडून गेल्लो ताका मिश्यो आशिल्ल्यो. सुरभींतल्या सिद्धार्थ काकाक आनी रेणुका शहाणेक पळोवन ती म्हण्टा "खंयची कोण घोव-बायलां येतात आनी म्हाकां पांयां पडून वतात." बाक जर आंगणांत वचपाक जाय, तर ती आपः या जाग्यार दुसऱ्या कोणाकय बसोवन वता. कित्याक काय म्हळ्यार टी.व्ही. चेर येता तांकां वायट दिसत जाल्यार. आपलो कार्यक्रम पळोवपाक कोणूच ना म्हुणून.

एका दिसा खंय लायटच गेली आनी ती भितरल्या भितर रडपाक लागली. कितें जालें कांय म्हळ्यार, तिचें म्हणणे अशें की लायट गेल्ल्यान टी.व्ही. भितरलीं इतलीं सगळीं मनशां घुसमटून घुसमटून मरतलीं. हें आयकून कोणाक हांसूंक येवचें ना? पूण हांसल्यार लेगीत ती रोकडीच म्हणटा "तुमकां आतांच्या भुरग्यांक काळजीच ना."

अशी ही म्हजी आजी सामकी जाण्टी जाल्या. व्हडल्या दोनूय धुवांच्या म्हणजे . मावशेच्या नातरांक लागून ती आतां पणजीय जाल्या. म्हजी एक इत्सा आसा, तिका म्हज्या भुरग्यांची पणजी जाल्ली पळोवपाची. आपले हे आवडटे नातीचें भुरगें म्हळ्यार तिचें पणतूर देवान बा क पळोवंक दिल्यार पुरो.







नांव ः सौ. नम्रता शैलेश सालेलकार

| | | |
|---|---|---|
| जल्म | ः | १४ फेब्रुवारी १९७0 |
| वेवसाय | ः | गृहिणी |
| आवड | ः | लेखनाची आनी वाचनाची आवड |
| लेखन | ः | कोंकणी आनी मराठी भाशेंत बरोवप. कोंकणींतल्यान कविता आनी कथा बरयल्यात. राष्ट्रमत, परमळ, सुनापरान्तांत बरप छापून आयलां. |
| नाटक | ः | कोंकणी, मराठी नाटकांनी अभिनय केला. नाटक बरोवन माचयेर प्रयोग केला. भुरग्यांचीं नाटकुलीं, लोकनाट्य बरोवन, बसोवन, माचयेर प्रयोग करून घेतल्यात. तांकां इनामांय फावो जाल्यांत. आकाशवाणीचेर कविता सादर केल्यात. |